



## *Department of Agriculture supports your Efforts through Schemes as –*

- Assistance up to ₹ 80,000/- per ha. to individual/Self Help Group for creation of infrastructure like fencing, construction of well, etc for cultivation of vegetables.
- 75% subsidy for cultivation of Horticulture Crops as Coconut, Mango, Cashew, Spices, Banana, Pineapple etc.
- 50-75% subsidy for promotion of soil conditioner, micronutrients, vermicompost units and biogas.
- 50- 90% Subsidy for creation of Irrigation infrastructure such as Well, Pump Pipeline, Sprinkler / Drip Irrigation and water storage tank.
- 75- 90% Subsidy for construction of Barbed wire / Wire Mesh/ Stonewall/Rubble wall, Solar power Battery Fencing to protect farmer's crops.
- Minimum assured price for coconut ₹10/- and paddy to ₹20/-
- 50% subsidy on cost of organic inputs like organic fertilizer, vermicompost, pressmud, Bio- fertilizers, biopesticide and biocontrol agents to promote organic farming.
- Assistance up to 75% is provided to SC/ ST farmers for purchase of agriculture inputs and machinery.

***For further details Contact:***

The Zonal Agricultural Officer of your Taluka

जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

वर्स ४४ : आंक ९ : मे, २०१८

✻ संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

✻ वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

✻ संपादपी :
आसावरी नायक

✻ पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

✻ उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

✻ छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

✻ वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.
फोन: ९७८०८७१११८

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,००० /- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

कथा विशेशांक

## मांडावळ...

०२ **म्हाका कित्याक पडलां**
दामोदर मावजो

०७ **फुलतना**
गजानन जोग

११ **रेक्टरशीप...!**
जयमाला ना. दणाईत

१४ **निवलकाणी**
हेमा नायक

१९ **विध्वंसाचो वेळ**
गोकुळदास प्रभु

२१ **कथा लॅटर बॉक्साची**
डॉ. जयंती नायक

२३ **नारींग**
वसंत भगवंत सावंत

२७ **एक 'मंगळ' काणी**
सुधा खरंगटे

३० **अरिश्ट**
विठ्ठल आवदियेंकार

३४ **"पडलो रे फोणांन"**
आशा शानभाग

३६ **रिणकारी**
वल्ली क्वाड्रस

३८ **पलतड**
जोफा गोन्साल्वीस

४१ **वाडदीस**
वामन गो. टक्केकार

४७ **सोयरे**
कृ. म. सुखठणकार

५१ **पडसाद**
माधव बोरकार, अरविंद काकोडकार

५३ **अमृतवेळ : (पुस्तक परिक्षण)**
सखाराम शेणवी बोरकार

५४ **कविता**
रमेश भगवंत वेळुस्कार, भिकाजी घाणेकार,
माधव बोरकार, आर. रामनाथ, उदय म्हांबरो,
मेल्विन रोड्रीगूस.

भायले चित्र : श्रीधर कामत बांबोळकार
भितर्ली चित्रां : भरत जगताप

# म्हाका कित्याक पडलां

दामोदर मावजो

म्हाका कोणाचे मिजगतीक वचप मानवना. म्हजें काम बरें हांव बरों. ह्या म्हज्या सभावाक लागून म्हजो दीस सदांच बरो वता. सकाळ लेगीत म्हाका जाय तेन्ना उदेता.

''आरे, उठ रे बाबग्या, दीस उदेलो पळय.'' आवयलें सदचेंच. लोकय म्हूण दीस उदेवंचे पयलीं उठटात तरी कित्याक कळना.

''च्या कर पळोवंया बरी शी.'' जानव्यान फाट खरपीत हांवें म्हळें.

''दूद ना. घेवन येता?''

बुकलो दुदाक संवकल्ल्यान हांवें रतीब बंद केल्लो. आतां बुकलो चाचागेर वचून पडला. गरज तेन्ना गरज तितलें दूद हाडून गरज भागोवंक बरें.

''फुटीच दी. अशीच बरी लागता'' सदाभटाली गाय आटत सावन हांव फुटीच पसंत करतां. सावळ्यालें दूद हाडपाक पांच मिणटां चड चलचें पडटा. ते परस हेंच बरें.

च्या मारली. आतां पेपर हाडपाचे. पंचायतीचे लायब्ररीचे पेपर हाडपाचे आनी धा वरांचेर लायब्री उगडटकच थंय पावोवपाचे. मदीं फुकट वाचूंक मेळटात. हातांत पानदुडू नासूं. गळ्यांत जानवें आनी फुकट पेपर होच म्हजो आनंद. ताका लागून दिसपट्टो पेपर वाचपी जगायल्या राटावळींचो जाणकार अशी म्हजी नामना गांवांर आसा.

''वतना चाचान काल बिर्याणी घालून दिल्लो तो डबो व्हर. धुवन दवरला. आनी असो रितो परतो दिनात. कितेंय घालून दी.'' आवयक असलीं पिशेपणाचीं सगलीं शास्त्रां लागतात. कोणें सांगलां रितो डबो दिवचो न्हय म्हूण? चाचान डब्यांत बिर्याणी दितना बदल्यांत कितेंय मेळचें म्हूण दिल्लो तर तो? डबो परतो मेळचो अशीय ताची अपेक्षा नासतली. हांव रित्या हातांनीच भायर सरलों.

''भोंवन भोंवन तुगेलो खुंटो म्हगेल्या पोरसांत कित्याक येता शाबा? तुगेल्या दादानच घायलेलो नीस हो हंय सर आसा तो दिसना?'' घनीचाचा समजिकायेच्या सुरांत सांगतालो. दादोन घनीचाचाक मुंडकार मानून घेवन तागेल्या घरा भोंवतणचो हो जमनीचो कुडको चाचाच्या नांवार करीत सावन शाबाक जाळ पडटाले. फाटल्या आमदाराक धरून खुंटो हालोवन घट करपाचो शाबान खूब येत्न केल्लो. पूण त्या आमदारान चाचाक ना दुखोवपाचें धोरण धरिल्ल्यान दोगांकूय झुलयत दवरिल्ले. अजाप म्हळ्यार वेंचणुके वेळार त्या आमदारा वटेन प्रचार करपी शाबा नवे पार्टीचो आमदार जिखून येना फुडें ताचे जैताचे मिरवणुकेंत सगल्यांत फुडें आसलों. म्हगेलें आपलें बरें- हांव दोगांयल्या सभांनी वतालों. दोगांयलेंय आयकतालों. अशें मदीं रावप सदांच बरें!

''दादान तोंडान दिल्लें उतर आनी हातीन दवरिल्लो नीस तो - कागदार कांयच ना. आतां ताणें केल्ली चूक हांव निस्तरायतां. दादा काकुळटेक गेल्लो. आतां तूं मात माथ्यार बसता! तुका खाजें खावयले बगर रावचों ना.''

''कसो सतायता तें पळयता मरे?'' वाटेन वतना म्हजेर नदर पडिल्ल्यान चाचा म्हाका सांगूंक लागलो. हांवें मान हालयली.

''तेका कित्याक सांगता? तो सगलें जाणा. तुका खबर आसा मूं बाबग्या? हेचो पूत थंय सावदीक आसा. लाखांनी कमायता. तरी हेची आस सुटना. आमच्या बापदादालें भाट हें. हेच्या बऱ्याक गेल्यार-''

शाबालें आयकून हांवें पर्थून तकली हालयली.

''आसत तुमचें भाट. हांवें घाम ओतला हंय सर. देखून दिलां दादान- तुकाय बरें खबर आसा. तुगेले आवयच्या ऑपरेशना



वेळार चाळीस हजार हांवेंन मोडिल्ले. तें स्मरून दादान-''

''व्हर तुगेले दुडू परते. पुतान मुसलमानांच्या राज्यांत वचून जोडिल्लो हरामाचो पयसो तो'' शाबा ताणशेलो. म्हाका आयकुपाक कितें जालां? तितल्यान चाचान पोशिल्लीं चारपांच हेडगीं सुणीं भोंकपाक लागलीं.

''बाबग्या, तूं सांग तेका. ह्या बुड्ड्याच्यान सोंसूंक जायना आतां. म्हजो पूत घरा येतलो तेन्ना तेजेच कडेन उलय बाबा.'' अशें म्हणून चाचा सुण्यांक चुचकारीत फाटले वशीन गेलो.

दादा मरतकच शाबाच्या हातांत कारबार येत साकून हांचें हें अशेंच चल्लां. म्हाका कालची याद जाली. चाचान बिर्याणीचो डबो म्हज्या हातांत दिलो तेन्ना शाबान ताका आयकूंक ये सारकें म्हाका विचारिल्लें - ''तूं खाता व्हय रे गायचें मांस?''

''तेचें तूं आयकूं नाका, बाबग्या. आमगेर केन्नाच गायचें मांस खायनात. काल ईदाक मटण हाडलेलें. तुका बिर्याणी आवडटा देखून दितां. व्हर तूं.''

बिर्याणी बेस बरी लागली म्हूण चाचाक सांगपाचें आसलें म्हाका. पूण ह्या प्रसंगार आनी शाबा हुजीर सांगप कशें? शाबाक दिसतलें हांव चाचाचे बाजून म्हूण. म्हळें, तांचें तांकां पळोवं दी. अशें म्हणून हांव म्हजे वाटेन चलूंक लागलों. मोडणार पाव जाल्यार सब्दुलें आंगणांत उकडयां बसलां कंवळे वोत फाटीर घेत.

''फाट शेकूंक बसलां व्हय गो?''

''आमची गरिबांली बाबा फाट-फूड एकच - शेकतलीं आनी कितें? नासणे आसुडटां. आंबील खातलो जाल्यार यो मागीर.''

''आंबील आतां जाणट्यांनी खावपाची. नुस्त्याक कितेंय आसल्यार सांग.''

''चेडूं गेलां फोंडूगेर. मानशेचें झळकें कितेंय गावता जाल्यार पळोवपाक.''

''मानशेचें? चेडवाची सोयरीक जाल्या कितें गो?''

''जावं दीच. साखर घालीन तुज्या तोंडांत... आनी सोयरीक जाली म्हूण जालें? लगीन करपाक दुडू नाका? म्हागेल्या घश्ट्यांनी हातापोटाक सुटना'' सब्दुलें सदांच पिंरगता. तरी बरें, चेडूं आंगणवाडींत शिकयता.

''तूं कित्याक हुसकेता गो? लाग पळोवंक सोयरीक. सरकार एक लाख दितलें खंय कन्यादान करपाक. तुगेलें चेडूं आतां सरकाराली लाडली लक्ष्मी...''

सब्दुल्याले हात आसुडटां आसुडटां थारले, ''खबर खरी तर ती!''

''इतल्यान जालें ना! इंडियेच्या गिरेस्तांलो जायतो ब्लॅक दुडू भायल्या देसांनी लिपोवन दवरिल्लो आसा. तो दुडू हें दिल्लीचें नवें सरकार धरून हाडटलें आनी देसांतल्या गरिबांक वांट्टलें. तुवेन उगडलां मुगो बँकेंत खातें?''

''बँकेंत घालपाक आमचे कडेन मुदलांत आसों नाका?'' सब्दुलें परर्थून आसडूंक लागलें.

''कांय गरज ना. शुन्य बाकी खातें उगडपाचें.''

''हो आनी कोण शुनज्याकी?''

''आगो पिशा'' कोणाय पिशाकं शाणे करपाची संद हांव सपसप वगडायना, ''शुन्य म्हळ्यार झिरो. म्हटल्यार दुडू नासतनाय खातें उगडपाचें. दुडू येतले तेन्ना घालपाचे.''

''पाडा पडूं. आमकां आनी दुडू खंयचे येतले?''

''तीच तर मजा ह्या सरकाराची! तो गिरेस्तांलो पयसो हाडून सरकार गरिबांक वांट्टलें... कितले ते जाणा तूं? आयकल्यार सकयल्यो गुटल्यो तकलेंत वतल्यो.'' मुखार बसल्या ती बायल मनीस म्हूण लक्षांत येना फुडें 'तुज्यो' म्हणपाचें आडायत हांवें 'म्हज्यो' म्हुणून सोडलें.

''कितले रे?''

''पंदरा लाख! देखून तर बेगीन खातें उगडात म्हूण फाटीक लागलां दिल्ली सरकार.''

अविस्वासाचे नदरेन पळयन सब्दुल्यान विचारलें, ''तुयेन उगडलें तर?''

''केऽऽ न्ना.''

सब्दुल्यालें आं जाल्लें तोंड बंद जावपाची



वाट पळय नासतना हांव फुडें सरलों. सदाभटाल्या दारांत पावलों आनी मनांत आयलें - वच्चें परतें आनी सांगचें सब्दुल्याक - विधवा पेन्शनाक अर्ज कर म्हूण. म्हगेले आवयक म्हयन्या-म्हयन्याक देड देड हजार येता. तितल्यार पंदरा दिसांचो खर्च भागता. पूण सब्दुल्याक सांगलें आनी ताणें तिसरेचे बोंबलेर दवरलें आनी तिणें चवथेचे, जाल्यार थंय लायन वाडिल्ली पळोवन सरकार येवजणच बंद करीत म्हूण भिरांत. ते परस आपणा पुरतें येवजुवप सदांच फायद्याचें.

सदाभटाल्या घरा फुडल्यान पासार जातना कितें तरी चुकिल्ले वरी दिसलें. भटीण पोरसांतलीं फुलां खुंटटाली. दारांत सुणें गोठेल्लें. कुशीचो गोठो मात रितो दिसलो. तरीच- शेणामुताचो संवकळीचो वास नाकांत भरलो ना. गाय विकलीशी दिसता सदाभटान. पेपर घेतना खुशाली दिसलो. ''एक विचारूं, खुशाली, सदाभटान गाय विकली कितें खबर आसा?''

''तो बऽऽ रो विकीत रे, पूण घेतलो कोण? मरपाक तेंकिल्ली गाय ती. फुक्याक दिल्यार लेगीत कोणाक नाका. गोठ्यांत दिसना खरी. सोडल्या आसतली रानांत - वागटाचें तरी पोट भरूं म्हूण.''

बरें पटलें ना मनाक. ''खाटकाक दिल्यार चार पयशे तरी येतात न्हय रे?''

''खाटीक उरल्यात खंय आतां हांगा? गोरवां मारपाचेर बंदी आयिल्ल्याक थंड जाला तेंगेलो धंदो. तें भंगों... एक सांग, तुवेन घनीचाचाक बी पळयला? आसा काय घरा?''

''चाचा कडेन शें कसलें काम रे, सुणें बी दुयेंत आसा कितें?'' हांवें अदमास घेतलो.

''म्हसराक निर्मुळी जाल्या रे. कालच्यान चिरपीत आसा. काल सांजेर गेल्लों हांव घनीचाचागेर जाल्यार दार बंद. शाबाक विचारल्यार सांगता - कब्रस्तानांत वचून पळय थंय पावला जाल्यार...''

चाचा घराच आसा म्हूण सांगना फुडें खुशाली सडसडीत ते वाटेक लागलो. आनी पेपर खांक्यांत मारून हांवेंय परतीची वाट धरली.

पांयार पांय उडोवन पेपर वाचपांत एक वेगळीच मजा आसता. हालीं दिल्लीं नवें सरकार झुटयेर येत सावन तर चडच. बेस बरें काम चल्लां. विरोधी फुडाऱ्यांच्यो भानगडी भायर काडटा आनी दिसपट्टी नवी येवजण जाहीर करता. हें सरकार अशेंच तिगून उरलें जाल्यार म्हाका दिसता आमकां काम करपाची गरजच उरची ना. रोवपाक बीं फुकट, सारें फुकट, लायट फुकट, उदक फुकट, शाळा फुकट, पुस्तकां फुकट, वखद फुकट, अंत्योदय येवजणे खाला तर सगलें फुकें सवाय. आं. ती अंत्योदय येवजण खंय आदल्या सरकाराची. कोणाचीय जायना - चालू दवरल्यार पुरो. म्हाका हेंय सरकार सारकें, तेंय सारकें. एक मात खरें- हालीं जानव्याक बरें मोल आयलां.

पयल्या पानार आमगेल्या मंत्र्याचो पान भर फोटो. बर्थडे खंय ताचो आयज. नशीब पळय हाचें - वेंचून आयलो आनी धपक्याक शिक्षणमंत्री. म्हाका ते जात्रेंत पळयिल्ल्या 'शबै शबै भोवजन समाज' नाटकाची याद जाली. 'शिरीची गांड चिरूंक येना तो शिक्षणमंत्री' हे वाक्य आयकून तेन्ना हांव पोटभर हांशिल्लों. पूण हो तांतलो न्हय आं! कॉलेज केलां म्हणटात. मनीस बरो आसूंये. फाटले वेंचणुकेंत हजार हजार वांटिल्ले खंय हाणें. हो आमगेल्या मतदारसंघांत उबो रावूंक जाय आसलो. हांगच्या दोनूय उमेदवारां कडसून म्हाका पांयशीं-पांयशींच मेळिल्ले.

''ओ बाबग्या...'' खुशालीन मार्गा वयल्यानूच कूय घाली. चाचा कडलें काम जालें ना काय हागेलें!

हांवें सोमतेच पेपर खांक्यांत घेतले आनी पांयतणां घालून भायर सरलों.

''येतलो व्हय रे?'' धपक्याक सगलें सांगलें जाल्यार तो खुशाली कसलो!

''खंय चल्लो तर?''

''तुका खबर ना? आमगेल्या मंत्र्यालो बर्थडे आयज.''

''तें तुजे पयलीं हांव जाणा-'' पेपर वावडून हांवें सांगलें.

''तूं येतलो काय विचारतां.''

''तुका धाडलां तर आमंत्रण?''

''हय तर! कामाक आफयला. माटवाच्या. आदाराक घेवन यो म्हटलां. कदेली बी मांडूंक. येता जाल्यार पळय. पांचपांचशीं मेळटले. हांव वयतां बाबा.''

''आतां जालीं धा. पावतलो केन्ना तर?''

''ती कितें सरकारी सिर्वीस तर? आतां वचून कामाक लागपाचें, थंयच भातें मारपाचें. मागीर परथून काम- पार्टी सोंपनसर. रातीन हाडून पावयतले खंय ते.''

'हांव कितें वावर करून पोट भरपाक जल्माक आयलां?' अशें विचारपाचें मनांत आयिल्लें. पूण गळ्यांतलें जानवें झेताक बरें. पोटाक उपकरता? तातूंत मंत्र्याल्या घरचें काम. कण्डो बरो हालल्यार पुरो. पांयशांची नोट पळयल्यारूय खूब दीस जाले. ते भायर पार्टेचें जेवण. मंत्र्याली पार्टी म्हण्टकच खावपाक तशें पियेवपाक! पूण पेपर तर म्हणटा-

''आरे, मंत्री आपणालो जल्मदीस सादेपणान मनयतलो म्हूण पेपरांत आयलां मरे! लोकांनी भेटवस्त, फुलां बी हाडचीं न्हय- ते बदला ते दुडू मुख्यमंत्री निधींत जमा करचे अशेंय सांगलां मरे ताणें...''

''आरे बाबग्या, तेंगेले दाखोवपाचे दांत ते. आमगेलो आदलो आमदार तेंच सांगिनासलो? आमी जेयले नात तेंगेले पार्टेक?''

लांब पॅण्टवालो हांव पिकपींत फुडल्यान बसलों. हेर मोटवे कलसांवकार फाटल्यान. माटोव हजार भर लोकांचो. ते भायर एके कुशीक शंबरेक लोकां खातीर गर्भकूड कसो स्पेशल खण. थंय स्पेशल कदेलां, स्पेशल सोबाण आनी स्पेशल जमखान. कोणेंय फर्मावचे पयलींच हांव थंय रुजू जालों. ताकतिकेन हांगा थंय करपाचें काम.

वट्ट थाट पळयल्यार प्रधानमंत्री बी येतलो काय दिसलें. थंयच बोवाळपी एका कारबाऱ्याक गांठून हांवें तशें विचारलें. मंत्र्याल्या पिएलो पिए खंय तो. ''पीएम येवपाचो. पूण ताका आयजच जर्मनीक वच्चें पडलें. सीएम येतलो... आं, तूं कितें करता? चल, तीं दोन म्हाराजा कदेलां आसात तीं हांगा स्टेजीर हाडून दवर. बेगीन.''

हांवें वेळ केला? पीएलो पीए करता तशेंच

केलें. एका मानायाचे कॉलरीक धरून शेडायलो, "आत्तांच्या आतां हीं दोन म्हाराजा कदेलां व्हरून स्टेजीर दवर. बेगीन."

सातांक आफयिल्लो बारीक लोक सातांकच येवन भरलो. आठ जावन येजमान मंत्री आयलो. आनी हेर म्हालगडे आमदार, मंत्री येतात म्हण सर णव जालीं. साडेणवांक सायरन वाजयत मुख्यमंत्री पावलो. मागीर घे भाशणां, मज्जा आयली. सटर फटर वक्त्यांनी मंत्र्याचे गूण गायले. भलायके मंत्र्यान घोशणा केली. ह्या गांवांत आतां हॉस्पिटल घालतले. मागीर लोकांक फुकट दोतोर, फुकट वखदां. संस्कृती मंत्र्यान सांगलें - गांवां गांवांनी देवळां बांदतले, भजनी स्पर्धा दवरतले. बिजली मंत्र्यांन म्हळें- गरिबांक बिजली फुकट दितलेच पूण वयल्यान दर घराक तीन तीन एलईडी बल्ब फुकट दितले. मुख्यमंत्र्यान सांगलें तें म्हाका लेगीत सारकें समजलें ना. स्टॅण्डप येवजण, स्टार्टप प्रॉजेक्ट, टेलण्ट सर्च, होंवरक्राफ्ट... तें कितेंय आसूं मागीर- गरिबां खातीरच आसुं ये. म्हाका जें जाय आसलें तें मात सीएम उलयलोच ना. पी एम आयल्यार हांव विचारतलों आसलों- ते पंदरा लाख आमच्या खात्यार केन्ना जमा जावपाचे काय म्हूण. इतलें म्हण सर उत्सवमूर्ती मंत्री उलोवपाक उठलो. आपूण गांवां खातीर कितें करतलों तें सांगचे पयलीं ताणें आदल्या आमदाराच्यो आनी फाटल्या सरकाराच्यो जायत्यो भानगडी वयर काडल्यो. आदल्या सरकाराली ग्रामसडक येवजण ल्हान ल्हान रस्ते बांदपाची आसली. थंय लेगीत मंत्र्यांनी कशे क्रोटांनी पयशे खाल्ले. आतां नवें सरकार स पदरी रस्ते आनी व्हड्व्हडलें उड्डाण पूण बांदतलें, ताचो लाव चडांत चड गरिबांकच जातलो... कुशीक बशिल्लो भौशीक बांदकाम मंत्री गरजे भायर अस्वस्थ सो दिसलो. तो आदल्याय सरकारांत बांदकाम मंत्रीच आशिल्ल्यान जावंये. पूण तशें कितें लोकांक खबर ना तर? त्या सरकारांतलो भ्रश्टाचारी मंत्री पक्ष बदलतकच भ्रश्टाचारी खंय उरता? आनी आतां भ्रश्टाचार केल्यार आमचो शुन्य-सहिश्णू मुख्यमंत्री आनी दिल्लींतलो प्रधानमंत्री ताका सुक्यान सोडटलो व्हय?

खावन-पियेवन जाता म्हण सर मध्यान उलगली. हरशीं बिअर लागना म्हणटात- पूण एकाच्यो दोन पेटयल्यो जाल्यार हांव गाडयेंतच न्हिदून पडलों. घरा कोणें देंवयलो जाण कोण. पूण जो कोण तो बरो मनीस आसूंये. बोल्सांतली पाचवी नोट तशशी आसली.

अचकीत नोटी बंदी जाहीर जाली. तरी बरें, हांवें म्हजे कडली पांयशां नोट आदल्याच दिसा मोडिल्ली. लोक सामको शेवाळ्ळो. पांयशीं-हजाराच्यो नोटी रातयांत पोल जाल्यो. हांव पेपर हाडपाक गेल्ले कडेन पळय जाल्यार आदल्या आमदाराच्या तेंक्यान वेंचून आयिल्लो पंच व्हडाव्हडान ताणशेता. आनी नव्या आमदारान जाका सरपंच केला तोय 'हय व्हय' म्हणीत आयकून घेता. म्हज्या मनांत आयिल्लें, तांकां सांगचें- 'सभाग्यांनो, दोन दीस रावात. नोटी-बंदी करून प्रधानमंत्र्यान सगल्या ब्लॅकिस्तांची बूच मारल्या. आतां क्रोटांचो काळो पयसो पोल जातलो आनी ते बदला लाखांनी रुपये गरिबांच्या खात्यांनी जमा जावपाचे आसात.' पूण वग्गी रावपांतलें शाणेपण हांवें शिकून घेतिल्लें.

वाटेर म्हाका पळोवन सब्दुलें धांवट आयलें, "आरे बाबग्या, तुज्या सांगण्यान मरे हांवें बँकेंत खातें उगडलें आनी आसले नासले दुडू थंय भरले. आतां कितें करूं रे हांव?" कपल धोडायता तें पळोवन हांवें अजापून विचारलें, "बँकेंत घालपाक तुजे कडेन दुडूच नात म्हण्टालें मगो तूं! मागीर खात्यांत खंयचे घाले?"

तितल्यान फाटसून पंच येता ताका पळोवन तें थंय धांवलें. वाटेर मेळपी जणेकल्याच्या कपलार मिरी. हांव खरेंच भाग्यवान. पांयशीं नात आनी हजारूय नात- हुसकोच ना कसलो. वाटेर चाचा मेळ्ळो. म्हाका पळोवन रावलो, नोटीबंदीचेंच उलोवंक. "आरे बाबग्या, हे नोटीबंदीन घात केलो मरे लोकांचो. तुका बी कांय तरास ना मरे? आतां तुका म्हूण सांगतां- पयरच हांवें तांदळांची पिशवी हाडल्या. तुका गरज आसत जाल्यार एक दोन कील व्हर तूं. यो." हांव ताचे फाटसून चलत रावलों. "आनीक कोणूय गरजेवंत आसत जाल्यार सांग आं! अश्या संकश्टा वेळार कोण उपाशीं पडूंक फावना."

घनीचाचा असोच. स्वताचें सोडून गांवचें पडलां हाका. म्हाका फाटलो उगडास जालो. त्या दिसा म्हाका आडावन सांगूंक लागलो, "शेतांत, उदकांत, मळार वचत थंय लोक प्लास्टीक उडयतात. बाबडीं गोरवां खातात आनी मागीर वळवळटात. ग्रामसभेंत कोणूय उलयात मरे हाचेर-". हांवें म्हळें, "सरपंच तुजोच मरे. ताकाच सांग चाचा." तर म्हणूंक लागलो, "सांगून जालें. 'हांव कितें करूं?' म्हणटा." हांव अजापलों. ह्या चाचाचे ताचेर कितले उपकार. तागेल्या मेवण्याक सावदींत सिर्विसेक लायला तो हाणेंच, सलीमाक सांगून. पूण अनुपकारी रे बाबा हो सरपंच. घनीचाचालें इतलेंशें कामूय करूंक नज हाच्यान? ताच्यान जायना जाल्यार हांव आनी कित्याक मर्दी पडूं! झक मारली तांची. हांव कांय ग्रामसभेक वचना आनी गेल्यारूय कांय उलयना. पंच-सरपंच आपणाक जाय तें करपाचें सोडिनात आनी हो चाचाय आपणाली जनसेवा. तरी बरें सलीम थंय सावदीक जोडटा. खोऱ्यांनी ओडटा आसतलो- शाबा सांगतालो तशे. देखून चाचाक परवडटा ही जनसेवा. मोनजातसेवा लेगीत. पयर एक रस्ताद सुणें स्कुटरीक आपटलें. पावलें चाचागेर. फाटल्यान रावपी रुक्मीण मेली. तिगेलीं माजरां चाचागेर. हांवें पयर म्हळें लेगीत - कित्याक तुगेलो व्याप वाडयता, चाचा! आपणें आपल्या जिवाचें पळोवचें, म्हजे भाशेन.

एका हातांत रेशन कार्ड आनी दुसऱ्यांत केरोसिनाचो कॅन घेवन सोसायटींत वचूंक भायर सरिल्लों. वाटेर फाटसून कूर्र ब्रेक मारून एक पिकप थारली. "ए... मदल्यान काय चालता? कडेक सर" आनी एक गाळ शी मारून फुडें गेली. म्हाकाय राग आयलो. पूण पळय जाल्यार मुखल्यान वागाचो बावटो. शीवसेना तर ही. म्हाका कित्याक पडलां? म्हाका हातय सारको आनी शींवय सारको तसो हो वाग. म्हण सर कमळाचो स्टिकर लायिल्ली जीप पळयली. जुआंवाल्या खर्ना मुखार राविल्ली. दीस वेंचणुकेचे काय न्हय.

जुआंवाक ते कितें तरी विचारताले तें जुआंवाक सारकें समजनासलें. दोन चांटां मारून हांव फुडें गेलों.

"हे कडेन खाटीकखानो कोठें आसा?"

हे गांवचे कांय न्हय. "कितें काम आसा?"

"मट्टण कोठें मेळता?"

हे काय मटण खावप्यांतले दिसनासले. हांवें तरी मटण केन्ना विकतें घेतलां! "हांगा मेळना. आमी वाळपय सावन हाडटात. वाळपयची वाट सांगूं?" जाल्यार तांणी रागानशें पळयलें. हांचे मिजगतीक ना गेल्लें बरें अशें म्हूण हांव कडसरलों. जिपय घुर्र करीत तिडकूनशी गेली. कसकसलीं सवंगां येवंक लागल्यांत गांवांत - आमदाराक वा सरपंचाक सांगूंक जाय. पूण नाका. म्हाका कित्याक पडलां? तांचे ते पळोवन घेवं दी.

हालीं रेशनाचेर लेगीत केरोसीन म्हारग जालां. खरी दर कितेंय आसूं. धा रुपयान लिटर काडटात. चॉळ ह्या सोसायटी वाल्यांचें. पूण मेळटा न्हय वेळावेळार! पन्नास फारीक करून पांच लिटर घेतलें. सोमतेंच दोन लिटर अब्दुलाले गॅरेजींत पावयलें. ताणें हातार ऐंशीं उडयले. उरिल्लें आवयच्या हड्ड्यार घालून म्हळें, "पावोवन घे. आनीक मेळपार ना."

"हें पावना म्हूण काल घनीचाचा कडेन कार्ड मागूंक गेल्यार ताणें मरे सांगलें - आपलें कार्ड सदां तूंच व्हरता म्हूण. पयरूच व्हेल्लें म्हणी तो."

सकाळीं फुटी च्यांत बुडोवन फांती खातनाच आवयन सुरू केलें, "मातशे हातपांय हालय रे पुता..." ती फुडें कितें उलयतली तें सगलें पाठ आसा म्हाका.

चाळीस वर्सांचो घोडो जालो... आतां कोण व्हंकलय मेळची ना... म्हज्यान आतां काम नज... शेता कुडको रोयतां म्हूण पेजे पुरते तांदूळ तरी मेळटात... मानाया परी मानाय, कुस्कुटाचो आदार ना... चाचाल्या सलीमाक पळय... गुलाबीलें सुमन लेगीत सिर्वीस करता... देवा, म्हाका हातरुणार मात उडय नाका... हो म्हजी वासपूस आनी कितें करतलो... मेल्यार सुटलीं म्हणटासलीं, पूण हाचें फुडें कशें जातलें रे देवा...

सदांचेंच हें तिगेलें. तिका कितें खबर म्हज्या मनांतलें! बँकेंत खातें उगडलां तें बेठेंच न्हय. विदेशांतलो दोंगरा इतलो काळो पयसो धरून हाडटले तेन्ना दरेक गरिबाल्या खात्यार पंदरा लाख जमा जावचे आसात. ते खातीर आधार कार्ड करून दवरलां हांवें. आनी आवयक दिसता म्हाका तिचें कांयच पडून वचूंक ना. तिका बाबडेक खबर ना. सरकारान नवी उज्वला येवजण चालीक लायल्या. गरिबांक फूकट गॅस आनी शेगडी मेळपाची आसा. मागीर आवयक रांदनीचीय गरज ना आनी स्टोवाचीय. पयर 'मन की बात' सांगतना प्रधानमंत्र्यान म्हणिल्लें- आपणाचेर विस्वास दवरात आनी थोडी वाट पळयात. हय. दोळे धांपून विस्वास दवरला हांवें. हांव वाट पळयतलों. पंदरा लाख बँकेंत येतले ताचें कळंतर वर्साक देडेक लाख. मागीर बसून जीण सारप- घश्टे काडून जियेतल्यांची काकूळट करीत.

पेपर हाडपाक वतना उकडिल्ल्या भाताचो परमळ नाकांत भरलो. रंगाशणैन रस्त्या कुशीक हातरी पातळावन उकडिल्लें भात सुकूंक घाल्लें आनी स्वता भाताक पांयांनी चाळो मारतालो.

"ओ दादो, सकाळी फुडें लागलो कामाक?" हांवें साद घालो.

"तुगेली सकाळ निकती जाल्या. म्हगेलें भात झिळमिळट्यार उकडून तयार जाल्लें."

हागेले थोमणे आयकुचे परस वाटेक लागिल्लें बरें अशें म्हूण पांय उखलपाक रंगाशणैन उलो मारलो, "बाबगो पेपर हाडूंक वता मरे? येतना म्हगेलोय हाडटा? बाब शाणो..."

पेपर खांक्याक मारचे पयलीं हेडलायनी वाचल्यो. स म्हयन्यां भितर सगले कॅसिनो मांडवींत सून भायर धांवडायतले अशी घोशणा मुख्यमंत्र्यान केल्या. जावं! खूब पासियेंस काडलें मुख्यमंत्र्यान. आतां पडटली भोंकार खोंट ह्या कॅसिनोंच्या. काळो पयसो ओतून फॉल्गां मारपी गिरेस्तांची आतां बोब पड्टली हें येवजूनच जिवाक बरें दिसलें. हें खरें लोकांचें सरकार. गिरेस्तांलो कॅसिनो बंद करपी सरकार गडगड्या कडेन आडनदर करता हाचे वयल्यान सरकार गरिबां खातीर वावुरता म्हणपाचेंय सिद्ध जाता. आतां तो विदेशांतलो दुडू बेगीन - आरेच्या! फाटीं सरून रंगाशणैलोय पेपर घेवन परतत जाल्यार खंयचे तरी एके बडकेल्ले गायेन रस्त्या कडेक सुकत घाल्ल्या भाताक तोंड लायिल्ल्यान खुबळिल्लो दादो दांडो घेवन ते गायेक बडयता. गाय धांवतां धांवतां तिच्या फाटल्या दोंक्यार दादालो दांडो पडलो आनी ती थंयच पडली. पूण दादालो राग माथ्याक मारिल्लो. आनीक दोन दांडे पडना फुडें ती बाबडी गाय तशीच जाता नज करून उठली आनी तीन दोंक्यांर लंगडत धांवंक लागली.

"आसूं दादो, मरतली ती." हांवें सुटनासून म्हळें.

"मरूं ती पाडा पडिल्ली. मातसो च्याचो घोंट मारूंक भितर वच जाल्यार हिणें भात भकपाक सुरू केलें. जितीच मारतासलों."

"दादो, गायेक मारप म्हळ्यार ब्रह्महत्या, म्हापातक. मागीर प्रायश्चीत करपाक काशीक वचून-"

"तें भंगू, बाबग्या. हाड पळोवंया तो पेपर!" दादोन थंयच पेपर उगडलो. माजराची नदर भोपशार तशी ताणें तीच खबर वाचली, "मोपा- खंय पावलां काय काम! जाल्यार पुरो बेगीन."

"जातलो विमानतळ थंय."

"जावंकच जाय. म्हगेली जमीन आसा थंय मुंडकार गिळूंक सोदताले - आतां खायात! भांगरा मोलान विमानतळाक वतली ती जमीन आनी दुडू येतले म्हज्या हातांत." गोरवान भात खातकच तांबडें जाल्लें दादोलें तोंड आतां सकाळच्या साळका वरी फुल्लें.

शाबाल्या दारा कडेन पाव जाल्यार ती कुल्त कुल्त चलपी गाय ताच्या दारांतच बसकण मारूंक लागिल्ली. शाबा बडी घेवन धांवट आयलो आनी हर्त हर्त करून तिका फुडें धांवडायली. अशीं तशीं चार-स पावलां घालून ती बसलीच. काकूळट दिसली खरी. पूण हांव तरी कितें करतलों? भंगू बाबडेचें!

दुसऱ्या दिसा पेपर पंचायतींत पावोवन परतो येतना शाबा मेळ्ळो. "बरें जालें बाबग्या,

(पान ४५ चेर)

# फुलतना

गजानन जोग

त्या सुटये दिसा सकाळीं एक बारिकशी घडणूक घडली. घडणूक म्हणपा इतलें लेगीत ते गजालीक म्हत्व दिवचें काय ना होय एक वादाचोच विशय जातलो. पूण घडणुकेक लागून आमच्या तिगां जणांच्या संवसारांत घुस्पागोंदोळ जालो. आमी तिग म्हळ्यार हांव, ही आनी आमचें धाकलें प्राजक्ता. ती घडणूक पळेले उपरांत प्राजक्ता आदलें उरूंक ना जाल्यार ताचे तकलेंत ताचे पिरायेक जड अशें कितें तरी वचून बसलें.

पयलेंत गेल्लें प्राजक्ता सद्दां कितलेशेंच नवें नवें तकलेंत घेवन शाळेंतल्यान घरा येतालेंह आनी मागीर त्या सगल्याचो मारो म्हजेर आनी हिचेर करतालें. दिस भरांत ते इल्ल्योशो तकलेंत कितें कितें वता आसतलें हाचो अदमास ताच्या प्रस्नां वेल्यान येतालो आनी म्हजी तकली कणकणपाक लागताली. पालकत्व तें आनी कितें व्हडलें? आमकां वाडयल्यांत तशीं आमी भुरग्यांक वाडोवपाचीं अशें म्हणत हांव सदांच दुसऱ्यांचीं फकाणां मारपी मनीस पूण हांवें पळयल्लीं तीं सगलीं वाडटीं भुरगीं त्या काळांतलीं आनी एकाच घरांत चार-पांच जणां रावतालीं तेन्नाचीं. वाडट्या भुरग्यांचे तेन्नाचे प्रस्न आनी आतांचे प्रस्न हांची तुलनाच जाय नासली. बाबा गेले उपरांत गांव घरांत शेजाऱ्नीच्या आदारार एकटीच रावपी म्हजी आई सट्ट करून नदरे मुखार आयली आनी तिका जाता तितले बेगीन हांगा हाडची अशें म्हाका दिसलें. पूण ती हांगा रावपाक येवप शक्य नासलें आनी दुसरी म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार हिकाय आईन हांगा रावचें अशें दिसनासलें. ही केन्नाच आईक हाडूंया अशें म्हणनासली. हांव एकटोच, केन्नाय प्राजूक घेवन वतालों आनी तिची खबर घेवन येतालों.

शारांतलें, गर्दैतलें तें बिराड सोडून आमी नव्या, गांवांतल्याशा बिराडांत आयिल्ल्या उपरांत आमी खरेंच तीन-साडेतीन म्हयने खूब खोशयेंत आसलीं. आस्कळ विस्कळ चार रुमांचें शेकान शेक घर, मुखार आंगण म्हणूं येता अशी मेकळी सुवात, थंय सात-आठ माड कवाथे आनी मदीं मदीं फूलझाडां रोयिल्लीं आसलीं. तांची कुयदाद आमी आयिल्ल्या उपरांतूच जावपाक लागिल्ली. फाटले वटेन पोरसूंय आसलें. थंय एक आंबो, बिंबलीण, आंवाळीण आनी आनीक एक झाड आसा जें तकलेक त्रास दिवन लेगीत म्हाका वळखूपाक येवंक ना. फाल्यां सट करून याद येयतूय कित्याक तर तसलें झाड हांवें खंय तरी पळेलां. घराक बेसबरो शेर्क आनी गेट. पयलीं घरधनयाचें घर आसा, तेंकून आमचें बिराड. धनयाचो जर्मन शेफर्ड सुणो रोखडोच आमचोय सिक्युरिटी जाल्लो. प्राजक्ताचो जाल्यार तो सामको इश्टूच म्हणपाचो. तें ताचे फाटीर बसून ताका चल मेरे घोडे म्हण्टालें. तोय बाबडो ताळ्यांतल्यान चित्र विचित्र आवाज काडीत तें वांकुळपाचें सूख भोगतालोशें दिसता. मुखार शेतवड आसा. मदल्यान बारिकसो कदीम काळांत दांबर घालिल्लो एक रस्तो आसलो. चिंचो, आंबे हांचे मदल्यान वाट काडीत तो सवकासायेन फुडल्या वाड्यार वतालो. आमच्या व्हारांदाक तेंकून कशें एक ल्हानशें तळें आसलें आनी तातूत एक साळकांची वालूय आसली. मदीं मदीं साळकां फुलतालीं. त्या दिसा फुलिल्ली कळी हांवें पळयली आनी हीं दोगांय उठकीच तांकांय दाखयली. म्हजें जनेला कडलें मेज म्हाका बरोवपाक आनी भायर पळोवपाकूय बऱ्याक पडटा. हालीं हालीं ताचेर उबें रावन प्राजक्ताय भायर पळयत बसता. थंयच्यान कितल्योशोच गजाली दिसतात अशाच जाग्यार तें व्हडलें टेबल आसलें. तें घर धनयाचें आंतीक टेबल. हांव बोरोयनार हें कळटकीच एक दीस दोन मानाय हाडून आमच्या फोर्तुनाद भाटकारान तें हाडून जनेला कडेन दवरिल्लें आनी जाय तितलें बोरोय सुस्सेगाद अशें ताणें म्हाका सांगिल्लें. थंयच्यान भायलो वाठार सिनिक म्हण्टात तसलोच आसलो. त्या तळ्यार कावळे, किरकिरे, बारकेलीं तीन तरांचीं शेवणीं अशे जायते मेंबर येताले. प्राजक्ता जाल्यार सरळ त्या टेबलार चडून बसतालें आनी केन्ना केन्ना उबेंय रावून पळयतालें.

त्या दिसा थंयच म्हजी तंद्री लागिल्ली. म्हण सर चीं चीं आवाज करून धनयांचीं



धुकरां हे वटेन ते वटेन धांवपाक लागलीं. कितें जालां तें पळोवया अशा विचारान हांव दुसऱ्या जनेला कडेन उबो रावलों. दोग जाण मानाय एका दुकरा फाटल्यान लागिल्ले. तो आड्डत आड्डत हे वटेन ते वटेन धांवतालो. बाकीचीय दुकरावळ कांचेवन धांवत सुटिल्ली. तांतुतलो एक पोर फुलझाडांच्या घोलांत लिपून रावून हेवटेन तेवटेन पळयतालो. मागीर मानायांनी त्या व्हडल्या धुकराक खंय तरी फाटले वटेन धरलो आनी ताका शेंकऱ्या वेल्यान भरभर आवाज करीत, वोडीत मुखारचे मेकळे सुवातेर हाडलो. तो धडपडटालो आनी तार पट्टेंत जो चीं चीं आवाज करतालो तो आयकून भितर कितें तरी रोमतालें.

म्हण्टा म्हण सर हात-पांय बांदून एक पोटली कसो केल्लो तो धुकर एक फातर सो जावन जमनीर पडिल्लो. फकत ताचें पोट धपापतालें आनी मदीं मदीं सगळेंच आंग धुकल्ले भशेन करीत तो होंक होंक करतालो. मागीर हांवें केन्ना दोळे मेटून घेतले आनी चिंतनांनी घुस्पलों कांयच कळ्ळें ना. खट खट आवाजान म्हजी तंद्री तुटली. पळय जाल्यार त्या दोगांनी थंय मुखारूच पद्दतशीरपणान एका पोन्या लांकडी वांशाचो उपेग करून दुकराचे कुडके करपाचें काम सुरू केल्लें.

'प्राजू प्राजू, जनेलार उबें रावून कितें पळेता तूं?' हिणें भितरल्यान येवन आड्डत विचारलें.

'प्राजू प्राजू, पोरा कितें जालें तुका? हुंडकेता शें तूं?.. आनी तूं रे, तूं कितें भायर पळयत रावला?' भायर कितें चलिल्लें तें हिणेंय आत्तां पळयल्लें दिसता. हांव भानार आयलों आनी हिच्या आड्डूपाचें कारणूय म्हाका तेन्ना कळ्ळें. प्राजक्तान दुकराक मारपाची ती सगली क्रिया साग्रसंगीत पळयल्ली म्हणपाचें ताच्या तोंडा वेल्यानूच कळटालें.

'तुमी कितें करताले तर? प्राजू केन्ना उठलें, केन्ना हांगा पावलें आमकां कांयच खबर ना मूं! आनी तुमी हो लेखक म्हाशय, तुमची तकली खंयचे कथा कादंबरेंत घुस्पल्ली?' हिणें किंवाट्यान म्हाका विचारलें आनी हातांतलें कितेंहतरी आयदन टेबलार आपटून प्राजूक उखलून घेत ती भितर गेली.

'आगो पूण, हांव घुस्पलों गो, हांवें तरी केन्ना पळयलां हें असलें!'

'बरेंऽऽ केलें, आपणेंय पळयलें आनी म्हज्या बचक्या एद्द्या पोराकूय दाखयलें! धन्य तुमी! ताच्या मनार हाचो कितें परिणाम जातलो खबर आसा? तुमी प्रोफेसर, हांव एक सादी हायस्कूल टीचर... लेखक खंय लेखक!' भितरल्या रुमांतल्यान म्हजेर उतरांचो शिंवर जातालो आनी तकली शांत दवरपाचो येत्न करप फकत म्हज्या हातांत आसलें.

मागीर प्राजूक खावपाक दिवन हिणें तिडकीन सगलीं जनेलां बंद करून उडयलीं. सकाळीं घडिल्ले ते घडणुकेक लागून सुट्येचो तो अख्खो दीस मौनांत गेलो. दोन तकल्यो दोन दिकांनी चिंतताल्यो. तिसरी तकली कितें तरी चिंतताली हें तोंडा वेल्यान कळटालेंच. पोर मात्शें बाविल्ले भशेन दिसतालें. सुट्ये दीस आसून लेगीत गार्डनांतले झोपाळे, दर्यावेळ ही कार्यावळ जावंक ना. नाय जाल्यार म्हाका ते रुटीन पद्दतीन मजा केल्ले भशेन करपाचो कंटाळोच आयिल्लो. भायर वचपाचो विशय कोणेंच काडूंक ना. हांवें पुस्तकांच्या कपाटांत तकली घाली आनी बारीक सारीक वाचन करीत रावलों.

रातीं जेवून प्राजक्ता न्हिदले उपरांत हिणें तो विशय काडलो. 'आयकलें, आमी हें बिराड सोडूया!'

'आगो, कितें उलयता गो! हालींच ह्या बिराडांत रावपाक आयल्यांत आमी. आतांच मात्सो सुसेग मेळटालो. इतलो सुंदर हो वाठार...'

'तें सगलें खरेंच आसा पूण आमी हें बिराड सोडूया. ह्याच चार दिसां भितर दुसरें बिराड पळोवप आनी शेनवारा सामान हालोवप.'

'पूण कित्याक लागून?'

'तें आनी सांगपाक जाय? प्राजू ल्हान ना आतां. ताका सगलें कळटा. खबर आसा ताणें कितें विचारलें म्हाका व्हदळ न्हिदचे आदीं?'

'कितें?'

त्या दोगांनी त्या काय बऱ्या धव्या दुकराक कित्याक मारलो गे आई? ताणें विचारलें, त्या दुकराचे आई-बाबा कशे वग्गी रावले? तांणी दुकराक मारपाक कसो दिलो? तो कितलो रडटालो, कोणेंच ताचें आयकूंक ना, कोणेंच ताका सोडोवंक ना!... कितलें रडलें बाबडें पोर!

'तें इतलें उलयलें, वा, तशें जाल्यार शी इज ऑन रायट ट्रॅक!' म्हज्या तोंडांतल्यान हीं उतरां गेलीं आनी ही घे म्हणून चाळवली, 'कितें उलयता तुमी? सगलें आयकात आनी मागीर कॉमेन्ट करात. ताणें कितें विचारलें खबर आसा, म्हणपाक लागलें, फाल्या त्या दोगांनी येवन म्हाका धरलें जाल्यार?'

हांवें कांय म्हणूंक ना पूण पोराचीं तीं उतरां आयकून म्हाका भितर चर्रर जालें हें मात खरें.

'जालें तेंच खूब जालें. आनी आनी हांव पोराक हांगा दवरपाचें ना.'

'आनीक एक बिराड बदलूं तर? हांगा येवन कितले म्हयने जाले गो?'

'ह्या उलोवपांक कांयच अर्थ ना. गरज बदलपाची जाल्यार बिराड बदलूंक जाय! आमी हें दुकरांचो संडासवालें घर घेतलें तेंच चुकलें आमचें! प्राजूक त्या संडासांत वचपाची सवंय हांवें कशी केल्या, म्हाकाच खबर!'

xxx

हिची एक सहकारी टीचर पोन्या घरांत रावताली आनी हावसिंग सोसायटेंतलो फ्लॅट तिणें भाड्याक दिल्लो. सोसायटीच्या नव्या थरावा प्रमाणें घरभाड्याचें १० टक्के सोसायटीक दिवपाचें जालें, तेन्ना ते टीचरीन भाडेकाराक फ्लॅट सोडपाक लायलो आनी आपुणूच रावतलें अशें बी मेंबरांक सांगलें. ज्युस्त त्याच वेळार आमचें घर बदलपाचें थरिल्लें. सगलें थरोवन फुडल्याच शेनवारा सांज वेळार आमी सामान व्हेलें त्या दिसा ती टीचर आमचे बराबर फ्लॅटार आयली. ही आपली भयण लागता, सद्या आमी दोगीय हांगा रावतल्यो अशेंय तिणें मेंबरांक सांगून उडयलें. मदीं मदीं ती येवन वतालीय. फुडें रोखडीच आयिल्ली त्या वर्साची दिवाळी आमी थंय साजरी केली आनी आमकां, चड करून प्राजक्ताक मजा आयली. चडशे सगले मेंबर एकमेकां कडेन बरे तरेन वागताले. दोन क्रिस्तांव मेंबर आसले पूण ते चुकूनूच थंय पावताले. चडशा सगल्यांगेर दोन दोन भुरगीं आसलीं आनी वेळ मेळटा थंय सोसायटेचे मेकळे सुवातेर तीं धुमशेणां कांडटालीं.

सहजपणान प्राजक्ताय तांचे भितर भरसुपाक लागलें आनी अख्खो दीस खेळाकूच पावना अशी ताची मनस्थिती जाली. तीं वांगडचीं भुरगीं, ते सद्दां नवे नवे खेळ आनी तें. मात्सो मतिमंद आशिल्लो मिश्यो फुटपाक लागिल्लो हांसमूख गणूराया हेंच त्या सगल्या भुरग्यांचें विश्व जाल्लें. प्राजक्ताक जाल्यार जेवपाकूय वेळ मेळनासलो. सांज वेळार तिनां उपरांत घरांतूच आसपी हिका पयले थोडे दीस त्या मेकळ्या वेळाचें अप्रूप दिसतालें. प्राजक्ताक घेवन आड पडप ना जाल्यार वाचन करप, संगीत आयकप अशे तरेन तिचे दीस बरे वताले. दनपारचें न्हिदपी प्राजक्ता थोड्याच दिसां भितर ही न्हिदल्याशी पळोवन सकयल खेळपा खातीर देंवपाक लागलें आनी थंयच्यान परती कटकट सुरू जाली. सांज वेळार कॉलेजांतल्यान हांव येतालों तेन्ना प्राजक्तान आपणाली आयची मज्जा म्हाका सांगप आनी हिणें प्राजक्ताच्यो कागाळी च्यावे वांगडां म्हाका खाववप अशी पद्दत जावन पडली. पयलेच्या त्या भुरग्याचो अभ्यास तो कसलो! ताच्या देंविल्ल्या एकेका मार्काक लागून आमगेर एकेक वर आरती-परती चर्चा आनी फुडें फुडें वादावादी जावपाक लागली. दीस भर इतलें उमेदीन भरिल्लें प्राजक्ता हांवें केन्नाच पळोवंक नासलें आनी मनातलें सांगचें जाल्यार म्हाका हिच्यो कागाळी कशशोच पटनासल्यो... पूण. खरें आसा, धा गांवच्यान आयिल्ले आनी गोंयां भायल्या कर्नाटक, महाराष्ट्र, केरळ आदि राज्यांतल्यान आयिल्ले थोडे घराबेय सोसायटेत रावताले. एकलो भेळपुरी वालो भय्याय कॉलनींत रावतालो. ताचे दोन गाडे रातीं केन्ना तरी येवन कॉलनीच्या फाटले वटेन रितेपणान उबे रावताले!

तरतरांच्या भुरग्यांनी भरसून प्राजक्ताची भास बदल्ली हें खरेंच. दुसऱ्या भासांतलीं हुच्च, हॅवॉक, चक्कर साला, असलीं उतरां ते वापरपाक लागलें. पावसा पाणयांक आनी भाशेक कोणाच्यान भरसुपा पसून पयस दवरूंक जाता? वाऱ्याक आडावंक जाता? ताका दिका दिंवक जाता, आपणाक सुगूर करपाक जाता अशें किर्तें किर्तें सुचता तें हांव हिच्यो कागाळी आयकून सांगतालों आनी तितली तितली ती म्हजेर बेजारताली. हांव म्हजी कॉलेज आनी साहित्यांक विश्वांत गुल्ल जालां आनी कांयच सिरियसली घेना अशें तिचें मत जाल्लें. एके शेनवारचे राती म्हजो बालक-निती वालो इश्ट मोहन रावपाक आसलो. जेवणार आमची तात्विक चर्चा सुरू जाली. भुरग्यांक किर्तें शिकोवप आनी किर्तें न्हय, किर्तें तांचें ताकांच शिकपाक दिवप हाचेर म्हळ्यार पालक-नितीचेर चर्चा पावली. मध्यान रात जाय मेरेन आमचें चलिल्लें. तो बोंवाळ आयकून प्राजक्ता लेगीत उठलें. ही ताका न्हिदोवपाक गेली तेन्ना हांवें इश्टाक हिचे प्राजक्ताक लागून सदांच पडपी चिंतेचे किर्तें करप काय विचारलें. जाल्यार ताणें सांगलें तुमी मुळां कडेन वचात. तुजें काय बरें घर आसा, म्हत्वाचें म्हळ्यार तुजी आई थंय रावता. तूं बिराड थंय व्हरशी जाल्यार तिका कितलो आनंद जातलो, कल्पनाच करून पळय! घराक तेंकून म्हण्टात तशी सरकारी शाळा आसा. गांव आनी शार हांचो एकवट म्हळ्यार सिलेज- सिटी आनी व्हिलेज हांचो मेळ म्हळ्यार सिलेज ही सद्या चलपी संकल्पना जावन आसा तीं तूं तुजे पुरती प्रत्यक्षांत हाड अशें ताणें सुचयलें. हिका गांवां लागींच्या हायस्कूलांत फुडल्या शिक्षणीक वर्सा सावन नोकरी, तीय पर्मनंट रुपांत मेळोवन दिवपाची ताणें जापसालदारकी घेतली.

'आनी म्हजें रे, हांवें सद्दां पन्नास किलोमीटर यो वच करप, शंबर किलो मीटर जातलें मरे तें.!' हांवें विचारलें.

'सद्या यो वच कर, मागीर तुज्यान जूनात कॉलेज सोडूं येता' सहज कशें ताणें सांगलें.

'किर्तें पिसावला तूं, एकल्याच्या पगारांत आतां कोणाचेंच भागचें ना!' सर्विस सोडपाची कल्पनाच म्हाका सोंसना जाली. पूण ताणें सद्याच्या शिक्षण वेवस्तेचेर एक लेक्चर मारलें आनी फुडें जेन्ना हांव रिटायर जातलों तेन्ना दुसरे खंयचेय शिर्वीसे भशेनूच पाट्या टाकणे म्हण्टात तशें आयुश्यबर केल्ल्याचें दुख्ख तुका जातलें. तुजे कलीग, मॅनेजमेंट, पीटी असोसिएशन आनी राजकी फुडारी सगले मेळून शिक्षणाच्यो भयो भयो करतात. मनांत बरें करपाचें आसलें तरी तें करपाक मेळना. फुडें फुडें तुका फ्रश्ट्रेशन येता हेंय ताणें सांगलें.

'मागीर तूं किर्तें सुचयता म्हजे खातीर शिक्षण क्षेत्रांत?' हांवें विचारलें. 'तुज्यान फाटीं फुडें स्कूल काडूं येता, सद्या तूं गांवांतल्या भुरग्यां खातीर क्लासीस काड. पयशे व्हडलेशे मेळचे नात, पूण तुका जाय तशें शिक्षण तूं दिवपाक शकतलो. त्या आशिकुशीच्या साताठ गांवांतल्या भुरग्यांक तूं एक फ्रेंड फिलॉसॉफर गायड कसो जातलो. त्या भुरग्यां कडेन भरपूर ऊर्जा आसता रे, पूण बाबड्यांची घरांतली फुडें शिकपी अशी पयलीच पिळगी जाल्ल्यान तांकां घरांतल्यानूय सारकें कसलेंच फाटबळ मेळना. एकलव्या भशेन थोडे आपले आपूण तयार जातात, तुजे सारको तरनाटो जर तांकां मेळटा जाल्यार ते बरीं बरीं सपनां पळोवन तीं सत्यांतूय हाडटले!' तें आयकुपाक बरें दिसतालें पूण सुगूर शिर्वीस सोडून बसप म्हळ्यार पिशेपणांच जातलीं, ते भायर हिका तें पसंत पडपाक जाय न्हय.

शाण्याक तीन कडेन म्हण्टात. त्या तिसऱ्या बिराडांत आमकां चडूच भोगलें. एक दीस हांव घरा ये जाल्यार आमच्या फ्लॅटाच्या दारांतूच सगलो बोवाळ सकयल आयकुपाक येतालो. वयर वच जाल्यार तिनाय फ्लॅटांचीं दारां उकतीं. तो लांब रूंद गणुराया बोल्सांत हात घालून उबो आसा आनी ताची आवय हिचे कडेन व्हडल्या व्हडल्यान झगडटा. पयलेच पावट हांवें ताका लागींच्यान पळयलो. ताची वाळू वांकडी आशिल्ली आनी नदरेंतली जाणविकाय पिरायेच्या मानान अर्दीच कशी दिसताली. ही काचाबूल जावन किर्तें किर्तें उलयताली, तिचे फाटल्यान प्राजक्ता रडकुऱ्या तोंडान उबें आसलें. 'हो पळय हाडला पोराक, करात ताचे हुजरीं रुजवात! यो, तूंय पावलो, बरें जालें, ही तुजी बायल म्हण्टा, ह्या अन्जान बाळकान खंय तुजे चलयेचेर आगळीक करपाचो येत्न केलो.' त्या पोराचे आवयन बचकुलाक धरून म्हजे मुखार ताका उबो करीत म्हळें.

'म्हजें आयक आनी तूं ताका घेवन चल. भुरग्यांच्यो रुजवाती तिरायता कडेन करच्यो न्हय. प्लीज ताका व्हर, म्हाका मात्सो विचार करपाक दी! हांव मागीर येवन तुका मेळटां, चल मात्शी प्लीज!'

ती गेली आनी म्हाका सू जालें. दार बंद

करून हांवेंच च्या केली आनी हिका म्हळें, आदीं थंड बसून च्या घे, मागीर उलोवया. ती वेळ हांवें कशी तरी निभावन व्हेली. ही सामकी हालून गेल्ली आनी तकली दामीत बशिल्ली. प्राजक्ताच्या दोळ्यांत म्हाका कसलीच भिरांत दिसूंक ना आनी हांव धादोशी जालों. चार जणां कडेन उलोवन आमी अदमास घेतलो. दोन तीन दीस गेले उपरांत हांवें ल्हवूच प्राजक्ताक हांसत हांसत त्या दिसा गणू रायान कितें केलें काय विचारलें. तेन्ना ताणें सांगलें, गणू रायान ताका घट धरलें आनी तो सोडीच ना जालो, ताचो स्वास घुस्मटपाक लागलो. मागीर तें आड्डलें आनी थंय वाऱ्याक बशिल्ल्या सोसायटींतल्या तिगी जणींनी गणूरायाक जोत्यानी मारलो. तेन्ना तो कसो रडलो हेंय प्राजक्तान सांगलें. कांय दिसांनी प्राजक्ता ती गजाल विसरलां आसतलें पूण हिणें ताका सकयल खेळपाक धाडपाचें बंद केलें आनी ताचो सामको वायट परिणाम प्राजक्ताच्या मनार जालो. तें हिचे कडेन झगडपाक लागलें तिच्यो कागाळी सांगपाक लागलें. सुटना तसलो पेंच तयार जालो.

xxx

तेंय बिराड सोडपाचें अशें हिचें थरलें आनी ती बिराड सोदपाकूय लागली. म्हजी तकली तिणें खाली अशें म्हणप सारकें न्हय, पूण तेंच तेंच मनीस झरयत बसलो जाल्यार दुसऱ्याची तकली फोडपाक लागताच. एक दीस म्हजें पासियेंस सोंपलें आनी हांवें म्हळें, 'आगो, खंय म्हणून वतलीं आमी? दरेका बिराडा वांगडा कितें ना कितें कटकट फ्री मेळटलीच. तिचेंह्वकितेंह्व करचें, कशी स्वीकारची आमी थरोवपाक जाय.'

'तितलें म्हाकाय कळटा, पूण चलयेच्या वाडट्या, संस्कारांच्या वयाचो प्रस्न आसा एक कळी फुलतना तिका जाय तें तें सगलें मेळपाक जाय, तें दिवपाक जाय आमी!'

'मानलें हांवें तुजें, पूण अशी सुवात तरी खंय मेळटली जंय कसलीच कटकट ना अशें?.'

'झक मारली आनी फुडें फुडें शिकून शारांत आयलें हांव. वांगडच्या शोभा, विमल शामा जावन बेसबरो सरकारी पगार घेतात आनी आसलींच वर्गांत धा-पांच पोरां जाल्यार तांकां वाचन करपाक सांगून आपून मोबायल गेम खेळटात ना जाल्यार ग्रुपार पडून आसतात.'

'तुका ही भितरली बातमी कोणें दिली गो?' हांवें हांसत विचारलें. जाल्यार तें ताचेर कांयच उलोवंक ना. फकत विचित्र हांसलें आनी तुका कुत्सितपणाच फकत दिसतात अशें तिणें म्हळें.

'म्हजे तकलेंत येता तें सांगतां, आमी आईक हांगा हाडूंया गो, प्राजक्ताच्या प्रस्नांक तीच बरे भशेन फुडो करतली आनी तुकाय इल्ली मजत जातली.' 'तुमी म्हण्टात तांतुतलें एक्कूय सारकें जावंचे ना. आनी म्हज्यान तें सोमार, बिरेस्तार शिवराक, हाका वाडी ताका वात असलें घेवन बसपाक जमपाचें ना.' 'तशें जाल्यार मोहन सांगतालो तो प्रस्ताव बरो आसा. येता त्या शिक्षणीक वर्सा सावन आमच्यांनी गांवीं घरा शिफ्ट करूं येता. प्राजक्ताक जाय तें सगलें सैम आनी तें मेकळेपण, ती शांती आनी आजयेच्यो काणयो सगलेंच मेळटलें. हय गो, तें तुजे खातीर तरी बरी पॅकेज थारतलें. सकाळीं पर्स घे आनी हायस्कूलाच सूट, दनपरां येवन आयतें जेव. ती हांगच्या मानान बेसबरी शुद्द हवा तुका मानवतली तुमचे दोगांचेय गाल हे अशे गरगरीत फुगतले! म्हाका काडाओडी काडच्यो पडटल्यो ती तयारी हांवें केल्या. फुडें कितें तरी मार्ग येतलोच!' कितलेशेच दीस तकलेंत घोळटालें तें हांवें हिचे मुखार दवरलें. 'विचार करूंया. कांयच ना जाल्यार निमाणे तें! कितें जाता, आतां गांवांत वचप म्हळ्यार परतें फाटीं वचप! सद्या हें बिराड बदलूया!' हांव फुडें कांयच उलोंवक शकनासलों. आवयच्या नात्यान प्राजक्ताचें जें जें कितें बरें तें तें करपाचें हो तिचो हक्क आसलो आनी तो बरे भशेन बजावपाचें काम ती करताली. बिराडां बदलून आमचो प्रस्न सुटपाचो ना हें तिका पट नासलें आनी प्राजक्ताचो विशय हो तिणें खुबूच भितर मेरेन लावन घेतिल्लो- चड करून तें निमाणें गणुराया प्रकरण. ताणें प्राजूक लागीं धरलें तें सरळ सरळ मायेन ही गजाल म्हाका पटपाक लागिल्ली. ताच्या आवय-बापाय कडेन हांव उलयल्लों आनी तेन्ना म्हाका कळिल्लें, प्राजक्ता नांवाची ताची धाकली भयण आसली आनी तिच्या अपघाती मरणाचो ताचेर खुबूच परिणाम जाल्लो. तींय रोखडींच तो भाड्याचो फ्लॅट सोडून वचपाचीं आसात हें ताच्याच बापायन म्हाका सांगिल्लें. तुमी प्राजक्ताक लागून सोडून वतात काय कितें अशें हांवें विचारलें तेन्ना तो मात्सो हांसलो. मागीर ताणें सांगलें, तांचो बंगलो बांदून तयार आसा आनी तीं खंयच्या तरी म्हूर्तार थंय वचपाचीं आसात. हीय गजाल हांवें हिका सांगिल्ली तेन्ना तिणें म्हणिल्लें,

'ज्या दिसा तीं वतात हें हांव म्हज्या दोळ्यानी पळेतलें, तेन्नाच खरें मानतलें. हांव प्राजूचे बाबतींत कसलीच रिस्क घेवपाक सोदिना!'

आनी तें आमंत्रण एकदीस आयलें. तिनसांजेक बेल वाजली आनी हांवें दार उगडलें. गणुराया आनी ताची आवय मुखार उबी. म्हण सर हीय कोण आयला काय पळोवपाक भायर आयली. सोफार बसून पांय हालयत, आपलेच भितर गुणगुणत बशिल्लें प्राजक्ताय मुखार आयलें. 'सॉरी सर, गणू खातीर तुमकां त्रास जालो, पूण आतां आमी चल्लीं. येता त्या शेनवारा आमी आमच्या नव्या घरांत वतात. सांजचीं स्वागत समारंभाक मुद्दम येयात हाका हाडपाक विसरूं नाकात. राग धरूं नाकात, गणू, से सॉरी टू प्राजक्ता' तिणें पुताक सांगलें. 'से सॉरी प्राजक्ता.' ताणें म्हळें. प्राजक्तानूय सॉरी म्हळें आनी ताचो हात हातांत घेतलो. 'गणुराया, कसो आसा तूं?' हांवें विचारलें तेन्ना तो ताचें तें हांशें हांसलो. त्या हांश्यांत ताच्या मनाची सगली सया मारताली. निरागसपणा बगर दुसरें कसलेंच चिन्न थंय दिसनासलें. हांवें ताका लागीं ओडलो तेन्ना व्हडल्यान हांसून ताणें म्हळें, मामा, मामा, अंकल अँग्री ना, अंकल हॅपी अंकल हॅपी... गुड नायट अंकल! रोखडेंच भितरल्यान हिणें कागदांत गुठलावन कितें तरी हाडलें आनी प्राजक्ताच्या हातांतल्यान गणुरायाक दिलें. तीं दोगां कितें तरी उलोवपाक लागलीं आनी आमच्यो तीन नदरो एकमेकां कडेन उलोवपाक लागल्यो.

संपर्क: 9421246655






# रेक्टरशीप...!

जयमाला ना. दणाईत

"वळखता?" एक देसेंत सुटाबुटांतलो तरनाटो मुखार उबो रावन हांसत्या तोंडान विचारतालो.

"आंऽ तोंड वळखीचेंशें दिसता. नांव बी कांय याद जायना पूण. जाण्टेपण जालां न्हय!" माईन काचाबूलशें जावन म्हळें.

"माई हांव संजू, मडगवां तुमच्या हॉस्टेलांत रावन शिकतालों मगे."

"आरे! संजू, तूं रे? कितलो बदल्ला. येदोसो पोरांटो आशिल्लो. आतां सामको ताडमाडसो वाडलां. कशें वळखतलें हांव?" माईन हांसत वळख दाखयत म्हळें.

"खंय आसता तूं आतां? कितें करता? तुजें आवय बापूय बरे आसात मरे?" माईन प्रश्नांची सरमाळच सुरू केली.

"कितें हें माई? तुजी पयलींची ही संवय गेली ना हां अजून. एकार एक प्रश्न करता. सद्याक हांव यू.एसात आसतां. आई-पप्पाकच मेळूंक आयिल्लों. गोंयां पावलों आनी कॉलेजचें दीस याद जाले. तांतूंय पयल्यान पयलीं तुजी याद जाली पळे. हॉस्टेल रेक्टर माई प्रभू! मागीर हांगा थंय सोदासोद केली आनी पावलों तुजे सरीं. गोंयां आयिल्ल्याचें सार्थक जालें तुका पळोवन." तो मात्सो 'सेंटी' जाल्लो पळोवन माईन हांसत ताचे फाटीर थापटिल्ले भशेन केलें.

"आवयस् मम्मी, तूं आनी रेक्टर आशिल्ली?" इतलो वेळ तिज्या फाटल्यान उबें आशिल्ल्या मिनून अजापीत जावन विचारलें.

"आरेऽऽ ही सुंदल छकुली कोण?" संजूचें आतां मीनू कडेन लक्ष गेल्लें. ताच्या उतरांनी मीनूक लजेल्ले भशेन जाल्लें. पुण ताची क्युरीयोसिटी उलोवन गेली - "मम्मी आनी तुमची रेक्टर आशिल्ली - मज्जा!

"हय तर, खबर ना तुका?" संजून हांसत म्हळें. मीनून ना अशी तकली हालयली.

"आगो, तें थंय मडगावां कॉलेजींत आसतना. तुजो पप्पाच रेक्टर आशिल्लो. हांव न्हय."

'रेक्टर सर आसूं. पूण सगळी रेक्टरशीप पळेताली माईच हां. कितेंय सांग, त्या दिसांची मजा परत केन्नाच आयली ना पळे माई. कितले सोबीत, फुलपांखी दीस आशिल्ले ते! फुडें शिकूंक दुसरे कडेन गेलों, आतां हांव येदो व्हडलो इंजनेर जालों, एका व्हडल्या सोफ्टवेर कंपनींत वयल्या पोस्टार आसां, पूण ते दीस, ती मजा परत केन्नाच अणभवूंक मेळ्ळी ना पळे."

"आरे, अशेंच आसता. तरणेपणांत पावल दवरपी तुमी, कॉलेज लायफ इंजोय करतात तुमची जाता मजा, पूण आमकां मात ती सजा..."

"अशें कित्याक म्हण्टा गे माई? खरेंच तूं आमकां सामकी घरची... लागीची कशी दिसताली. आतां आमच्या मस्तेपणाक लागून तुका त्रास जाताले, ना अशें न्हय. पूण कितली कुयताद घेताली तूं आमची? कोणच केन्नाच विसरपार ना. आनी तेन्नाचें तें विठोबा प्रकरण! आवयस्, तूं नासली जाल्यार मोठें किजील जावपाचें. तूं आनी सर आसले म्हणून वाटावले आमी सगळे. ना तर कितें जावपाचें देवच जाणां."

"शेऽऽ अशें कांय ना रे. आमच्या जाग्यार आनीक कोणय आसले तरी तशेच वागपाचे." माईन हांसून सोबोवन व्हेलें.

"अशें हें उलोवप म्हणजे तुजें व्हडपण माई! पूण खरेंच अजून ते दीस याद केल्यार आंगार सरसरून कांटे येता पळे. कशें साल्वार केलें तुमी सगल्यांक तुमीच जाणांत." संजू मना पसून उलयतालो.

"हय रे बाबा, तुमची जातालो मजा, म्हजेर मात आकांत येतालो. पूण धीर एकवटावन वागचें पडटालें. आनी त्या खिणाक जें सुचता, फावता तशें करचें पडटालें. भोंगू त्यो गजाली. आतां कितें हांगाच 'खुंट्या माकोड' जावन रावतलो? चल, घरा या. च्या पाणी कितेंय घे आनी सांग तुज्यो खबरी." माईन म्हळें आनी ती घरा कडेन वचूंक लागली. मीनू

मात ''हांव ना, येना घरा, चल्लें गे गार्डनांत खेळूंक'' करून बरोबरच्या वांगडा खेळूंक धावलें - वतां वतां ''मम्मी रेक्टर, मम्मी रेक्टर'' म्हण चाळोवंक विसरलें ना. माई आनी संजू हांसत उलयत घरा कडेन चलूंक लागलीं. दार उगडून घरांत सरना फुडें संजूक हॉलांत बसोवन माई किचनांत च्या करूंक गेली.

''माई तुज्या हातचो तिखटो शिरो खावंक आयलां गे हांव.'' संजून फर्माईश केली.

''आरे, अजून याद आसा तुका? बरो जुस्त टायमार पावला तूं. म्हण्टात न्हय - दाने दाने पे लिखा है खानेवाले का नाम! मीनूक जाय म्हणून आतांच केल्लो भायर सरचे पयलीं - जुस्त तुज्या वांट्याचो उरला पळे.'' माईन ताचीं फकाणां करीत ताका च्या खाण दिलें. हांगाच्यो थंयच्यो खबऱ्यो मारीन मनसोक्त शिरो बी खावन आनी तिचेखातीर येतना कितें कितें भेट वस्तू हाडिल्ल्यो त्यो दिवन बरो वेळ बसून संजू गेलो खरो, पूण माईचें मन शेवणें पिपूर्शे जावन भूतकाळांत रिगून बसलें-

लग्न जातगीच ताची भालकी व्हडल्या घरांतल्यान आयली ती ह्याच हॉस्टेलाच्या ब्लॉकार! नव्या नवलायेचे दीस सरचे पयलींच ताका थंयच्या त्या ३०-४० भुरग्यांची 'मेम' जावचें पडलें. जाल्लें अशें - मडगांवां आसतना कॉलेजीच्या प्रिन्सीपलान ताच्या प्रोफेसर घोवाक बॉयज हॉस्टेलाची कंप्लसरी रेक्टरशीप दिल्ली. ''ह्या कुंकळकारांक आनी काणकोणकारांक तूंच सारको सांबाळूंक शकतलो रे बाबा'' करीत ताच्या गळ्यांत ही हॉस्टेलायट्सांक सांबाळचेली 'साण' बांदिल्ली. गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत नवेंच कॉलेज सुरू जाल्लें. आनी येरादारीची वेवस्था तशी जाय तितली चोख नाशिल्ल्यान पयसुल्ल्यान येवपी भुरग्यांक यो वच करप त्रासाचें जातालें. चडशे भुरगे हॉस्टेलांत रावन शिकताले.

कुळारचीं भावा भयणीचीं भुरग्यां ताका माई म्हण्टालीं. जात्याच मायेस्त, सगळ्यां विशीं ताका आपुलकाय. घरा पसून पयस रावन शिकपी तीं आटसाटीं पोरां - तांचेरय तें माया करतालें. ते भुरगेय बी सरा परस मेमा कडेन आपलीं गाराणीं, कम्प्लेनी, अडचणी, वाद कितें आसात तें मनमेकळे पणान सांगताले. मुख्य म्हणजे लग्नापयलीं तें गांवचे शाळेंत शिकयतालें. ताका लागून भुरग्यांक हाताळपाची एक नेक ताचेसरीं आशिल्ली. तांचीं झगडीं-झुजां सोडोवप, तांच्यो कम्प्लेनी शांतपणान आयकुवप, वेळार तांची फाट राखप हीं सगळीं कामां तें मोठे आवडीन करतालें. ताका लागून मेमाचें केन्ना तें सगळ्यांचें अपुरबायेचें माई जावन गेलें कळ्ळेंच ना. भुरग्यांमदी कोण बरो ना जालो, जोरान आडवो जालो जाल्यार ताची आवय-बापूय येवन तांकां घेवन वचसर ताका वखद विरसद कर, ताचें टेंपरेचर पळय, ताका पेज-पाणी, लरांव करून दी - सगळें सगळें तेंच करतालें; म्हणून तर भुरग्यां मदीं आनी ताचेमदीं एकेतरेचें आपलेपणाचें - घराब्याचें नातें निर्माण जाल्लें.

आतां कॉलेज स्टुडंटस् आनी तांतले तातूंत हॉस्टेलायटस् म्हण्टगीच तांचीं मस्तेपणां चालूच आसतालीं. हॉस्टेलाची बिल्डींग फर्नांडिस भाटकाराली - ताची बायल जुझेमारी - मोठी कोनीसांवांची बायल. खरी जुझेमारी! म्हच्यांतच तांचें घर आनी फाटल्यान हॉस्टेल कँटीन! भुरगे जेवंक येतना वतना तांचें तरनाटें चेडूं ॲना पेरीर चडून बसतालें - तांचेर रिमार्कस मारप, तांचीं भगलां मारप चालू आसतालें. मस्ते भुरगें, ते आयकतात? तांणीय परत्या परतें दिवप अशें चलतालें. तातूंतलो 'विठोबा' इल्लो चड मस्तो... ताणें कितें तरी कॉमेंट पास केलो ते बराबर त्या 'पेरीवेल्या सुंदरीची' ती 'जुझेमारी' झगडूंक आयली. तिणें भुरग्यां विशीं कम्प्लेन केली. माईन थंडसाणेन सगळें आयकून घेवन झगडें मिटयलें... तात्पुरतें झगडें मिटलें.

तांगेर एक बिहारी भाजीवालो - गुंडटायप भैय्या रावतालो - बरोबर ताचे कांय पंटर! जुझे-मारीन तांकां हॉस्टेलांत वचून विठोबाक पेट घालूंक सांगलें. तें कितें भाड्याचे तट्टू ते आयले. भुरग्यांनी माईक सांगलें. ते दारांत आयले - 'कितें जालां?' ताणें विचारलें. ते हुप्प.

''क्या हुआ?'' तांकां कळना - अशें दिसून माईन परतें विचारलें.

''अंदर आनेको मँगता!'' ताणें सांगलें आनी सरळ भितर घुसूंक लागले.

''ना - भितर येंवक जायना.'' थंडसाणेन माईन म्हळें.

''क्यों? हॉस्टेल क्या तुम्हारे बाप का है?'' ताणे मोठे गुर्मेन विचारलें.

''हमारे बाप का नहीं, वैसे तुम्हारे बापका भी नही, अंदर आता मना है'' थंडपणान ताणें सांगलें तरी तो आयकना. भितर येवंक जाय म्हणून हट्टूनच बसलो.

''येवचें आसा यो; फ्रेड्रीक्स लेट हिम कम इनसायड. घे भितर ताका'' अशें म्हणना फुडें फ्रेड्रीक्स दारांत आयलो. त्या ॲथलेटीक्साक पळोवनच तो काडीपैलवान फाटल्या पांयांनी सोंपणां देंवलो. मारीन ताका गाळीफस्तींनी न्हाणयलो 'मर्द का बच्चा नही' - म्हणून हिणसायलो, पूण ताणें हॉस्टेला कडेन परतें दोळे वयर करून लेगीत पळेलें ना.

तांणी पुलीस कम्प्लेन केली.दोन दिसांनी एक कॉन्स्टेबल आयलो. भुरग्यांनी चोराक बी धरतात तसो ताका मद्दीं घालून हॉस्टेलांभितर हाडलो. त्या भुरग्यां मदीं विठोबाय आशिल्लो. ''मेम, माई पुलीस आयलां.'' सगळ्यांलो कुलकुलाट! ताणें भायर येवन विचारलें -

''कितें जालां, कित्याक आयल्यात?''

''विठोबा खंय आसा रे? भितर आसा?''

''ना मिस, तो हांगा ना.'' खरें तर तो थंयच रुमांत आसलो. पूण भुरगे पाक्तार! पुलीस बाबडो आयलो तसो हात हालयत परत गेलो.

फर्नांडीसान परती कम्प्लेन केली - वयल्या पावंड्यार! एक इन्स्पेक्टर आनी चार-पांच पुलीस जीपीन आयले - विठोबाक सोदूंक - ताका पुलीस स्टेशनार व्हरूंक. माईन सरळ सांगलें ''विठोबा हॉस्टेलांत ना. खंय गेला खबर ना. रेक्टर ना आनी प्रिन्सीपलय ना. - पूण ते येतगीच आपूण तांकां धाडटां. हें म्हजें प्रोमीस'' - ''पक्का प्रोमीस?''

''हय इन्स्पेक्टर. हांव म्हजें उतर मोडपी न्हय. हांकां येंवदी. विठोबा खंय आसत थंयच्यान ते घेवन येतले आपले बरोबर. - फॉश फावोर.'' माईन ताका विनयलें. जीप

घेवन ते गेल्यात मात जुझे मारी झगो वयर काडून नागडी फुगडी घालूंक लागली - ''बरी पुर्तुगेज मात्ता - फाश फावोर - म्हुणता. पुलिसांक पोत्तून धाडटां.'' घे बोवाळ सामको. भुरग्यांक मजा - बाल्कनींत उबें रावन ते हांसताले. माईन तापोवन तांकां भितर धांवडायलें.

सर येतगीच सगळ्यांनी बोवाळ घालीत घडिल्ली गजाल सांगली. सरान मात्सो फ्रेश जावन च्या बी घेतलो आनी मोटारसायकल भायर काडली. विठोबाक फाटल्यान बसोवन सरळ पुलीस स्टेशनार व्हेलो. शांतपणान घडिल्लो सगळो फाक्त सांगलो. मेळत तेन्ना फातर बी शेंवटीतात तें सगळें सांगलें. इन्स्पेक्टराक सगळें समजलें. हांस-हांसत ताणें सांगलें - ''कोणय आयल्यार भितर घेयात, बरो पेट घालात आनी मागीर आमकां आपयात.''

मागीर एक दीस एका गुंडाक - जाच्या नांवार दोन चार खून केल्ले बी आसले - ताका घेवन हो बेबदो फेर्नांडीस हॉस्टेलार हजर! तांकां मात्शी सुलूस लागिल्ली. माई आनी मिस्टर दोन दांडे घेवन तयारींतच आसली. रस्त्यार उबो रावन बेबदो आड्डतालो -''तेका सारको आड घाल, ना तर दोन थापटां तरी फुलोय रे पोल्यार!'' ब्लॅकी सुणो भोंक भोंक करून ताज्या आंगार गेलो. तो गुंड दारांत पावला मात सगळे हॉस्टेलायटस् खाड खाड दारां उक्तीं करून भायर आयले - बॅटी, बडयो रुमांत तयार दवरिल्ल्यो ताणी. गुंड पाखलो समजुपाचें समजलो - भितर येवन 'ओ सिन्योर, कितें जालां, कितें भानगड'' बी चवकशी करूंक लागलो. हाणेंय थंडसाणेन, ''कांय ना, अशें अशें जाल्लें'' म्हणून खबर सांगतगीच ''चेऽऽ पाड पोडों तेजें'' म्हणून बडबडत तो भायर सरलो. बेबदो भायर रावन ''फुलय मरे, सारकें फुलय मरे'' करीत आसलो - ब्लॅकी तांचे फाटल्यान लागलो तो बद्द तांकां रस्त्या मेरेन पावोवनच परतलो.

आनीक एकदां तर बाबू देसाय सारको अस्सल गुंड ताच्या आंगार सोडलो - वाटेन येतनां वेतना मारून उडय म्हणून ऑर्द दिल्ली खंय, पूण ताणेंय कांय केलें ना. - देवाचीच कृपा म्हणपाची. हॉस्टेलांतल्या भुरग्यांचेर मोटार घालूंक लायली. मि. प्रभू आनी दुसरे दोन प्रोफेसर फाटल्यान आशिल्ले. तांणीं पळेल्लें. थंयचे थंय धरले, पुण तांणीं पळा काडली.

आख्खी फॅमिलीच सामकी फाल्माद. फेर्नांडीसाचो चलो बाबूश कॉलेजींत आसलो. मिस् भट्टाचार्य म्हणून नवीन प्रोफेसर आयिल्ली. तिणें बाबुशाक परिक्षेंत कॉपी करतना धरलो हॉलांतल्यान भायर काडलो. तो राग तकलेंत धरून बाबुशान आनी ॲनान कॉलेजींत येवन त्या प्रोफेसरणीक मोटारींत घालून किडनेप करचो येत्न केलो. जोशी सरान तें पळेलें - तो तिचे मदतीक धांवलो तर ब्लॅक बॅल्ट केल्ल्या ॲनान एकेच फायटीन ताचो कान फोडलो. रगत व्हांवक लागलें - धडपडलो - कुशीर पडलो.

प्रो. प्रभूक वयल्या मजल्यार बातमी पावासर ह्या दोगांनीय तिका ओडून मोटारींत घाल्ली. दोन दोन सोपणां हुपत प्रो. तांचे म्हऱ्यांत आयलो - बाबुशाच्या दोनूय पायां मदीं अशी दाव्या पांयाची एक खोंट घाली - सगळी इंग्लीश पुर्तुगेज विसरून ताका आवय-भास याद जाली - 'आवय म्हुजे मांय' करून तो थंयच बसलो. सरान मिस् भट्टाचार्याक दाव्या हातान ओडून भायर काड सर ॲनान भावाक कसोतरी मोटारींत चिड्डून मोटार स्टार्ट केली आनी फुज्ज्यो काडल्यो.

भुरग्यांक सांबाळप सोंपें, तांची मस्ती परवडली, पूण ही असली गुंडागिरी पळोवन माई मात्शी थतर वितर जाली. एक दीस प्रिन्सीपल आयिल्ले कडेन माईन म्हळें - ''सर म्हज्यान आतां हें सगळें सोसूंक जायना. हे शांत आसा सर सांब नातर रुद्राचो अवतार! ह्या असल्या गुंडाच्या करण्यांनी म्हजे केंस मात फुकटचे पिकतले. आतां आमकां ह्या रेक्टरशिपींतल्यान रिटायर करात - मोठे उपकार जातले तुमचे.''

''इतलें कित्याक भियेता गो तूं? येदो व्हडलो पाटी कसो घोव आसा'' समर्थ सगळें सांबाळपी! तूं जाणां, हाचे पयलीं दोग चोग जाणांक रेक्टर करून पळेले. तांकां कांयच जमलें ना, भुरगे तांकां केअरच काडनात. हाका मात पळेना फुडें दरकेतात सगळे कॉलेजींत. म्हणून तर ताका फोर्सार केला न्हय हांवें-''

''पूण सर, आतां खरेंच पुरो जालें. खरेंच, रागार जावनाकात. हांव तर म्हण्टां, कितलींय भुरगीं सांबाळूं जातात; न्हय. इतलीं वर्सां सांबाळ्ळीं नात? पुण ही भायली गुंडागिरी सोसूं नज. हांव म्हाका भियेना. पूण म्हज्या भावाची, भयणीचीं भुरगीं मोठ्या विश्वासान म्हजे म्हऱ्यांत शिकूंक दवरतात. तांकां कितेंय आयब जांवनये म्हूण भियेतां. रागान कितेंय केलें भायले भायर जाल्यार कोणाक तोंड दाखोवचे लायकेचें उरचें नासलें. ही रेक्टरशीप सोडली म्हण्टगीच ओगीच कोणाचो राग आंगार ओडून घेवंक नाका. ह्यो लश्कराच्यो भाकऱ्यो भाजप पुरो जाल्यो आतां अशें म्हजें हांकां सदांच सांगणें - ताचे वेल्यान आमचे वाद जातात. हाचे फुडें आनीक आनीक बेठ्ठें हात दाखोवन अवलक्षण करपाचें ना म्हाका. म्हणून मना पासून मागतां तुमचे कडेन'' - माई काकुटेक आयिल्ले पळोवन प्रिन्सीपलान मना विरुद्ध सगळें मान्य केलें आनी तीं त्या फर्नांडीस नांवाच्या संकटांतल्यान पयसावलीं.

फुडें मागीर गोवा युनवर्सिटी जाली आनी प्रो. प्रभूक युनवर्सिटींतल्यान मोठ्या मानान थंय जॉयन जावपाचें आंवतन आयलें. आनी तीं हांगा पावलीं. माई आतां सगल्या बंधनांतल्यान मुक्त जावन आपल्या संवसारांत रमली. दोन भुरग्यां तांची सरबराय, घोवाचें, सोयऱ्यां - धायऱ्यांचें करपांत ताका दीस पावना जालो. आतां तर तें पयलींचें हें सगळें विसरूनच गेल्लें म्हळ्यार जातात. पूण अकस्मात संजू दत्त कसो येवन मुखार उबो रावलो आनी ह्यो सगल्यो फाटल्यो घडणुको ताका याद जाल्यो.

''ट्रींग... ट्रींग...'' दाराची बेल वाजली तशें तें ह्या भूतकाळाच्या सपनांतल्यान वर्तमानाच्या वास्तव्यांत आयलें. आनी मीनू आयलां जातलें म्हणून दार उक्तें करूंक मुखार सरलें - मीनूच्या सगल्या प्रश्नाच्यो जापो दिवपाची तयारी करूनच...!

संपर्क : 9757119317

शा राची नदर ओडून ना घेवपा इतलो फाटीं उरिल्लो हो ल्हानसो गांव. कथाच अशी, तातूंत गांवाचें नांव जायच ही गरज भासना. ह्या वाड्याचें नांव धरुया सर्मण. पूण हातुंतल्या मनशांक नांवां आसात. गांवांतल्यान कुशीक सो उरिल्लो हो वेगळोच वाठार. गांव, बाजार पयस उरता. हांगा सर रस्तो सोंपता. फुडें आनीक कांय ना. वाट आडावन दवरिल्ल्या सारको सरळ उभो दोंगर. दोंगरा पेल्यान मागीर शाराक जोडपी वाटो. अशें आसूनय हांगा लोक रावतात. आशी कुशीक मेळून धा एक घरां. ल्हान ल्हान. मातयेचे वण्टींचीं. हांगाच्यान तिठ्यार येवपाक पांच-स मिनटां लागतात. गांवचें वेव्हार ह्या तिठ्यार सावन सुरू जातात. शाळा, पसरो, बसी सगळें हांगा. खूब वर्सां सावन हें अशेंच चलत आयलां, ताका लागून सर्मणच्या लोकांक आतां संवय जाल्या. जगपाक जाय जाल्यार अशेंच रावपाचें ही ह्या लोकांनी समजिकाय करून घेतल्या. सुदारणां बी तांचे मेरेन पावप भोव कठीण. कित्याक तर रस्तो व्हरपाक वाट ना. सगळें रान. हीं घरां कोणें केन्ना, कशीं आनी कित्याक बांदलीं तें कोण नकळो. हे जागे कोणाले हेंवूय कोणाक खबर ना. रानांतलीं हीं झाडां आपसूंक वाडल्यांत आसूंये. काजींच्या तेपार काजी लागतात, भिरणीक भिण्णां लागतात. जांभळाचें एक झाड बरेंच व्हड आसा. जांभळांक मोल आयलां. गोडे मुताक बरें म्हण जायते आयुर्वेदांतले जाणकार ताच्यो कापट्यो व्हरपाक येतात. भिल्लमाड खूब. केन्नाय कोणूय येतात आनी सभा संमेलनां खातीर माटोव घालपाक तोरणां करूंक चुडटां मारून व्हरतात.

# निवलकाणी

**हेमा नायक**



हांगाच्या घरांतल्या चुलींचेर दनपारां आनी तिळसनां आयदनां शिजतात. फांतोडेचेर घरा सामकार खळांत चुलीच्या उज्याचेर उदकाचें भाण तापता. हां. उदकाची एक बांय आसा. ते बांयत उदक भरपूर आनी पोंदा झरे आशिल्ल्यान नितळ उदक बांयचें घरांत भरून दवरची गरज ना. जाय तेन्ना सोडलो राजू आनी काडलें उदक. बाथरूम, संडास असल्यो गरजो रानांतूच भागतात. पावला पावलाक झिली आनी आडोस. हो वाडो एकेच गजाली खातीर मात फामाद. ह्या इतल्या वाठारांत खूब तरांच्या वखदी झाडांची उत्पत्ती. जळामळा तरातरांचीं कांट्यांचीं झाडां, कॅक्टस, तातूंत कांटेकुवर, निवलकाणी आनीक वेगवेगळीं. तुळशीच्या झाडांचीं तर झोपांच. कोडू लिंबू, करविल, गंजन, किरायतें बी सगळें. वासानूच दुयेंसां पयस पावतलीं. खंयच्या दुयेंसाचेर कसलें वखद तें मात

खबर आसपाक जाय. पूण हांगा तसलेय चिकित्सक लोक आसात. मूतखड्याचेर, गोडें मुताचेर, घाव्याचेर आनी नाका आशिल्ले गर्भ व्हळोवन उडोवपाक लेगीत गरज तसलीं झाडापाल्याचीं वखदां हांगा आसात. खंयचे पयसुल्ल्यान लेगीत लोक येतात हांगा ह्या वखदी झाडां खातीर. पूण अशे शेणून पडून.

वखद झाडांची जुस्त पारख आसा ती रुक्मीणीक. गावांतलो वा गांवा भायलो कोणूय वखद विरसदाक येत जाल्यार तिका विचारले बगर झाडाक हात लायना. तिचो घोव हालींच मेला. कसो तें विचारपाचें ना. एक दीस बरो तर्र जावन आयलो. बायलेक धा बारा गाळी संवल्यो आनी राती कडेन न्हिदला थंयच थंड. बायलेन म्हणलें सुटली एकदांची. बुरश्यो गाळी आयकुच्यो पडटाल्यो दिय्यार. एक पूत आसा. संतोष धेंगांनी वाडला पूण काडयेची अक्कल ना. सकाळ सांज तिठ्यार पडिल्लो आसता. बेकार लवडी कसो. जेवणाक खार आनी धरणेक मार. दनपारां जाय तशें भुसकें पडटा आनी राती कडेन कामरूंक आसा कांबळ. पुरो भागलें जिवाचें. थोड्यो कागाळी येना चलयांच्यो! शाळा कॉलेज सुटपाच्या वगतार बस स्टॉपा कडेन पडून आसता मवाली कसो. मेल्ल्याक कोण दितलो चली मस्णो! चार बुकां शिकलो ना आनी तोंडांत खबरी व्हडल्यो व्हडल्यो. तो खंय ह्या सगळ्या झाडांचे वखदी गूण सोदून काडटलो आनी दोतोरांचें गिरायक हाडटलो ओडून. तांचेर मागीर खोन्यांनी पयसो ओडपाचो आनी जोड जोड जोडपाचें. कोणें हागेल्या आज्या पणज्यान लायल्यांत काय कितें हीं झाडां.

हे फाटभुंयेचेर कथेचें आदन शिजलां.

फांतोडेर कोंब्याच्या सादार शीतेन धुवेक उठयलें.

''बाय सोनू, उठ मरे शाण्या. शाळेंत या मरे पुता. चल म्हजो राजा तो. तोंड धू आनी च्याव घेवपाक यो. राती तुज्या बाबान कांकणां हाडल्यांत. एक कांकण खातलो मरे, चल.''

सोनालीन कूस परतिली आनी हांसत म्हणलें, ''तूं रे रे करता तें म्हाका आवडना गे. हांव तुजें बाय मगे, मागीर म्हाका गो म्हण.''

''बरें बाय, आयच्यान गो म्हणटलीं.''

सोनालीच्या शाणेपणाचें तिका कवतूक दिसलें. आपलेंच चुकलें. 'पाड पडों हें अडाणीपण भल्लां म्हज्या आंगांत. ह्या पोराक बरें शिकोवप आनी व्हडलें करप.' तिणें मनांत म्हणलें आनी ताका उठोवन बसयलें.

''आज म्हाका काणी सांगतली तूं?''

''हय तर. बरी काणी सांगतलें?''

''एक आशिल्लो राजा आनी एक आशिल्ली राणी असली काणी नाका. त्यो मागीर काणयोच उरता. खरी खरी गजाल सांग. कांयच घडना तसली काणी म्हाका नाका...''

''एक आशिल्ली राजकुंवरी आनी ती पांयांत घुंगरू बांदून नाचताली. सांगू?''

''चूक, राजकुंवरी नाच्चीच ना. चकचकीत बंगल्यांत रावपी आनी गोड गोड शिरो, लाडू खावपी ती नाचतली खंयची? नाचपाक त्रास पडटात. उडक्यो मारच्यो पडटात. हांव नाचतां तेन्ना म्हाका कितलें पुरो जाता खबर आसा तुका?''

''आगो तुजीच काणी सांगतली आज हांव. तूं नाच शिकतलें. पायांत घुंगरां बांदून नाचतलें. खूब लोक पळयतलो. ते ताळयो मारतले. आनी बाय म्हजें उमेदीन हांस हांस हांसतलें. पूण सांजे. आतां उठ आमी शाळेंत वचुया.''

''राव राव एक मिनीट, आई म्हाका मगे कसली काणी सांग जाणां, एक आशिल्लें सवणें, कुकुलेंच, केन्ना रडटा आनी केन्ना हांसता कळच नाशिल्लें. गायत नाचत चलतालें आनी पांखांटे फुलोवन सपनां पळयतालें, उडपाचीं. वयर वयर उडत त्या दोंगरा वयल्यान पलतडीं वचपाचीं.''

शीतेन सोनालीक घट्ट वेंगेंत घेतलें आनी ताची पापी घेतली. ''आनी हें सवणें कुकुलें कोण शांग, म्हजें शोनाली.''

तांची सकाळ ही अशीच उदेताली आनी पाटी दप्तर घेवन तीं दोगांय शाळेची वाट धरतालीं. अटंग्या रानांतल्यान त्या भुरग्याक एकलें धाडपाक ती भियेताली आनी ताका लागून ती सामकी शाळे मेरेन ताका पावोवन परतून येताली. कोणाल्या दीसवड्याच्या वावराक वच, तर कोणाल्या घरच्या कामाक हात घाल अशें करून तिगांच्या पोटा पाणयाचें सुट्टालें. घोवाचो आदार कांय ना. वेल्यान सोऱ्या घोंटाचें गिरायक करून तुंबून उरिल्ली उदारी एक दीस तिकाच फारीक करची पडटाली. लोक मानायपण करून जांव पाडेलीपण करून कितेंय जोडी. हाच्यान तेंवूय नजो. शीतेक हरशीं कुळारचें बरें आशिल्लें. पूण खंयच्या घाण खिणांक ही सोयरीगत आयली आनी भावांनी फाट फुडो चिंतीनासतना जुळोवन सोडली. 'दिसतालो हरशीं धडधाकट मानाय पूण दळभद्र्याच्यान एक दीस कसलें कश्टाचें काम करपाक जालें ना.' वितरागतकच शीता खेपताली. पूण ताका कांय लागनासलें. हालीं तिणें कितेंच म्हणपाचें सोडिल्लें. सोनालीच्यो अपुरबायो आनी ताका फाटल्यान फुडल्यान राखपाक तिचो दीस सोंपतालो.

दनपारां वोताचें किरण खळ्यांत वयल्या सोंपणार पावलें काय तिका शीतीत येताली बारा जावन गेलीं आनी शाळा सुटपाचो वगत जालो. मागीर ती बेगीबेगीन न्हेसणाच्यो मिरयो खोवन वाटेक लागताली चलयेक हाडपाक. थेट शाळे मेरेन पावताली. आनी ताका घेवन येताली. पोर शिकपाक हुशार आसलें. उलोवपाक चुणचुणीत. बाई मास्तराक जाय आशिल्लें. सांगतालीं तिकां, ''खूब हुशार गे सोनाली तुगेलें आनी अपुरबायेचें. नांवा इतल्याच भांगराचें.'' आनी चलयेची तुस्त आयकून शीतेक लक्तुबाय दिसताली.

तिणें येन्नाच थारावन उडयिल्लें, अंदू तें चवथेक. मातशें उसरांच शाळेंत घालें ताका. दोन वर्सां गेलीं ताचीं. पूण चवथी जायना फुडें भावागेर दवरपाचें. नाच आवडटा पोराक. ताका नाचाच्या वर्गाक घालून शिकोवपाक लायतलीं. ती ताचीं वर्सां मेजताली. धावें सोंपून इक्रावें लागतलें. तें जे तरेन शिटूकसाणेन

वागता तें पळयल्यार ताका इकरा वा बारा वर्सांचेर न्हाण येवपाक जाय. तो मेरेन मातशें ताचेर लक्ष दवरप गरजेचें.

हालीं ती ह्याच चिंतनांनी आसताली. चार पावलां कडेन घर मीरेचें. अदीं मदीं तीं दोगांय मेळटालीं तेन्ना असल्योच गजाली जाताल्यो. तिकाय एकलेंच चली. निरुपा. पूण तें अंदू मेट्रीकेक. सोनाली परस व्हडलें. ताकाय ती हांगा दवरपाक सोदिना. फुडें शिकपाक भयणीगेर दवरतली खंय. चलयेच्यो चिंता आनी हुस्के चड. दोगीय तेच विवंचनेंत आसताल्यो.

शाळेंत सरस्वती पुजनाच्या निमतान भुरग्यांची मनरीजवणेची कार्यावळ आसली. तातूंत सामको आकर्शून घेवपाचो प्रकार जालो तो सोनालीचो नाच. सगळ्यांनी बोवाळ घालून ताका परत करपाक आग्रो केलो आनी परतूनय तशेंच जालें. सगळ्यांनी ताची तोखणाय केली. कोणें कोणें बक्षीस म्हण पयशे लेगीत दिले. शीतेचे दोळे भरून आयले. तिका अंतस्करणांतल्यान दिसलें, 'आमचे सारक्या दळीद्री नारायणाच्या घरांत जल्माक आयल्या ती म्हजी धूव कोणा गिरेस्त कुबेरागेर जाल्ली जाल्यार ताची आवड मळबाक गवसणीं घालपाची. नशीब आमचें!'

आवयच्या दोळ्यांत दुकां पळोवन सोनालीकय रडूंक आयलें, "आई हांवें इतलो बरो नाच केलो आनी तूं रडटा कित्याक?"

"ना गो बाय. तुवें नाचाचें बरें शिकप घेवचें अशें म्हाका दिसता. पूण आमच्यांनी खंय जाता? म्हणून वायट दिसता."

"ओगी राव तूं. म्हाका कित्याक जाय शिकपाक नाच? हांव हांगाच रावतलें. हांगा कसलें शिकपाक मेळटा तें शिकतलें. तुका सोडून खंयच वच्चें ना."

तरी शीता तजवीज करीत आसली, चवथी जातकूच ताका धाडटलींच.

मार्चांत शाळेच्यो परिक्षा उलगल्यो तशें शीता पुरुमेंताच्या वावराक लागली. भिण्णां फोड, सोलां कर, तीं सुकय, मिरसांगो सुकोवन दवर असलो वावर करतना सोनाली आपले तरेन तिका मजत करतालें. शाळेक सुटी पडिल्ली आनी ताका लागून शाळा बंद आशिल्ली. शाळे भायर खळांत कितेंय सुकत घातल्यार रोकडें सुकून येता म्हण शीता माथ्यार पोटल्यो घेवन सकाळींच येताली आनी दनपार जातकूच घेवन वताली. सोनाली आसतालें वांगडा. तें थंय नाचतालें, खेळटालें. दोळ्यां हुजरां आसलें काय तिकाय हुस्को नासलो. घरा एकल्याक दवरप म्हणल्यार लक्ष थंय उरपाचें.

आनी एक दीस शीतेक मामलेदारा कडेन वचपाचें काम आसलें. बारा वरांचेर आपयिल्ली. तिणें जेवण रांदून दवरलें आनी सोनालीक सांगलें, "बाय हांव रोकडी येतलीं. पूण उशीर जाल्यार तूं जेवन घे, बाबा जेवतलो आपूण. आनी हांगाच लागीं राव. नाजाल्यार मीरा मावशेगेर चल. कळ्ळें मरे शाण्या?" आनी ती गेली.

सरकारी काम. ती थंय पावता म्हण सर मामलेदार गेलो जेवपाक. आतां इतली पयसुल्ल्यान आयल्यां, परती वचप म्हणल्यार परतून फाल्यां येवचें पडलें. अदीक बरें तो येसर राविल्लें आनी ती थंय कदेलीर बसली. एक जालें, दोन जालीं, तीन जालीं तरी हाचो पत्तो ना. वाजेली ती आनी एके वटेन चलयेचो हुस्को. ह्या पोराचेर कोणें घालून बी घेतलें जाल्यार देवा सायबिणी. कोणाक उलो मारपाचो हांवें. तिणें दोनय पोल्यांचेर आपणाक थापटावन घेतलें आनी तो विचार येतां खिणाक ती अस्वस्थ जाली. थंय आनी रावपाक तिचें मन तिका थारो दिना जालें. ती तशीच वचपाक उठली आनी इतल्यान मामलेदार भितर सरलो. तिका मातशे सू जालें. काम जातलें म्हणून. मामलेदारान काम केलें पूण वरां पाच जावन गेल्लीं. आनी आतां घरा पावता सर काळोख जातलो. म्हज्या पोराचो कोणें घात घेना जाल्यार पुरो. बाणांतल्यान सुटिल्ल्या तिरा वरी ती धांवट सुटली. अर्दवराची वाट तिणें पंदरा मिनटांत सोंपयली. घराचें सोपण चडून पडवेर पावली जाल्यार दार धापिल्लें आसा. "बाय, एऽऽ बाय." भितरल्यान आवाज ना. दार नेटान धुकल्लें जाल्यार दार उगडलें पूण घरांत कोण ना. घोवाची तर तिका खात्रीच नाशिल्ली. तो बारांत पिवपाक पडला आसतलो. शीता भियेली. कोणाक उलो मारूं आनी खंय सोदूं ह्या पोराक." आतां दिसता तरी कितें. काळोख पडपाक आयला. ती पयलीं मीरेगेर गेली. थंय ना तें पळयलें आनी काचाबूल जावन ती सैरभेर जावन पावलां उखलीत मार्गाक लागली.

बरोच वेळ तिणें सादयलें आनी मागीर ती रावली ना. तिका दुबाव आयलो, तें शाळे कडेन गेलां आसूंक जाय. थंय तें नाच करतालें सद्दां शाळेचे पडवेर. ताका संवंय जाल्ली ती. ते संवयेन तें शेर्त गेलां आसतलें. ती तुरतुरीत शाळे कडेन पावली आनी पडवेर गेली. सोनाली थंयच जमनीर पडिल्लें आशिल्लें. तिणें कान लायले ताच्या हड्ड्या कडेन. तें सोशेंताले. ताका न्हीद लागिल्ली. मातूय दुबाव येना आसतना तिका दिसलें नाच करतां करतां पुरो जालां आनी थंयच न्हिदलां आसतलें. तिणें ताका हालोवन जागयलें आनी बोटाक धरून तिणें ताका तुरतुरीत चलत घरा हाडलें.

तें आजूनय झेमतालें. भाणांतल्या खतखतीत उदकान तिणें ताका न्हाणयलें आनी न्हाणयतना एक एक प्रस्न ती ताका खोदून खोदून विचारपाक लागली. तें बाबडें सादेपणान सांगीत रावलें. पडवेर भोंवाडे घेवन नाचतां नाचतां फाटल्यांनच्यान एक दादलो आयलो आनी उबारून ताणें ताका थंयच पडवेर आड घालें आनी ताच्या सगळ्या आंगाचेर कातकुतल्यो करीत निमाणें कितें केलें तें ताका सांगपाक जालें ना. फकत आपल्याक दुखता इतलेंच ताणें म्हणलें आनी उलयतां उलयतांच घोरेवपाक लागलें. उशाचें पोंत तोंडांत घालून शीतेन येताली ती किळांच थंयचे थंयच दामून उडयली. कितें घडलां आसतलें हाचो अदमास न्ही तर सामकें खरेपण पटलें. सोनालीचेर कोणा दादल्यान बलात्कार केलो. धा वर्सांचें कंवळें पोर आनी हो दादलो कितल्या वर्सांचो आसतलो काय? बाबड्याक

आजून न्हाणय येवंक ना. बायलेच्या रुपाचो आकार येवचे पयलींच कोणा जनावरान म्हज्या पोराक पिसडून उडयलें. चार पावलां कडेन आशिल्लो तो दोंगर अख्ख्याचो आख्खो कोंसळूं आनी आमचेर पडून आमी ना नपयत जावन वचूं हें त्या खिणाक शीतेक दिसलें.

रात भर तळमळ्यांनी तिका न्हीद पडली ना. चलयेचें आंग रात भर ती पोशेत रावली. कोणें पळोवं ना जाल्यार पुरो. भायर फां फूं जालें जाल्यार तोंड उरचें ना गांवांत रावपाक. भरवंशाची आसा ती एकलीच मीरा. पूण नाका गे बाये. कोणाचेर पातयेवं नज. लोक खंय कितें उलयतात असल्यो गजाली? पोटांतूच दवरिल्ली बरी. ह्या म्हज्या पोराक लेगीत कांय सांगप ना. ताका कांय कळूंकच ना बावड्याक. पूण ताचो फुडार पेड्ड्यार जालो. ताका आनी आतां कशी पातयेतली हांव? शाळेंत आनी धाडपाचें उरलां? तें एक फावट संवकल्लें जनावर ताची फाट सोडपाचें ना. भायलो कोण आसचो ना. हांगाचोच आसतलो तो. ह्या गांवांत कोणा अनवळख्याक सहसा येवपाची कापस्ताद ना. शीतेक उगडास जालो. मीरेल्या निरुपाक एक फावट अशेंच घडिल्लें. पूण तिणें तोंडातल्यान ब्र काडलां तर? कोण तो लेगीत खबर आसलें तिका आनी मागीर गांवारय जालें. तेन्ना तें मेट्रीकेक. खास वर्ग आसा म्हण शाळेंत राविल्लें सांजवेळा. ह्या मेल्ल्यान ताका धुकलून झिलींनी पावयलें आनी भोगलें ताका. तरी बरें दीस गेले नात. जाल्यार मात ते रुक्मीणीगेर पावपाची आनी मागीर पेटपाचे खोजने. करपी कारस्थानां तिगेलोच पूत. संतोश. पूण कोण उलयता? म्हाका लागना, तुका लागना.

चिंततां चिंततां शीतेक न्हीद लागली आनी चलयेक घट्ट वेंगेंत धरून ती न्हिदली.

फांतोडेर कोंबो रडलो. वोताचीं किरणां भितर सरलीं तरी शीतेक जाग आयली ना. ल्हव पावलांनी मीरा भितर सरली आनी तिणें तिका जागयली.

''शीते, ए शीते उठ मगे.''

''आगे म्हजे बाये येदो वगत जालो? न्हिदून पडली मगे हांव.'' न्हेसण सारकें करीत आनी केंसांचो चोमडो करून आंबाडो घालीत ती उठली.

''तुजी जाग ना म्हण चवकशेक आयलीं हांव. खंय आशिल्लें सोनाली? हुस्को जालो म्हाका. रातींच येवपाची हांव. तूं परतून चवकशेक आयली ना म्हण दिसलें आयलां आसतलें.''

सांगचीना म्हण थारावनय शीतेक थार धरपाक जालो ना. सोनाली आजून उठूंक नासलें. ताका खंय कसली दूख जाली कोण जाणा, आड्डलां आसतलें पोर बरेंच पूण शाळेचो जागोच असो. थंय कोणाची जाग नासता सांजवेळा. कीण्ण पडिल्लें आसता.

मीरेक घेवन शीता भायर आयली. शीतेच्यान हुंडको दामूंक जालो ना. मीरेक घट्ट वेंग मारून ती रडपाक लागली आनी रडटां रडटां तिणें तिका सगळें सांगून उडयलें. मीरेक आपले धुवेचो उगडास आयलो आनी तिच्या रडपांत तिचींय दुकां भरसलीं.

''तो हराम दुसरो कोणूच न्हय शीते. संतोशूच तो. म्हज्या निरूपाकूय ताणेंच किरमिलां आनी पिसुडलां. तरी तें मातशें व्हड आशिल्लें पुते सोनाली परस. कळटालें थोडें भोव. हांवें आनी जाग केली ना. कोणाक सांगतलीं? आमचें गरीबांचें कोणे आयकता? घोवांले हे पोटले आमीच सांबाळपाचे. मेल्ल्यांक ना अक्कल. तांच्यो तरी नदरो धडांच्यो? आसूं आतां फुडें कितें करुया?''

''शू, ओगी राव. तोंड धापपाचें. बोवाळ नाका. हांव आनी शाळेंत धाडीना ताका. धावें वरस. आनीक एका दोन वर्सान न्हाण येतलें. म्हजे भयणीक सांगून पळयतां एक न्हवरो दाखय म्हण आनी लगीन करून सोडटां. आनी दुसरो कांय उपाय ना.''

''इतली कित्याक वितरागता? जांगेर चेडवां आसात तांकां ह्यो ख्यास्ती जाल्यातच.'' मीरा तिका समजायताली.

''तशें न्हूं. गरीबांलें रोकडें वाऱ्यार शिंपडटा. गिरेस्तांले सगळे थापे धांपून उरतात.'' शीता फणफणली.

''आनी तातूंत आमचे सारकेल्या सकयले जातींक कोण तारक ना.''

''सारकें उलयलीं तूं. आमचेच लोक पयलीं लागतले बोबो मारूंक भश्टल्लें चेडूं म्हण शीतेलें. खंय धावूं हांव मागीर? ह्या बेबद्या घोवाक कांय पडिल्लें ना तें तूं पळयताच.''

''तुजो घोव आनी म्हजो घोव, सगळे सारखेच. आपली धूव म्हण धंगण लेगीत उरपाचें ना बेबद्यांक ह्या.''

शीतेक दिशिल्लें आपले चलयेन आयकूं ना म्हण. पूण एक्कान एक उतर ताच्या कानार पडिल्लें आनी तें शादूर जाल्लें. ताका जाणवलें आपली चूक जाली. आवयन सांगिल्लें आपूण ये सर खंय वचूं नाका म्हण. पूण तिगेलें आयकनासतना शाळे कडेन गेलें आनी त्या कोणा दादल्यान आपणाक फाटसून धरलें घट्ट. कोण तो लेगीत पळोवपाक पावलें ना..: सोनालीक आपणें चूक केली हाचो शितीमेंत जालो.

तें ल्हवू उठून मागीलदारांत गेलें. सदचे भशेन एका फातरार बसून रावलें. हरशीं तें नाचतालें, खिदळटालें पूण आज ताका अजिबात मूड नासलो. ताका रडनय दिसनाशिल्लें. हांसपाचें तर तें विसरूनच गेल्लें. आयज ताणें थारावन उडयलें ह्यान फुडें आई जें सांगता तेंच करपाचें. आयच्यान नाच बंद. हांसप, कीटकीटप बंद. कोणा दादल्याक वयर तोंड करून पळोवप ना. अनवळख्याच्या म्हज्यांत लेगीत वचप ना. आनी त्यो काणयो लेगीत नाकात. सवण्याची तर निखालस नाका. म्हाका सवणें जावपाचें ना. पांखाटे फुलोवन वयर उडपाचें ना. हांव रावतलें अशेंच जमनीचेर. म्हाका राजकुंवरी जावपाचें ना. म्हजें नांव सोनाली आसा तितलेंच पुरो. भांगर कशें आसता ते लेगीत हांवें पळयिल्लें ना. ''चल उड रे कावळ्या. सोनालीन एक धाकलो फांतर हातांत घेतलो आनी ताचे वटेन मोखलो. कावळो काव काव करून नाच जालो. तें सामकेंच निरशेल्लें.

हरशीं तें कावळ्यां वांगडा खेळटालें आनी आज ताका कोणूच सोंसना जालो. माजर म्यांव म्यांव करून म्हऱ्यांत येवन ताका घश्टूंक लागलें जाल्यार ताणें ताका शेवटिलें. मेळटा ताचेर राग काडून तें तिडकतालें.

मान सकयल घालून तें घरांत आयलें. मीरा गेल्ली. आवयन च्या दिली ती तोंड धांपून तें पिलें. उंडो दवरिल्लो तो मोन्यांनी खाल्लो. आनी पडवेर येवन वग्गी बसलें. ताच्या वागपांतलो हो बदल आवयन पारखिलो. पूण तिचो व्हांवत्या दोळ्यांतल्या दुकांचो पाझर आजून बंद जावूं नाशिल्लो. दीस मोन्यांनी गेलो आनी मागीर तांचें हें मोनेपण सगळ्यांकूच संवकळीचें जावन पडलें.

आवय आनी धूव सकाळीं कोंब्या सादार उठटालीं आनी दोगांय वांगडाच कामाक वतालीं आनी दनपारां वांगडाच परततालीं.

सोनाली आवयच्या कामांत हातभार लायतालें. शिकपा वयली ताची वान्साच गेल्ली. आपणें खूब शिकचेंबी अशें ताका आतां मातूय दिसनासलें. नाच करपाची उमेदूय ना जाल्ली. आयदनां घासताना गोबरान भरिल्ले म्हेळे हातूच तें तोखेत बसतालें. ताटांत कितें पडटा तें खातालें. खळांतलें तोर वा खारो बांगडो हाचे भायर ताका कसलीच रूच उरूंक नाशिल्ली.

वर्सां गेलीं. सोनाली आतां ल्हान पोर उरलें ना. सतरावें सोंपून अठरावें वरस लागलें तशी आवय एक दीस उठून भयणिगेर गेली. सोनालीक घेतलें वांगडा. सोमतेंच थारावन आयिल्ली बरी. नाजाल्यार दवरलें ताका एक दोन दीस थंय.

''बाय या मगो आमी मावशेगेर?''

''हय हांव भायर सरलें.''

तितल्याच तितलीच जाप आसताची ताची. वयर आनीक कांय उलोवप ना.

सामानाच्यो दोन पोतयो हातांत घेतल्यो आनी दोगांयय वाटेक लागली.

आठ दिसां भितर सोयरीक जुळ्ळी. शीतेले भयणीक ती पार्त बरी आशिल्ली. रायभारीच आशिल्ली म्हणल्यार जाता. अश्यो खूब सोयरिको जुळयिल्ल्यो तिणें. सोनालीची सोयरीक जुळ्ळी तीस वर्सांच्या दादल्या कडेन. लग्न जाल्लो आनी ताची आदली बायल मेल्ली. आदले बायलेक भुरगें नासलें. शीतेन हां म्हणलें आनी लग्न करून सोडलें. सोनालीक कोणें विचारलें ना आनी ताणेंय कांय जाप काडली ना. आवय सांगता तशें तें त्या दादल्या फाटल्यान लागलें चलपाक. खूब दिसांनी शीतेक कळ्ळें, भुरगें जायना म्हण बायलेन आपणेंच वीख घेवन जीव सोंपयलो म्हण, आपले धुवेचो तिका हुस्को जालो. रोकडोच गर्भ धरल्यार पुरो. तिणें मागलें.

पूण सोनालीक चड वाट पळोवची पडली ना. ताका एका वर्सा भितरच गर्भ धरलो आनी तिका सू जालें. घोवागेर तशें कांय फाल्त नाशिल्लें सोनालीक. तो एके कंपनींत प्यून म्हण कामाक आशिल्लो आनी घरांत मनशां कोण नाशिल्लीं. सोनालीक बरो करतालो.

फकत सवणें जावन उडपाची धुवेची भास मात आतां केन्नाच आयकूंक मेळची नासली. शीतेक दिसतालें, 'हांव तरी आनीक कितें करपाक शकतालीं?' ह्या गांवांत रावपाचें आसा जाल्यार गांवांतलीं धा मनशां सांगतात तशेंच रावपाचें. धा जाणांचें उतर मान्य. सुबेज उलोवपाचें ना. उलयलोच जाल्यार ताच्या बोचकुलाक धरून ताका भरभरीत ओडीत हाडून तोंडांनी वदपाक लावून ताचेर चार खोंटो घालपा इतली ताकद तांच्या उतरांनी आसा. असले देखाव तिणें जायते खेपेक ह्या गांवांत पळयल्यात. बायलेन तर एक उतर तांकां लाग सारकें उलोवपाक जायना. तिच्या केश्ट्यांक धरलेंच म्हण समजुपाचें. देखून शीता आनी तिचे सारक्यो बायलो ह्या लोकांक भियेवन दीस काडटाल्यो.

सोनालीक लग्न केलें. तागेर भुरगें जालें आनी तिचे तकले वयलो एक व्हडलो भार उणो जालो. सोनालीनय गांवांक फाट केल्ली म्हणल्यार जाता. ज्या गांवांत आपणाचेर अत्याचार जाला आनी ताका लागून आपल्या आयुश्याची बरबादी जाली त्या गांवाचे तोंड लेगीत पळोवंचें ना हो ताणें निश्चेव केल्लो. पूण हाचो बदलो मात घेतले बगर रावची ना हो ताणें सोपूत घेतिल्लो. तागेर जालो चलो. दादल्यांचो ताका तिटकारो येतालो पूण घोवा कडेन ताणें तशें जुळोवन घेतिल्लें. आवयक त्रास नाकात आनी तागेलें फाटलें प्रकरण वयर काडलें जाल्यार आपलेंय प्रकरण उकतें जातलें हे भिरांतीन ताणें वगी रावपच पसंत केलें. चल्याक नाव दवरलें विक्रम आनी ताच्या तोंडांत साखरेचो कण घालून म्हणलें, नाव विक्रम. मुद्दाम दवरलां. ज्या मनशान म्हजी अशी गत केल्या ताची गची आंवूळ आनी तकली व्हरून सर्मण गांवच्या तिठचार हुमकळाय आनी सगल्या गांवकाऱ्यांक आड्डून सांग जो कोण चलयांचेर आगळीक करता आनी बायलांचेर अत्याचार करता जाल्यार खबरदार. सोनालीच्या पोटांत जल्माक आयिल्लो हो विक्रम तुमकां सोडचो ना. खूब तेंपान सोनाली किंवाट्यान उलयलें आनी मागीर ताणें ताका अपुरबायेन दुदाक धरलो 'म्हज्या दुदांतल्यान हे सगळे जाळ तुज्या पोटांत वचूं' आनी मागीर तें शांत जालें.

गांवांत आत्रा पयऱ्यान असल्यो घडणुको घडत रावल्यो. मर्दी सामकें थंड जातालें आनी म्हणटा सर मर्दीच एखादी घडणूक वाऱ्या भशेन पातळटाली. सकाळीं तिठ्यार थोडी कुजबूज जाताली आनी मागीर भिरांतिचें कातडें पांगरून सगळे चिडीचूप जाताले. आवयांक मात एक धाक उरतालो. आपले चलयेक सांबाळपाचो. शाळा सुटली काय भुरग्यांक थेट घरा घेवन येताल्यो. आतां मातशें सगळें सुदारतालें. घरा घरांनी संडास आनी बाथरुम जाल्ले. बाई मास्तरांचेर दडपण आयिल्लें. पूण हो विकृत मनीस दिसा ढवळ्यां उकतेपणी भोंवतालो. कोण ताका रोमीयो म्हणटालो, कोण बायजण म्हणटालो. ताचे आवयक रुक्मीणीक शिटकावन धपकावन जाल्लें. पूण ती तरी कितें करतली? कितलें सांगून पळयलें. पूण एक दीस तिचेच गोमटेक घांस मारपाक आयलो. लोकांकूय तिचे कडेन वायटपण

(पान ४६ चेर)

# विध्वंसाचो वेळ

गोकुळदास प्रभु

निमणो पीरियेड. भुरग्यांच्या तोंडार वाज. हॅमलेट नाटकाच्या तिसऱ्या अंकांच्या दुसऱ्या देखाव्याचें पाठ चलताले. I will speak daggers to her, without using one अशें आपले भितर सांगून डेन्मार्काचो राजकुंवर आवय कडेन झगडपाक येता. त्या वाक्याचो अर्थ सांगपाक सोदतासतना घंटी वाजली. वर्ग बोवाळून सडसडीत उठलो आनी लेक्चर अर्दकुटें उरलें.

भुरग्यांच्या एकामेकांच्या उल्यान आनी आरडेन भरिल्ल्या वातावरणांत हांव स्टाफ रूमा कडेन गेलों. म्हज्या मेजा कडेन पावना फुडें मोबायल काडून पळयलो - कोणाचो तरी मिस-कॉल वा मेसेज आसा? ... एक मेसेज आशिल्लो, बायलेचो. ह्या विकेंडाक (म्हळ्यार आयज) घरा येतलो काय ना? येतलो जाल्यार अमकें अमकें सामान घेवन यो.

हांव मेजा वयल्यान म्हजें बॅग घेवन कॅंटिना कडेन गेलों. घरा वच्चें पयलीं आमी इश्ट मित्र सगळे एकदां थंय मेळटात आनी एक घोट च्या पियेवन घरा वतात. थंय खंयच्या ना खंयच्या विशयांचेर आमचो गंभीर विचार विनिमय जाता तशेंच फाल्तू गजालीय जातात. सदां प्रमाण कोणे कांय म्हाका शिटकायलें - तुजो दिश्टीकोन आनी विचार अभिव्यक्त करपाची रीत चिके सुदार. उलयताच कडक आनी बरोवपांतय तिखसाण आसा. खूब लोकांची भावना दुखयता. आनी कोणे हासत सांगलें, वेळ बदल्ला. विचारांचेर लगाम दवर. ना जाल्यार विचार करपाक गळ्या वयर तकली आसची ना. हांवय हासलो. आमी भायर सरले.

म्हजे भाड्याचे फ्लॅट अर्द किलोमीटर अंतरार आशिल्लें. आनी म्हाका चलून वचप आवडटालें. आयज शेनवार आनी गांवां वचपाचें थारायल्लें. रातचे ट्रेनीर बसचे पयलीं घरकान्नीन सांगिल्लें सगळें सामान घेवपाचें आशिल्लें.

वत मोव जाल्लें तरीय वातावरणांत चिके हुनसाण आशिल्ली. हांव वेगान चलपी. त्या वातावरणांत ताकतिकेन पावलां दवरून चलिल्ल्यान निदळार, मानेर आनी खांदार



हुमेचें थेंबे निर्माण जाले. मागीर ते निसरून फाटी वयल्यान, हातां वयल्यान देंवून म्हाका फाट घेत आयिल्ले सांवळेंत पडून धाडवले.

सैम सुंदर आशिल्ले. वतांत रुखाचीं पाना झगझगतालीं आनी त्या रुखाच्या पाना मदल्यान माड, भांगराळें वत आंगार घेत, निळशा-गोबरा रंगाच्या मळबाक तकली तेंकोवपाच्या हावेशान वयर सरून राविल्ले.

पूण खीण भितर संवसार कोसळ्ळो. पयस, पयस, खंयच्यान तरी एक जड पूण पोकळ आवाज आयलो. रोखडीच भूंय कांपली काय असो भास जालो. मार्गाचे कुशीक सुस्त न्हिदून आशिल्लें सुणें सट करून चारूय पांयार उबें जालें आनी आवाजाचें दिकेन तोंड करून भोंकपाक लागलें. रुखा वयलीं सुकणीं एकठांय पाकां फडफडायत, रूख हालयत, बोवाळ करीत, बाण सोडिल्ले भशेन उडलीं. खंयच्यान तरी एक गाय आपली शेंपडी वयर करीत धांवत आयली आनी तितलेच बेगीन दिसना जाली.

मार्गा वयले लोक गोंदळून, स्तब्ध जावन एकामेकाचें तोंड पळेत रावले. म्हजे कांय विद्यार्थी धांवन आयले आनी म्हाका सांगलें,

- सर, बाँब फुटलां.

- तुमकां कशें कळ्ळें?

- हें पळय.

एकल्यान आपल्या मोबायला वयलो मेसेज दाखयलो. हांवें कितेंय सांगचे पयलीं पब्लिक ॲड्रेस सिस्टेमा वयल्यान लोकांक शिटकायत पुलीस वॅन आयलें. उपकार करून लक्ष दियात... खंय कितेंय अनवळखी उपेक्षीत वस्त पडिल्ले दिसले तर हात लावूं नाकात, आमचे नदरेक हाडून दियात... उपकार करून...

लागीच्या एका मार्गा वयल्यान ॲम्बुलेन्स काय फायर टेंडर मुखा वयल्या गाडयांनी वाट सोडपा खातीर किळांच मारून गेल्ल्याचो आवाज आयलो.

पयस, पयस, पयस मळबा धारेर आगळी आकृती घेवन दाट काळो धुंवर वयर सरतना दिसलो. क्षितिजाचो रंग थंय काळो जायत आशिल्लो.

मळबा कडल्यान म्हजी दीश्ट पयसुल्ल्या माडाचेर थिरावली. तेन्ना ताचेंवयले ते विचित्र वस्त लक्षांत आयले. हांव तें परत परत पळेलें, तेळीत रावलो. समजून घेवपाक कठीन आशिल्लें. पूण त्या माडाचेर नाल्लांच्या जाग्यार बोंबांचो घोसूच दिसतालो. म्हजे दोळे म्हाका फटयतात काय कितें? हांवें म्हजी दीश्ट फाटीं घेतली आनी दुसऱ्या माडांचेर व्हेली. म्हजेर धपको बसलो. सगळ्या माडांचेर बोंबांचेच घोस आशिल्लें!

हांवें भोंवतणीं पळयलें. सैम सगळें बदल्लें. आंब्या पणसाचो रुतू न्हय तरीय रुखांचे खांदे फळांच्या वजनान बागवल्ले आनी तांचेर वेग वेगळ्या तरांच्या बोंबाचे घोस दिश्टी पडटाले. मशींगाचेर लेगीत नळयेचें बोंब हुमकळटाले. दसणेचीं आनी बॉगेनविल्लाचीं झाडां रगतबंबाळ जावन राविल्लीं.

अचकीत म्हजो मोबायल फोन वाजलो. अनपेक्षीत घडयेक वाजिल्ल्यान म्हाका कच जालें. फोन हातांतल्यान निसरून सकल पडलोच अशें दिसलें. हो आतां कोणाचो कॉल? घेवंचो काय नाका? घेवपाक बटन दामलें तर स्फोट बी जातलो? हांवें दुबावान मोबायलाच्या स्क्रीनार नदर मारली. थंय म्हजे बायलेचें चित्र दिसलें म्हूण सूं जालें.

- टी.वी.चेर ब्रेकिंग न्यूज आयल्या, तुमचे थंय खंय बोंब फुटलां. खंय आसात तुमी?

तें पयस खंय तरी फुटलां गो. आय आम फायन. रातच्या ट्रेनार बसून येतां.

तिणें सांगिल्ल्या जिनसाची याद जाली. आमच्या गांवांत तशें बेगीन मेळनात त्यो तरकारी घेवपाक हांव मार्केटा कडेन गेलों. नाना तरांची तरकारी आशिल्ल्यान वेंचून काडपाक खूब आशिल्लें. पूण वेंचपाक हात लागीं व्हरतना सगळें बदल्लें आनी तरकारी खंय दिसली ना. म्हज्या मुखार वेगवेगळ्या प्रकाराचे, आकृतीचे, रंगाचे बोंब सुंदर रीतीन दाळून दवरिल्ले. म्हजे दोळे म्हाका फटयतात काय कितें? हें बाँब-बींब कांय न्हय, निरुपद्रवी बटाटे, सूर्न, नाल्ल, बीटरूट, आदी. म्हण म्हज्या मनाक पटोवन दिवपाक खूब त्रास आनी वेळ जालो...

मार्केटांतल्यान भायर वचपाचें वाटेर नुस्तीं आनी मास विकपाचीं दुकानां आशिल्लीं. कांय दुकानांतल्या पांजऱ्यांनी कोंबे-कुंकडां दिसलीं. आनी कांय दुकानांत कोंक्या वयल्यान दुकर, बोकड, गाय, म्हस हांच्यो चामडी सोलून निवळायल्ल्यो कुडी हुमकळून पडिल्ल्यो. दुकानदार ताचे वयल्यान गिरायकांक जाय तितलें मांस कातरून, जोखून दितालो. तकल्यो नाशिल्ल्यान त्यो कुडी खंयच्या जनावराच्यो अशें सांगपाक जमचें नासलें. सगळ्यो एक सारख्यो दिसताल्यो आनी खरें म्हळ्यार व्हदळच्या बाँब स्फोटांत हात पाय आनी तकल्यो होगडायिल्ल्या खंयच्या कांय भुरग्यांच्यो सोलिल्ल्यो कुडी थंय हुमकळायल्या जायत असो मनांत एक भ्रम उपजलो.

त्या भ्रमान म्हज्या पोटांत धवळून आयलें. रोखडोच ओंकून उडयतलों अशें दिसलें. म्हज्या पांवलांक तांकत तितल्या वेगान थंयच्यान पळून वचपाचो म्हजो उत्कट आग्रो आशिल्लो...

आतां भायर मळबाची धार सामकी तांबडी रक्तबंबाळ जाली आनी वयल्यान काळखी सावळेचो प्रहरय वाडटालों. हांवें मार्केटांत खूब वेळ काडिल्लो. म्हज्या ट्रेनाचो वेळ लागीं पावत आयिल्लो. देखून ताकतिकेन हांवें म्हज्या भाड्या फ्लॅटाची वाट धरली...

शेजाराच्या फ्लॅटांतल्यान टी.वी.चो आवाज येतालो. टी.वी.चें पॅनलीश्ट आयच्या खबरांचें विश्लेशण करताले. आनी वेंचीक मुद्द्यांचेर उलयतना उतरांचो शिंवर घालताले. खरें म्हळ्यार ते एकमेकांचेर उतरांचे बोंब शेंवटिताले. टी.वी. पळयनासतनाच ते पॅनलिस्ट कशे बसल्यात ताची हांवें संकल्पना केली. तांचो हावभाव म्हज्या संकल्पनेंत स्पश्ट दिसलो. आपणाक कितें सांगपाचें आसा तें कळीत करपा खातीर तांणी हात वयर करतना ते बोंब शेवटपाची मोख थारायतात अशें मनांत आयलें...

पयले माळये वयल्या म्हज्या फ्लॅटा कडेन वचपाक सोपणां चडटना अकस्मात सकल देंवन येवपी एका अनवळखी मनीस म्हाका आदळटलों काय ना इतलें लागीं पावलो पूण तो आदळ्ळो ना. तो एक हार्दिक, फुलिल्ल्या हासाची भेट दीवन म्हजे कुशींतल्यान सकल देवन गेलो.

हांवें म्हज्या फ्लॅटाच्या दारा मुखार रावन बॅगांतल्यान चावी काडली. चावयेच्या बिळांत घालून घुंवडायली. आनी म्हज्या लक्षांत आयलें, दार उक्तेंच आसा. सकाळीं भायर सरतना चावी करूंक नाशिल्ली?

निसणीवयल्या त्या मनशाचो उकतो हास मनांत आयलो. भेश्टेंच कँटिनांत च्या घेतना सांगात्यानी दिल्ले शिटकावणीच याद जाली... म्हाका आतां खात्री जाली -अनर्थ घडपाचो आसा...

भितर सरून स्विच दामतनाच हजार सूर्यांच्या तेजान ट्यूबलायट पेट्टलें आनी खीण भितर ट्यूबलायट फुटून कुडके कुडके जावन म्हजेर शिंवरतले आनी मागीर...

म्हजें बोंट अनमनत, अनमनत, हळूच, हळूच, हळूच लायटीच्या स्विचा कडेन गेलें.



# कथा लॅटर बॉक्साची

डॉ. जयंती नायक

दनपारचो सुमार बारा वरांचो वेळ. घरांत कोण नाशिल्लो वातावरण शांत आशिल्लें. हांव म्हज्या बरोवपाच्या रुमांत कंम्पुटरा मुखार तळमळत बशिल्लें. अर्जंट एक कथा बरोवन जाय आशिल्ली, बिम्ब म्हयनाळ्याक धाडपाक. दिवाळी अंकाक म्हजी एक कथा दितां म्हूण ताच्या संपादकाक सांगिल्लें. ताची डॅड लायन फाल्या आशिल्ली. पूण आजून कथा बरोवन जावंक नाशिल्ली. कथे खातीर विशय सूचच नाशिल्लो. हांव कपलार हात दामून, दोळे धांपून विशयाची सोदा-सोद करतालें.

बरोच वेळ जालो, कथेक योग्य असो विशय सूचच ना जालो. बेजारून हांवें म्हजी तनरी मोडली आनी तकली वयर केली. तशी एकदम म्हजी नदर कंम्पुटरा माथ्यार, वण्टीचेर बसयिल्ल्या लेटर बॉक्साचेर पडली. चक्क करून यादींचें एक बिजूल म्हज्या मनांत चकचकलें... मनांत आयलें, ह्या लेटर बॉक्साचेर... तें करून दिवपी गोविंदाचेरूच कित्याक बरोवची न्ही हांवें कथा?

हें लेटर बॉक्स म्हाका गोविंदान सुमार धा वर्सां आदीं करून दिल्लें आनी तेंवूय आपूण जावन, हांवें न सांगतां, न मागतां. ताकाच मनांतल्यान दिशिल्लें, आपणें तें म्हाका करून दिवचें म्हण. एका दिसा सक्काळीं फुडें, म्हणल्यार दुयेंतपणाक गांवांत वच्चे आदीं, सुमार बारा इंच लांब आनी स इंच रूंद अशें, नकशीकाम केल्लें, शिशा लांकडाचें सुंदर अशें एक लेटर बॉक्स घेवन गोविंद आमगेर आयिल्लो. हांव ऑफिसाक वचपाची तयारी करतालें. घरांत बाकीचीं लोक आशिल्लीं. तांकां उखलापी जाप करून तो ''बाय... बाय...'' म्हण उलो मारीत म्हज्या रुमांत भितर सरलो. सरळच म्हज्या हातांत तें लेटर बॉक्स चेपीत ताणें म्हणलें, ''बाय, घे हें तुका. फाटीं एका दिसा तुका सांगिल्लें पळय हांवें. पत्रां दवरपाक बॉक्स करून दितां म्हण, हें पळय आज हाडलां.''

गोविंदान हातांत दिल्ल्या लेटर बॉक्सा कडेन पळयत हांवें म्हणलें, ''वा व्व! अप्रतिम! सुंदर!'' म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं उतरां खरेंच योग्य आशिल्लीं. खऱ्यांनीच, तें लेटर बॉक्स सुंदर जाल्लें. व्हर्नीश काडिल्ल्यान तर तें सामकें चकचकतालें.

एक दोन मिनटां त्या लेटर बॉक्साक तोखेले उपरांत हांवें ताका विचारलें, ''कितले पयशे रे गोविंद हाचे?''

हांवें तशें म्हण्टकच गोविंद बेजारलो. म्हणूंक लागलो, ''हांवें हें कितें तुका पयश्यां खातीर दिलां गो बाय?... ही म्हजी तुका याद! तुवें कितलें केलां म्हजे खातीर, थोडे फावट म्हाका पयशे दिल्यात वखदाक?''

''हय रे, पूण तुवें ते फारीक केल्यात न्ही सगळे.''

''फारीक केले म्हण कितें उपकार ना जातात?... पूण हें बॉक्स हांवें उपकारा खातीर दिलेंना करून... तर म्हजी याद म्हण करून दिलां. तुका जायतीं पत्रां येतात न्ही गो? तीं पत्रां येयलीं म्हण्टकच ह्या बॉक्सांत दवरून मागीर फावता तेन्ना जाग-जाग्यार दवरूंक मेळटलें तुका. जेन्ना जेन्ना ह्या बॉक्सांत तूं पत्रां दवरतलें... काडटलें... वा तेचेर तुजी नदर पडटली, तेन्ना तेन्ना तुका म्हजी याद येताली!''



''अशें कितें उलयता रे, सामको गांव सोडून वतल्या सारखो.''

गोविंद हांसलो, कांयच उलयलो ना. मात रोकडोच भायर सरून गेलो. च्या घे म्हणली, तिवय घेतलीना. गोविंदाचीं उतरां मात खरीं जाल्लीं. ते उपरांत जेन्ना जेन्ना हांव त्या लेटर बॉक्साक पळयतां वा हात लायतां, तेन्ना तेन्ना म्हाका गोविंदाची याद येता, जी आतांय ताचेर नदर पडटांच म्हाका जाली. गोविंद तसो म्हजो कोण नात्यांतलो न्ही वा गांवचोय न्ही. तो बेळगांवचो. आमच्या गांवच्या मेस्तागेर मेस्त्री म्हण कामाक आशिल्लो. आमच्या गांवांतच एका भाड्याच्या घरांत ताणें बिराड थाटिल्लें. ताका भुरगें नाशिल्लें, ताची बायल आनी तो त्या घरांत रावतालीं.

गोविंद सभावान खूब बरो आशिल्लो, सगळ्यां कडेन खालते पणान वागतालो. आपुलकेन सगळ्यांक जाप करतालो. कोणेंय कितेंय बारीक-सारीक काम सांगल्यार केन्ना ना म्हण नाशिल्लो. पात्रांवाच्या कोंत्रादाचें काम सोंपतकच उसरां रावन वा आयताराचें येवन तें काम तो करतालो. कोणेंय कितेंय पयशे उखलून दिल्यार नाका नाका म्हण्टालो. मागीर लोक जबरदस्तीन ताच्या बोल्सांत ते चेपताले.

आमगेलें नवें घर बांदतकच ताचें सगळें मेस्तकांम ताच्या पात्रांवान केल्लें, ते वरवीं तो आमगेर पावलो. ते आदीं कांय तेंप तो गांवांत आशिल्लो, पूण तेन्नाच्यान तो आमकां चड लागीं जालो. सुमार दोनेक म्हयने ताची आमगेर यो-वच उरली. हांव बरयतां, म्हजीं पुस्तकां येतात, तें पळोवन ताका खूब कवतूक जालें. ताचे बायलेक वाचपाची आवड आशिल्ली. तिका वाचपा खातीर तो म्हजीं पुस्तकां मागून व्हरूंक लागलो. अशे तरेन म्हजें आनी ताचें नातें जमलें.

सुमार आठेक वर्सां तो गांवांत रावलो. अदीं मदीं तो आनी ताची बायल गांवघरा म्हणल्यार बेळगांवांत वचून येतालीं. पूण एकदां ताची बायल गेली ती मात परत आयलीच ना. कोणें तरी बातमी हाडली, तीं ताका सोडून गेल्या म्हण. विचारल्यार ''हें. ना, लोकांच्यो वोगीच वावड्यो. ती गांवांत रावन भुरग्या खातीर ट्रीटमेंट घेता'' म्हणूंक लागलो सुमार वर्स वयर ताची बायल आयली ना तेन्ना लोक चडूच कुचकुचूंक लागले. म्हाका मात ताका परत विचारप योग्य दिसलें ना.

हे मजगतीं तो बरो ना जावंक लागलो. परत परत थंडी-जोर... अशें जालें म्हण्टकच तो मदींच उठून बेळगांवां वतालो. गोंयांतय दोतोर करतालो. एक-दोनदां वखदां हाडूंक पयशे ना म्हण तो म्हजे कडल्यान पयशे घेवन गेल्लो, मात पगार जातकच रोकडेच ताणें ते हाडून दिले.

उपरांत एक दीस तो गांवां गेल्लो तो बरेच दीस आयलोच ना. दीस न्हीच, तर सुमार चारेक म्हयने तो आयलोना. पूण ताणें बिराडूय खाली करूंक नाशिल्लें. ताची बिराडाची मालकीण फिलेमॅना बेजार जाताली. 'चार म्हयने आपलें भाडेंय ना, आनी दुसऱ्या कोणाय भाडयाक दवरूंकय मेळना,' म्हण्टाली.

म्हाका खरें गोविंदा कडेन एक काम आशिल्लें. म्हज्या पुरस्कार 'स्मृती चिन्नांची आरमार भरिल्ली, देखून नवी लांकडी आरमार करपाचें मनांत आशिल्लें. म्हूण हांव ताची, ताच्या पात्रावां कडेन वा ते बिराडकान्नी कडेन मेळटा तेन्ना वासपूस करीतच आशिल्लें. तो आयलोना हें कळटकच हांव बेजारय जातालें आनी तो चड बरो ना काय म्हण म्हाका ताचो हुस्कोय जातालो. म्हज्या घरांतलीं लोक म्हाका सल्लो दितालीं, ''आगो, गोविंद येतलो तेन्ना येवूंदी, ना तर ना येऊंदी, तूं ताची वाट पळोवं नाका. आनी कोणा कडल्यानय करून घे आरमार.'' पूण म्हाका आनी कोणा कडल्यान काम करून घेवपाचें नाशिल्लें, म्हाका गोविंदालेंच काम मानवतालें.

हांव गोविंद येवपाची वाट पळयत आशिल्लें. तो गांवांत गेल्यार स म्हयने जावन गेल्ले. एका दिसा हांव अशेंच दनपारचें बरोवंक बशिल्लें. त्याय दीसा हांव घरांत एकटेच आशिल्लें. इतल्यांत म्हजी शेजान्न म्हाका उलो करीत घरांत आयली.

''तूं येता गो? गोविंद आयला. हांव तेका मेळपाक वतां.''

हांव अजापलें. म्हणलें, ''केन्ना आयलो तर तो? आनी आत्तांच कित्याक मेळपाक जाय? मागीर या न्ही सांजेचीं, सुशेगादीन!''

शेजान्नीन म्हणलें, ''म्हाका फिलोमॅनान रकाद धाडला, गोविंद आनी तेची बायल दोगांय येयल्यांत खंय वर भर पयलीं. सामान बांदतात व्हरपाक तें बांदून जालें म्हणटकच वतलीं खंय रोकडींच तीं. तेन्ना तेका मेळपाचें आसल्यार आतांच यो. तो खूब बरो ना खंय. परत आनी जापेक मेळत सो दिसना खंय.''

''कितें. इतको बरो ना? कितें जालें तर ताका? आनी ताची बायल परत आयली?... ताका सोडून गेल्ली म्हणटाली न्ही गे ती?''

शेजान्न दोन मिनटां वोगीच रावली, मागीर सांगूंक लागली, ''कितें सांगूं बाये... तेका खंय एडस् जाल्या... आनी पाड पडलेल्यान बायलेकय ती पिडा लायल्या...''

''कितें...?'' हांवें एक किंळांचच मारली. ''कितें सांगता गे तूं? कितको बरो मनीस गे तो?... तो आनी असलें...''

''बरें आनी वायट... कोणाचो विस्वास दिवंक नजो... मनशाक आपले कुडीचे खाजीचेर ताबो दवरूंक येना म्हणटकच अशें घडटा. मदीं केन्ना, कित्याक लागून बायल झगडून आवयगेर गेल्ली पळय, तेन्ना खंय बेळगांव गेल्ले कडेन तो कोणा शिंदळके म्हऱ्यांत गेल्लो. थंय ही पिडा तेका लागली. मागीर बायल झगडीं विसरून परत तेचे म्हऱ्यांत येयली तेन्ना हेणें बायलेक ती दिली. आतां दोगांय एडसाचीं पिडेस्त जाल्यांत.''

आयकून म्हजी तकली सामकी भेरेल्ले बशेन जाली, कांयच उलोवंक सूचना जालें. हांव वोगी आसा तें पळोवन शेजान्नीन म्हणलें, ''या गो? मागीर केन्ना दिसचो ना तो आमकां. हरशीं बरो मनीस गो तो...''

शेजान्न वचपाची तिश्टत करताली पूण म्हजें मन दोट्टी अवस्थेंत सांपडिल्लें. एके वटेन दिसतालें, वच्चें न्ही. पातकांच्या कोडांत आपणें लोळून, आपले बरोबर बायलेकय फोंडांत घालपी मनशाक कित्याक मेळपाक वच्चें आपणें? दुसरे वटेन दिसतालें, तांच्या पातकाचें प्रायचीत तो भोगता. आमी आपलें कर्तव्य करपाचें. इतको तेंप सगळ्यां कडेन बरे तरेन वागलो तो. म्हजीय खूब व्होडवीक केली. आतां ताका ह्या प्रसंगार धीर दिवपाचें काम करया.

ते दिसा हांव शेजान्नी बरोबर ताका मेळपाक गेलें. म्हाका पळोवन ताच्या फोंडांत गेल्ल्या दोळ्यांत एक हांश्याचें किर्ण चकचकलें पूण मान मात ताची सकल बागवल्ली. हांव कितें सांगतां, उलयतां ताचेर तो फकत मान हालयतालो. ताची बायल मात मेकळेपणान उलयली. ताका ती पिडा लागूंक आपूणच कारण, आपूण ताका सोडून कांय दीस वचना तर तो ते घाणींत पावल घालना अशें तिच्या मनाक दिसतालें. हांवें तिका समजायली, वोगीच स्वताक दोश दिवं नाका म्हण सांगलें.

गोविंदाचे बायलेचो ट्रिटमेंट चालू आशिल्लो. पूण गोविंदाची स्टेज निमाणी आशिल्ली. तो कांय दिसांचो सोयरो आशिल्लो. ते दिसा उपरांत म्हाका गोविंद वा ताचे बायलेची कांयच खबर मेळ्ळीना.

हे गजालीक आतां धा वर्सां जावन वतलीं. खात्रीन गोविंद आतां ह्या संवसारांत आसचोना. ताचे बायलेचें मात म्हज्यान कांयच सांगूंक नजो. ती आसत वा नासतय. मात गोविंदान म्हाका करून दिल्लें तें लेटर बॉक्स आजूनय म्हज्या बरोवपाच्या रुमांत आसा, आनी जेन्ना जेन्ना ताका हांव पळयतां तेन्ना तेन्ना म्हाका ताची न चुकतां याद येता.

...आतांय त्या लॅटर बॉक्साक पळोवक म्हाका गोविंदाची याद आयली पूण आयज हांवें थारायलें, निकटी ताची याद काडून रावपाचें ना तर ताची कथाच बरोवन काडपाची.

...कथे खातीर म्हजी विशयाची सोदा-सोद थांबिल्ली आनी म्हजी बोटां की-बोर्डाचेर झपझप पडपाक लागिल्लीं.

संपर्क: 9823575623



# नारींग

वसंत भगवंत सावंत

"आज्जेऽऽ आज्जेऽऽऽ काकान तसलीं नारगां हाडल्यांत मगे?" धांवत धांवत घराचीं सपणां चडटा आसतनाच पुतोण्यान आपले आज्जेक विचारिल्लो प्रस्न, खाटीर लोळटल्या राजारामाच्या कानांत पडलो आनी ताच्या काळजांत खप्प जालें. स्प्लेंडर आयिल्ल्याचो आवाज ताच्या कानार पडिल्लो तेन्ना भाई वेर्णे सावन दसऱ्याक घरा कडेन आयलां. हें ताणें पारखिलें. पूण चवथीक सांगिल्ली नारंगाची गजाल पुतोणयान आजूनय मतींत घट्ट धरिल्ल्याचें जाणवना फुडें ताका हांतरुणा वेल्यान उठचेंशें दिसलेंच ना.

दर वर्सा गणपती पायतना राजाराम घेऽऽ म्हणून फोग लायतालो. बाजारांत मेळटल्या फोगा वांगडाच मुद्दम म्हाड्डोळा वचून तो पंचमुखी नारंगां हाडटालो. पांच वटेन रंगरंगयाळो उजो सोडीत रसरसून पेट्टलीं तीं नारगां पळोवपाक आंगणांत वाड्या वयल्या लोकांची दाटी जातली. चाळीशेक दिसा आदीं जाल्ले अंदूचे चवथीक मात ताणें फाटल्या स-सात वर्सांत पयले खेपे तीं तसलीं नारगां हाडूंक नासलीं. खण बंदी जाल्ले उपरांतची ती दुसरी चवथ. तशी आदल्या वर्सा चवथी पयलींच सिझन सोपतां सोपतां मीनाची येरादारी करपाचेर बंदी आयिल्ल्यान तागेले पांचूय ट्रक बेकार पडिल्ले. तरीय ते चवथीक ताका पयश्यांची व्हडलीशी अडचण जाणवू नासली. सिझनांत केल्ल्या कामाचे पयशे चवथी आदींच हातांत पडिल्ले आनी वर्सा भशेन ताणें तिवूय चवथ गडगडान मनयल्ली. अंदूचे वर्स धुकलतना मात खणबंदीन आपणाक सामको खांकनवाळ करून सोडला आनी ह्याय फुडें एक एक दीस सारप लेगीत आपणा खातीर कितलें भिरांकूळ जालां हाची ताका खरायेन जाणीव जाल्ली.

तशी दोन ट्रकां खातीर सरकारान म्हयन्याम्हाल दिल्ली बारा हजारांची पॅकेज मेळपाक लागिल्ल्यान ताका मात्शी शीं थाकाय मेळटाली. हे चवथीच्या आठ दीस आदींच आदल्या दोन म्हयन्याचे धरून आपल्या खात्यांत वट्ट छत्तीस हजार पाविल्ल्याचो संदेश ताका मोबायलाचेर आयिल्लो. पूण पयशे काडपाक बँकेंत गेल्ले कडेन तांतुतले वीस हजार रुपये बँकेन रिणाच्या खात्यांत घालून उरिल्ले सोळाच हजार रुपये ताच्या हातार दवरिल्ले, तेन्ना मात तो साप निरशेल्लो. ही चवथ आतां कशी तरी सांबाळून व्हरची पडटली हें ताका आपल्या मनाक समजावन दिवचें पडलें.

ह्या सात-आठ वर्सांत पयले खेपे तागेल्या घरांत गणपतीची ल्हानशी मूर्त पावली, माटोळी सामकी विस्कळ जाली. गणपती पळोवपाक येतल्या इश्टांची संख्या सामकी देंवली. वर्सा वळीच्या बदाम, खाजूर, काजू बियो घातिल्ल्या दोण्यां बदला, आरती करतल्या भुरग्यांक शेव-चिवड्याचे बश्शेंत चिमटी मारची पडली. आनी वर्सा भशेन आंगणांत फोगाचो गडगड जाय नासतना माराणांच्या अर्द्या बॉक्साचेरूच निभोवचें पडलें. राजारामालो स वर्सांचो पुतोणयो सामको निरशेलो. ताका बुद्द येत सावन तो तीं पांच तोंडांची नारंगां पेटतना पळोवन नाच नाच नाचतालो. आपलो काका कसलो कसलो फोग लायता तें उमेदीन वांगडा शिकतल्या भुरग्यांक मोठे सांगतालो. पूण अंदू चवथीक कांयच फोग पेटना तें पळोवन ताका घुसमटून रडपाक आयलें. तीं तसलीं नारंगां पेटय म्हणून तो काकाचे फाटीक लागलो. आवयन, बापायन, आज्जेन ताका तरातरानी फुसलायलो, बापायन रागान थापट सुद्दा उबारलें पूण तावें रडें थांबलें ना. निमाणें

विसर्जनाक व्हरपा खातीर मेजा वयल्यान देंवयल्लो गणपती राजारामान पाटार दवरलो आनी पुतोणयाक लागीं ओडलो. "शाणू... आरे फुडल्या म्हयन्यांत दसरो आसा मरे. अंदू चवथीक तीं नारगां हाडपाक म्हाका म्हाड्डोळा वचपाक मेळ्ळेंच ना... पूण तूं भीवं नाकां... तूं दसऱ्याक येतलो तेन्ना बरोऽ घालुंया गडगड.

इतलो वेळ गणपती पावोवपाक भायर व्हरतना रडून वाट आडयतलो पुतोणयो ताच्या उतरांनी तेन्ना थातारलेलो खरो पूण आयज नारगांच्या उमेदीन दसऱ्याक आयिल्ल्या पुतोणयाक कशें तोंड दाखोवचें हो प्रस्न राजारामाक न्हिलळावन गेलो. आड पडिल्ले कडेन भायर कितें चल्लां हाचो राजाराम थाव घेतलो. आपली आवय आनी भाई ताका समजायतात तें ताच्या कानांर पडलें. च्या पिवन जातगीर देवळा कडेन तयारी करपाक वतां अशें आवयक सांगून भाई आपल्या पुताक मोटारसायकलीचेर बसून देवळा कडेन वचपाक गेलो मात्शें तेन्ना ताका सूऽ जालें.

भाईले स्प्लेंडरीचो आवाज मात ताका वेगळोच दिसलो. राजाराम आवाजा वयल्यान खंयची गाडी ती वळखतालो. आवाजा वेल्यान गाडयेक कसलो प्रोब्लेम जाला आसूं येता हाचो तो सहजपणान अदमास बांदतालो.

"भाईक जाता तितले बेगीन कार्बोरेटराचें काम करून घेवपाक सांगपाक जाय" ताणें आपले भितरूच चिंतलें. स वर्सां आदीं ताणेंय स्प्लँडरूच घेतिल्ली. देड वर्सा भितर विकून पल्सर घेतली. तिचें चवथें सर्वीसिंग जावचे पयलींच करिज्मा घेतली. दोन वर्सां आदीं घेतिल्ली बुलेट आतां ताचे कडेन आसा पूण पेट्रोलाक परवडना म्हणून तो ती चुकून चलयता. मोटरसायकलींचें चिततां चिततां ताका आपल्या गाडयांची याद जाली. पांच वर्सां आदीं ताणें सेकंड हँड 'वॅगनआर' घेतिल्ली. वर्स भर चलोवन ती विकून सेकंड हँड 'बॉलेरो' घेतिल्ली आनी खणबंदी जावचे स म्हयने पयलीं इनोवा घेतिल्ली. तीवूय बी एक पयसो रीण काड नासतना.

"राजा उठ मरे... दसरो आयज! ट्रकांची पुजा करता मरे?" सकाळच्यान तिसरे खेपें येवन आवयन दारार मारून ताका उठोवपाचो यत्न केल्लो, पूण ताणें तिका जाप काडूंक नासली.

आवयक दिशिल्लें पूत जागो जावंक नासतलो म्हणून. पूण राजाराम फांतोडेर सावन हांतरुणार हुळहुळत आसलो. तशी तांका हालीं न्हिदच पड नासली. ट्रक चालू आसतना तर केन्नाच सकाळचो ह्या वेळार तो उठ नासलो. आत्रा पयऱ्यान म्हाल चोरून हाडपाक जागरणां मारतालो आनी फांतोडेचेर चारांक-पांचाक येवन न्हिदतालो तो बद्द इकरा-बारांक उठ्ठालो.

"भाईन वेर्णेच्यान येतना किदेंय सामान हाडलां आसल्यार पुरो" राजारामान स्वताकूच समजावपाचो यत्न केलो. ताका फाटल्यो यादी आयल्यो. तेन्ना घरांत किदें जाय नाका तें भाईच पळयतालो. हालीं मात ताणें किदेंय हातांत धरून हाडिल्लें राजारामान पळोवंक नासलें. राजाराम सातवेक शिकतना तागेलो बापूय भायर पडिल्लो. तेन्ना घराचेर मोठें संकट आयिल्लें. घरा फाटलो काजूचो आफ्रामेंत सोडल्यार पोट भरपाक आनीक कसलेंच दुसरें साधन तांकां नासलें. भाईन तेन्नाच बारावेची परिक्षा दिल्ली. रिझल्ट येवचे पयलींच तो वेर्ण्या एके फॅक्टरींत सेक्युरिटी गार्ड म्हणून कामाक लागलो. दिसपट्टें घरा कडेन येवपाक परवडना म्हणून कोणा वांगडा थंयच बिराडाक रावतालो. आयताराक सकाळचो येतना मात तो सप्तक भर लागता तें सगळें सामान घेवन येतालो. आयिल्लेय खेपे राजारामाचेर तो तापोवणी काडटालो. "शीक मरे पापया... वाळेसपणा करून आमकां परवडना... आमकां आधार ना कोणाचो." राजाराम ताका केन्नाच परती जाप दि नासलो पूण आपलीं तवनासपणां आवयन भाईच्या कानार घातल्यांत म्हणपाचें ताका होलमतालें. ताणें इस्कोलांत वचपाचें सामकें सोडिल्लें. कोणाकोणाल्या ट्रकांचेर दीस-रात हेडत आसतालो. ट्रकाचो ड्रायव्हर सांगता तें तें काम करतालो. मायनी वयली ट्रीप हाडून प्लॉटार खाली करून रिकामो ट्रक परत दुसरे ट्रिपीक वतालो तेन्ना ड्रायव्हर ताका आपले कुशीक बसोवन ट्रकाचें स्टेरींग ताच्या हातांत दितालो. रातच्या बार्ज लोडींगा खातीर न्हंयक भरती येयसर ड्रायव्हर झेम काडटाले, पूण तो जागोच रावतालो. लोडींग सुरू जायना फुडें ड्रायव्हराक राव नासतना आपूणच ट्रक स्टार्ट मारतालो, वेवस्थीत फाटीं फुडें करून म्हाल भरतल्या शेवाळ्याक जाय तसो ट्रक उबो करतालो. रातच्या बार्ज लोडिंगाक लायसन नाशिल्लो चलतालो म्हणून एका पात्रांवान ताका नायटीक दवरलो. स म्हयन्या भितर ताणें लायसन काडलें आनी रोकडोच लायनीचो नंबराचो ट्रक ताच्या हातांत आयलो. इश्कोलांत एके एके क्लासींत दोन दोन वर्सां काडपी राजाराम वांगडच्या भुरग्यां पयलींच जोडपाक लागलो. त्याच अदमासाक मीनाच्या धंद्याक तेजी येवपाक लागिल्ली. नवें नवें मिनेर आनी ट्रान्सपोर्ट कॉन्ट्रेक्टर जोडीक पेटिल्ले. राजारामाक चड पयशे जोडपाच्यो नव्यो नव्यो वाटो दिसपाक लागल्यो. टायर पंक्चर जावन कोणेंय ट्रीप रस्त्या कुशीक खाली केल्ली आसूं - रातोरात चार-पांच मानायांक घेवन तो ती ट्रीप भरून हाडटालो. लायनीक गाडी चलयतना दर एके ट्रिपीक धा-बारा कायली म्हाल दोन नंबरवाल्यांक विकतालो. खंयच्या आडसाक म्हाल लिपोवन दवरला, खंयचे गेटीर रातचो कोण सेक्युरिटी आसा, हें ताका पाठ आसतालें. म्हाल खाली करपाच्या प्लोटा वयल्या सुपरवायजराच्या हातार-शंबर रुपया तेंकोवन ट्रक पुराय खाली करी नासतना टन भर तरी म्हाल परत हाडून तीन-चार दिसांत आपली एक ट्रीप तयार करतालो. दोन नंबराचे पयशे हातांत खुळखुळपाक लागले तेन्ना ताणें सोमतोच एक अर्द पोन्नो ट्रक विकतो घेतलो. दिसाच्यो ट्रिपी मारपाक ड्रायव्हराक दवरून आपूण रातचो दोन नंबर करपाक पेटलो.

एकदां भाई आयताराक घरा कडेन आयिल्ले कडेन दारांत ट्रक आनी घरा कुशीक म्हाल राशीर मारिल्लो पळोवन अजापलो. त्या आयताराक ताणें राजारामाक जाप काडली ना पूण "तो करता तें धडाचें मगे? फाल्यां फोडांत पडून आमकां लजेंत घालचो ना मगे?" इतलेंच आवयक विचारून परतलो. मागीर भाईक दर आयतारा घरांत नवें नवें

बदल घडिल्ले दिसपाक लागले. करतां करतां घराची नुराच बदल्ली. आनी भाईचीय वाचा बंद जाल्ले भशेन जालें. घरांत आपूण हाडटां ते परस चड सामान हाडिल्लें आसता तें पळोवन ताणें आयताराक येवपाचें पातळ केलें. पंद्रशींतल्यान, म्हयन्याक एकदां तो आवयचे खबरीक येवपाक लागलो. आवयन विचारल्यार आपूण आतां सेक्युरिटी सुपरवायजर जालां, ते खातीर जापसालदारकी वाडल्या म्हणून सट सट करून येवपाक मेळना म्हणपाक लागलो. तितले मजगतीं तो काम करतल्या सेक्युरिटी एजन्सीच्या ऑफिसांत चलयेच्या मोगांत पडलो. आनी ताणें सादेपणान लग्न करून वेर्ण्या बिराडूय केलें.

आड पडिल्ले कडेन राजाराम सणकट्यानसो हांसलो

'केदेशें आसलें आमचें हें घर! भाई लग्न जाल्लो तेन्ना ताची कूड सुद्दां सारकी नासली. तीन चार वर्सां भितर हांवें बंगलो करून वडयलो घराचो. वॉशिंग मशीन, मिक्सर, टी.व्ही., ए.सी. सगळें हाडलें घरांत, आतां लायटीचें बील परवडना म्हणून तांचो वापर उणो जाला ती वेगळी गजाल. आयुश्य भर नोकरी करूनय भाईक असलें घर बांदपाची कापस्ताद ना. तरी भाईकय म्हणून कड्डी बरीच आसा. भाई खातीरूय एक स्पेशल रूम करून घेतला हांवें, पूण ह्या रुमांत एकेय राती तो न्हिदिल्ल्याची म्हाका याद जायना. वयनी मात उमेदीन रावता, चवथीक बी येता तेन्ना. हो देवाली तेलवात पळोवपाक जाय म्हणून चौकांत देवा मुखारूच न्हिदता आनी पंचमीक गणपती पावयना फुडें - सेक्युरिटी उणें आसात म्हणून ताकतीक करून एकलोच वेर्ण्यां धांवता.''

एके कुशीर घुंवतना राजारामाच्या हाताक मोबायल लागलो. सदचे संवयेन ताणें ''बँक बॅलन्स इन्क्वायरीचो'' नंबर लायलो. मिण्टा भितर ताका मॅसेज आयली. ''रूपये एक हजार सातशें बारा.'' ते सातशें बारा कळंतराचे बी आसतले. एक हजार तरी दवरचेच पडटात म्हणून ताणें बाकीचे सगळें पयशे फाटल्या वेळार काडिल्ले. राजारामाक सरकाराची तिडकशी मारली. दसऱ्याक लोकांक पयशांची गरज आसता हें सरकाराक खबर आसा पूण आजून ह्या म्हयन्याची पॅकेज घालूं ना सरकारान! बँक बॅलन्स पळयतना राजारामाक बँकेच्या रिणां दिवपाच्या विभागांतल्या संपदाची याद आयली. दोनूय खेपो तागेल्या ट्रकांचीं रिणांचीं प्रोपोजलां ताणें चार दिसांत पास करून दिल्लीं. राजारामाल्या खात्यांत म्हयन्याम्हाल घसघशीत पयशे येतात ते ताणें पळयल्ले. संपदा आसतगीर बँकेंत कसल्याच कामा खातीर राजारामाक तिश्टूचें पड नासलें. दोगांयलें जमलेंच अशेंच बँकेंतल्या स्टाफाक दिसतालें.

चडशे पात्रांव फकत मर्जीन एमांवट भरताले आनी बाकीचें रीण घेताले. पूण एक दीस संपदान चड रीण घेतल्यार ज्युराक गरजे भायर कितलेशेच चड पयशे कशे वतात ताचो सविस्तर हिशोब करून दाखयल्लो ते खातीर दोनूय खेपो ताणें नावाक रीण घेवन चडशे पदरचेच पयशे घातिल्ले. दोन नवें ट्रक घेवन स म्हयने जावचे पयलींच खणबंदी जाली आनी हातांत व्हडलेंशें कांयच ना हें पळोवन संपदाली बुद्द आपणाक म्हारग पडली अशें राजारामाक दिसलें. ताका संपदाची आतां तिडकच येताली. आपल्या एका उतराक तेन्ना संपदान कितलेशेच जाणांचीं रिणांचीं प्रोपोजलां फटाफट पास करून दिल्ली. पूण तागेलें लग्नाचें प्रोपोजल मात आतां भायर पडिल्ल्यांत जमा जाल्लें. पिनलेल्यांत पांय म्हणटात तशे. रिणाची थकबाकी जाता तितले बेगीन भर म्हणून संपदानूच सय मारून नोटीस धाडिल्ली. नाका त्यो संपदाच्यो यादी म्हणत तो खाटी वेल्यान उठलो आनी जनेल उगडून भायर पळोवपाक लागलो. पोरसांत पांचूय ट्रक एके हारीन उबे आशिल्ले ताका दिसले. चवथी आदीं ड्रायव्हरांनी अर्दे लिफ्टीर दवरिल्ल्यान सगळ्यांच्यो काशी वरश्यो जाल्ल्यो. रिकामी काशीचे ते ट्रक ताका देवळा भायर एके हारीन थाळी मुखार करून भीक मागतल्या भिकाऱ्यां भशेन दिसले. चवथ जातगीर लिफ्टी देवोवया म्हणून गेल्ले ड्रायव्हर आजूनय गाडयेची खबर घेवपाक येवं नासले. चवथीच्या दोन दीस आदीं चार ड्रायव्हरांनी येवन ऑयल, टायर, रेडियेटर बी तपासपाचें नाटक करून पांचूय ट्रक स्टार्ट केल्ले आनी सोमतेच पगाराक हात फुडें केल्ले. त्या ड्रायव्हरांची तिडक मारिल्ली राजारामाक तेन्ना.

''दोन वर्सां जालीं ट्रकांक काम ना हें जाणांत हे बयमान. एका तेंपार तुमीच जोडून दिलां हें खरें... पूण पगारूय घातला तुमकां घसघशीत. काम बंद म्हणून सामकेच वाऱ्यार काय वडोवंनात. केन्नाय पूण जातली मिनाची येरादारी सुरू म्हणून म्हयन्या म्हाल किदेंय तरी हातार वडयलांच. कामाक भार आसतालो तेन्ना म्हणून उणें सतोवना ह्या ड्रायव्हरांनी. म्हयनो सोंपचे पयलींच पगार खावन मेकळे जाताले. दिसपट्टो हप्तो हेर ड्रायव्हरां परस चड सोदताले. तशे ते सदच्या जोडी परस आलायतेंय जोडून दिताले. पूण निमतांय करताले नाका जाल्लीं. एकट्याली आवय झारखंडांत परत परत दुयेंत पडटाली, बिहारांतलो आसलो ताका सात भयणी आनी वर्साक एकलेचें तरी लग्न आसतालेंच. ओरिसांतल्या ड्रायव्हराच्या भावां भावां मदीं झगडीं पेटत आसतालीं आनी आवय फोन करून करून ताका परत परत आपोवन व्हरताली. एकलो जाल्यार लायनीक फकत दोनूच ट्रिपी मारतालो. पात्रावांक ट्रिपी फाटल्यान कितेंय मेळूं, ताच्या बॉल्सांत पांचशीं-सयशीं घालतां ह्या ट्रान्स्पोर्ट कॉंट्रिक्टराक चड ट्रिपी मारतालो. एकदां आनी त्या झारखंड वाल्याक विमानान लेगीत धाडला. तेजीच्या दिसांनी भयणीच्या लग्नाक वचपाक ट्रेनीच्यो तिकेटी काडपाक सोदतालो. येवपाक वचपाक स दीस वगडायतलो म्हणून तीन दिसांत परता येवपाक दोनूय वटेनची विमानाची तिकेट हांवेंच काडून दिल्ली.''

राजारामाक आपूणय विमानान भोंवला ताची याद जाली. वांगडच्या ट्रक धनयांनी ताका फोर्सान थायलंडाक व्हेल्लो. स दिसांचे भोंवडेर मजा मारतां मारतां साडे चार लाखांचो गोबोर केल्लो ताणें. मागीर एकदां सिंगापूर आनी दुबय वचून आयिल्ले सगळे. फोरेनांतली भोंवडी जायत सावन तो म्हयन्याक एक दोन पावटी तरी स्टीम बाथ घेवपाक कोलवेंच्या एका स्पांत वतालो. फोंडेंच्या पार्लरांत मसाज

करून घेतालो, पॅडीक्युअर करपाक मडगांव येतालो आनी मूड आयल्यार खाड काडपाक पणजेक लेगीत पावतालो. एक-दोन खेपो रातची लायट गेल्ली तेन्ना एकदां इनोवाची ए.सी. चालू करून रात भर गाडयेंतच न्हिदिल्लो जाल्यार एकदां वार्केंच्या स्टार हॉटेलांत पाविल्लो. फाटीं आवय आपूण बरी ना म्हणून आपणाक मात्शे घटप्रभाक व्हरून हाड म्हणून ताचे फाटीक लागिल्ली पूण पयशांचें जुळना म्हणून तो तिका आयज या फाल्यां या करीत लांबणेर घालीत आसलो.

दार उगडून राजाराम चौकांत आयलो. भाई वांगडा वयनी येवना हें तो जाणां आसलो. दर वर्सा ट्रकांची पुजा करतना ती पुजेचें सामान घेवन उमेदीन वावुरताली. ड्रायव्हर आनी मेन्टेनन्साच्या मानायांच्या हातार घसघशीत प्रसाद घालताली. अंदू तिका कसली अडचण जाल्या कांय अंदूची पुजा ती तसलीच आसतली हें येवजून ती येवं ना हो प्रस्न कांय खीण ताचे तकलेंत हुळहुळ्ळो. दार उगडून तो पडवेर आयलो. तागेलो सुण्यापेटो कूंय कूंय करून पांयांक घस्टूपाक लागलो. राजारामाक ताची तिडक मारली आनी अपुरबायूय दिसली. ''वसवसो मेल्लो... पात्रावांक बरें माग मरे... सुमनाक दोन खेपे तरी मांस-हाडां खावयतालो ताका. गांवठी सुणो कसो दिसच नासलो तेन्ना. आतां मात फाट-पोट एक जालां पूण घर सोडीना. दारांत बसून रावता. हेरांल्या सुण्यां भशेन जगार हेडून पोट भरपाक किदें जाला हाका?''

पूत भायर आयला तें पळोवन आवय रांदचे कुडींतल्यान आयली. ''च्या घेता मरे राजा?'' तिणें विचारलें, पूण ''मागीर घेतां'' म्हणत तो सोपणां देंवून पोरसांत आयलो. खुंटी च्या म्हणल्यार ताच्या जिवार येतालें, पूण हालीं ताचेर तीच पिवपाची पाळी आयिल्ली. राजारामाक याद जाली. एकदां तागेले ट्रक धनी इश्ट दनपारचे तिस्कार ट्रकांचेर नदर मारीत, खबरी मारीत उबे आसले. एकल्यान आपूण काल मावोड्या गेल्लों तेन्ना थंय एका आयसक्रीम पार्लरांत फालुदा घेतिल्लो ताची रूच सामकी जिबेर आसा म्हणून सांगलें. मागीर आनी तांणी वेळ केलो ना. सोमतीच एकल्यान आपली बॉलेरो स्टार्ट मारली आनी फालुदा पिवपाक ते सावर्डेंच्यान फोड्यां गेले. हातांत पयशे खुळखुळटाले तेन्ना गोंयांतल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या हॉटेलांनी ते जेवल्यात ताची ताका याद जाली.

राजारामालें पोरसूं आतां रान जालां. जाता नजो करून आवय धपटी काडटा म्हणून उरलां तें, नाजाल्यार येन्ना करपून वचपाचें. एका गार्डनराक मुद्दाम आपोवन हाडून राजारामान घरा भोंवतणीं गार्डन केल्लें. सांगता तसलीं झाडां हाडलीं. सारें, उदक, नडणी, तेमकां कापपाक कामेरी दवरलेलीं. झाडां शिंपपाक घराच्या चारूय वटेन सोय केल्ली. पोरुंच्यान मात ताणें पोरसूं वाऱ्यार सोडलां. नळाक लायिल्लें पायप थेंबेतना सुद्दां दिसल्यार ताका तिडक मारता.

राजारामान चावी लावन तागेल्या सगळ्यांत पोरन्या ट्रकाचें दार उगडलें आनी तो सिटार बसलो. अर्दो पोरनो घेतिल्लो ताणें तो तेन्ना. रोकडोच लायनीचो नंबर मेळ्ळो ताका. डिझल आनी टी.डी.एस. काडून म्हयन्याक तीस-पस्तीस हजार बँकेंतल्या एकांवटांत पावताले. पूण ड्रायव्हराच्या पगारा खेरीत ताका पयशे काडपाची व्हडलीशी गरज पड नासली. कंपनीच्या पयशां परस चड तो दोन नंबरांतल्यान जोडटालो. राजारामान खीण भर दोळे धांपले. हो ट्रक म्हणल्यार लक्ष्मीच ताचे खातीर. रात दीस जोडून दिलां ताका ह्या ट्रकान. ना केन्ना एक्सीडंट जाला. ना केन्ना रात रात म्हाल चोरतना कोणाच्या हाताक सांपडला. त्याच ट्रकाचे जोडीचेर राजारामान दुसरो ट्रक घेतलो तेन्नाच ट्रक धनी संघटनेन आंदोलन करून दर वाडोवन घेतिल्ली. टना फाटल्यान दोन अडेज पर्टीनी दर वाडून मेळिल्ली. सगळें कापून आतां ८०-९० हजार बँकेंत पडपाक लागिल्ले. धंद्याक तेजी पळोवन ताणें तिसरो ट्रक घेतलो. संपदाच्या सांगण्यान ताणें चड रीण घेतलेंच ना. वर्स भरान बँकच फाटीक लागली. आनीक लोन जाय जाल्यार घे म्हणून. तेन्ना राजारामालो एक ट्रक एक्सीडंट जावन म्हयनो भर बेकार उरिल्लो. तो सारखो जाता म्हणल्यार सोमतेच आनी दोन ट्रक घेतले ताणें. पूण वर्स उलगता म्हणल्यार खणबंदी लागली आनी पांचूय ट्रक धड्यार चडोवन दवरचे पडले.

राजारामान ट्रकाच्या स्टेरींगाचेर तकली तेकयली. दीस भर राटावळी करून तो जाम जातालो तेन्ना असोच इनोवाच्या स्टेरींगाचेर तकली तेंकोवन ए.सी. घेतालो. हातांतली येद्दी मोठी माश्कोद तेन्ना सकयल लोंबकळटाली. राजारामालें लक्ष हाताचेर गेलें. इतलो उकतो हात पळोवपाचें ताच्यार जिवार आयलें. कसली ना कसली गरज आयली तेन्ना ताणें माश्कोद, मुदयो, सरपळी विकून खाल्ल्यो. हें एक घर आनी चडशी बंदच आशिल्ली बुलेट आनी इनोवा सोडून आतां आनीक आपणा कडेन कांयच ना हाची ताका खंत जाली.

राजाराम सदांच येवजितालो. म्हजे परस चड रीण आशिल्ले लोक आजूनय बरे काडटात दीस. जोडलेलो पयसो तांणी कश्याकसोय मोडूंक ना. रिणां घेतल्यांत पूण आसा पयसो म्हणून म्हजे भशेन पदरचे पयशे घालपाचे भानगडीक पडूंक नात. मूर्ख तो हांवच... फोल्गां मारलीं ती जालींच पूण चड रीण घे नासतना पदरचे पयशे घालून ट्रक घेवपाची अवदसा येवजली. पांच ट्रक आसात... पूण धा पयशांची येणावळ ना. नवें घेवपाक गेल्यार पांच ट्रकांचे अंयशी णव्वद लाख तरी जातले. पूण आयज ते कोणाक नाकांत. शोभेचीं झाडां कशीं वयेक तेंकून आशिल्लें उबे ट्रक पळोवन ताची सदांच तकली कणकणटा.

राजारामान ट्रकाच्या हारश्यांतल्यान भायर नदर मारली. रोझणींचेर थोडीं रोझां फुलल्यांत तीं ताका दिसलीं. फाटल्या वर्सांनी तो दसऱ्याक गाडयो सामको फुलयतालो. गाडयेक फुडल्यान घे म्हणून रोझां माळो घालतालो. पयशे कितलेय पडूं. सामक्यो तट्टतटीत, गुलगुलीत रोझांच्यो रास भर माळो फैदासून हाडटालो. दसऱ्याक आनी लक्ष्मी पुजनाक तागेलो मोठो आटाप आसतालो. ट्रकांचें मेन्टेनन्स करपाक दवरिल्ले मानाय ट्रक धूऽ धूऽ धुताले आनी सगळे ड्रायव्हर एकठांय जावन अडेच तीन वरां लागून पांचूय

(पान ४५ चेर)

आपान घरांत पावल दवरतनाच घरांतलीं सगळीं जाणा भायर सालांत! ...आपाक येवकाराक राविल्ले भशेन!

मागीर काकीन आपाक पिवपाक उदक हाडिल्लें तें दिलें. ताका कदेलार बसून मातसो सुशेग घेवंक दिलो आनी हळूच विचारलें, ''मागीर कितें जालें?''

''आनी आनी कितें जातलें? चल्याक मंगळ आसा म्हणून कळ्ळें आनी आशेन व्हेली सोयरीक. पूण तांणी म्हळ्ळें - ''चलयेचे पत्रिकेंत खऽर मंगळ आसा. कशी करपाची सोयरीक? ...खरें तर चली आमकां पसंत पडिल्लें-''

- सुमीक मेळिल्लो हो पांचवो न्हयकार!! ...चोवीस सोंपत आयिल्लीं. ...सगल्यांक हुस्को जावंक लागिल्लो...

...च्यॉ! त्या मंगळाच्या... रमेशान तिडकीन पांय आपटीत भितर वतना म्हळ्ळें.

सुमी बाबडें आपणेंच कितें तरी व्हडलें पातक केल्ले वरी ओग्गी बशिल्लें. त्या मंगळाक प्रसन्न करून, ताचो प्रभाव ना करचे खातीर ताणें देवाचें थोडें करूंक ना...! मंगळार करप तर सदांचेच! ताची पुजा करून, ताचें स्तोत्र म्हणून शिवराक एक जेवण जेवप, अशें दर मंगळाराक आसतालेंच. ते खेरीज शेनवार, सोमार, बिरेस्तार ह्या वारांनी लेगीत त्या त्या ग्रहाचें बळगें फाटल्यान आसचें आनी पत्रिकेंतलो मंगळ मातसो सौम्य जावचो म्हण त्या वारांकय शिवराक जेवतालें... गुरुजीन सांगिल्ले प्रमाण आपान तर घरांत अनुश्ठान बी करून जाल्लें...

''च्यॉ!! त्या मंगळाच्या...!!'' रमेशान आपले कुडींत पावतकच परतून म्हळ्ळें.

- मागीर ताका अकस्मात सुब्रायाची याद जाली. ''आरे, एदो व्हडलो इंजिनिअर तूं! तुका आनी त्या पत्रिकेंतल्या मंगळाचो इतलो हुस्को दिसता? म्हज्या तिनय चलयांक हांवें कॉम्प्युटराचेर अशो सुंदर पत्रिका करून खपयल्यात!!. कितें आयकतलो तूं? जंय व्हेला थंय पयल्याच फाराक पत्रिका जुळ्ळ्यात. पळवप, दिवप-घेवप-उलोवणीं-सगलें मागीर!! एक बरीशी पत्रिका कर रे



# एक 'मंगळ' काणी

सुधा खांगटे

सुमीली.... तेंय सुट्टलें... तूंय सुट्टलो...'' ताणें म्हणचें.

- करया दुसरी पत्रिका? रमेशाचें मन फाटीं फुडें जातालें. जाण्टेल्यांच्या विचारांचो पगडो ताच्या विचारांचेर ल्हानपणा सावन बशिल्लो. जर केली नवी पत्रिका... जुळयली आनी केलें लग्न...! ...आनी मागीर जर म्हयन्या भितर घोव वचून, कपलाचो कुकूम पुसून परतें आयल्यार...?? तातूंत मंगळ चऽड खर अशें गुरूजी सांगतात. फकत कडक मंगळ आशिल्ल्या चल्याचीच पत्रिका जुळटा जाल्यार पळोवपाची...

सुमी... सादें सुदें लजेस्त चली. घराण्यांत चलयांनी चड शिकपाची पद्दत नाशिल्ली. तरी लेगीत एस.एस.सी. मेरेन शिकलें. ताका कॉलेजींत धाडलें ना. आपान म्हळ्ळें - ''शिकून ताका कितें नोकरी करपाची आसा? काय बरें भांगरा सारकें चली! रांदपा-करपाक, वागपा-उलोवपाक जुस्ताजुस्त रेक्त कशें!! गोरें-धवें सुंदर... ताका बऱ्याऽ गिरेस्ताच्या घरची मागणी येवन अशेंऽ उबारून व्हरतले!!

विसाव्या वर्सारच आपान सुमीचें नक्षत्र भायर काडिल्लें.. पयले खेंपे तर ताका पळयतनाच पसंती!... मागीर नक्षत्रांचेर अडून उरलें. मंगळाची चली म्हणटकच विचार करचो पडलो अशें म्हणून दिल्ल्या उतराक

नेगार गेले तेळोक! सुमी निर्शेलें. चार कडेन अशें जातकच... चली पसंत पूण नक्षत्राक लागून सोयरीक मोडटाली... सुमीन मागीर आपल्या मंगळाचो धसकोच घेतिल्लो.

- हांव आनी पिसो कसो त्या नक्षत्राक खरें मानतां! ...रमेश चिंततालो. आज मनीस मंगळाचेर वचून आयलें. तरी लेगीत हांगा संवसारांत त्या ग्रहान पत्रिकेंतलो आपलो जागो बरो घट करून दवरला... इतलें शिकून, सगलें जाणा जावन... कितें उपेग?? विज्ञान खंय पावलां... आनी आमी! आमी आपली मानसिकताय बदलूंक जाय... केन्ना बदलतली आमच्या समाजाची मानसिकताय??

भिरके भरशीं तो उठून सुब्रायागेर पावलो. सुब्राय दारांतच शिळोणी घालीत आपली कार धुयतालो.

''सुब्राय, म्हाका अर्जंट उलोवंक जाय तुजे कडेन...''

''मागीर उलय मरे! हांव कानांनी आयकतां... हातच फकत कार धुवपाक लागतले... कान तुजें उलवणें आयकुवपाक...!! आनी आपल्या सभावा प्रमाण सुब्राय हाः हाः करून गडगडाटान हांसलो.

...''सुमीक लागून रे...''

सुब्रायान कार पुसतालो तो फाळो थंयच शेंवटियलो. रमेशाल्या हाताक धरून ताका आपल्या रुमांत घेवन गेलो. '...परतो नकार रे...??' ताणें विचारलें.

दोळ्यांत आयिल्लीं दुकां रकूंक दिना आसतना रमेशान हयकारान मान हालयली.

''म्हजे कडेन दी पळोवंया नक्षत्र...'

''हांव घेवनच आयलां...''

''आरे, आमचे गुरूजी ह्या कामांत एक्सपर्ट! फाल्यां यो आनी सुमीलें नवें नक्षत्र घेवन वच...''

दुसऱ्या दिसा रमेश उमेदीन सकाळचोच सुब्रायागेर पावलो.

''आरे, यो. यो. सारको ब्रेकफास्टाकच पावलो पळय...''

''नाका रे. इतल्या सकाळचो हांव कांयच खायना...''

''पूण हांव खातां न्ही? म्हजे बरोबर बस आनी ललिताच्या हातचो ब्रेकफास्ट घे... ललीताऽ... आगो रमेश आयला गोऽ!...

ललिता नॅपकिनान हात पुशीत भायर आयलें.

''रमेश भावोजी, खूब दिसांनी पावले. बरीं आसात न्ही सगळीं?... आनी सुमीचें खंय जमलां?...''

''जमता गो... जमता... सध्या चालू आसा...'' सुब्रायान भायले भायर आपणेंच जाप दिली.

''जांव हां. बरें जालें... आज आमगेर सादे रव्याचे पोळे आनी चटणी... तुमी येतले म्हणून कळिल्लें जाल्यार कितेंय...''

''नाका म्हाका! सकाळी फुडें कांय चलना खावपाक...''

''आरे, म्हजे बरोबर बस तरी!.. आनी ललिताच्या हातचे खा - डोसा... कितें पळयतलो... सामके पेपर डोसा... आनी कुरकुरीत सामके...''

रमेशान किचनांत बसून सुब्राया बरोबर ब्रेकफास्ट केलो. ललिताचे डोसा खरेंच पातळ - कुरकुरीत जाल्ले. चटणे बरोबर दोन डोसा पोटांत कशे गेले, रमेशाक कळ्ळेंच ना. - मागीर मात दोनय हात प्लेटीचेर धरून ताणें ललिताक आडायलें. नाजाल्यार आनीक एक गरम - गरम डोसा ताचे प्लेटींत पडपाचो...

रमेशाच्या हातांत नक्षत्र दीत सुब्रायान म्हळ्ळें, ''पळय तुज्या सुमीचें नक्षत्र! गुरूजीन तयार केलां...''

रमेशान नक्षत्राचेर नदर मारली. ''आरे, हातूंतय तो मंगळ आसा मरे!''

''हय, पूण आतां तो सौम्य जाला... आनी वेल्यान तो बऱ्याक पडपाचो खंय...''

...पूण सुब्राय... आमी हें करतात तें बऱ्याचें मरे...?''

''आरे पिशा. चल, खरीं मानया हीं नक्षत्रां! पूण सेकंद वेळ फाटीं-फुडे जालो जाल्यार लेगीत नक्षत्र बदलता खंय! अशें आमचे गुरुजीच सांगतात... आनी शेवटाक जण एकल्याचें नशीब रे!'' मागीर हाः हाः करीत हांसत ताणें म्हळ्ळें, ''न्ही रे? तो बाबडो मंगळ गिरो अंतराळांतल्यान हांसता जातलो ह्या धतरी वेल्या लोकांक पळोवन...''

- आनी एके कडेन नक्षत्र आनी फोटो दिल्लो. थंय नक्षत्राक पडलें. सुमीक पळोवपाक आयले... न्हवरो, ताचे आवय-बापूय, भयण...!!

''आई, म्हाका कलकलता गेऽ!!''

''घे. उदक पी घोंट भर... शांत राव. काय बरें नक्षत्राक बी पडलां. ...हे खेपे जमतलेंच!''

सुमी उदक पिलें. ताचे हात कडकडटात तें पळोवन आवयनच च्याचो ट्रे भायर व्हेलो. सगल्यांक च्या - फराळ दिलो.

सुमी फकत तकली सकल घालून थंय उबें! पयलींच लजेस्त. तातूंत मंगळाक लागून लग्न जुळना म्हूण निर्शेल्लें...''

''अशें खुंट्यामाकड कशें उबें रावनाका. कितेंय विचारल्यार सारकी जाप दी...'' काकी ताच्या कानांत फुतफुतली.

ताणें 'हां' म्हणून मान हालयली.

''आई, चली मोनें बी न्ही मुगे?'' मर्दीच रोहनान आवयक ल्हवूच पूण सगल्यांक आयकूंक येत अशें विचारलें.

तेबरोबर खुक् करून सुमीक हांसो फुटलो. सगळींच हांसलीं. वातावरण प्रसन्नशें जालें. हांसत्या सुमीचें खुमणें पळयतच उरलीं सगलीं.

मागीर हांसतच रोहनान म्हळें - ''आमकां एकमेकां कडेन दोन उतरां उलोवंक मेळत?''

''कित्याक रे? मोने न्ही म्हणून खात्री करून घेवपाक?'' बापायन फकाणां केलीं.

सुमी रोहनाक घेवन तेर्रासार गेलें.

''तूं अशें वाग खांवक आयिल्ले भशेन शें कित्याक भिलां?'' रोहनान विचारलें.

सुमीक कितें सांगचें तेंच कळना जालें. मागीर सगलो धीर एकवटावन ताणें म्हळें - ''म्हाका... हांव... हांव मंगळाचें...!!''

''शेः शेः... आतां तूं फकत म्हजें. आनी कोण्णाचें न्ही. तो तकलेंतलो मंगळ बी काडून वडय.

''पत्रिका बऱ्यो जुळतात. चली आमकां पसंत पडलांच! आतां म्हूर्त खंयचो धरपाचो तें पळयात...!!

काकान विचारलें... ''आनी घालपा-करपाची उलोवणी...?''

रोहनाचो बापूय हांसलो. ताणें म्हळ्ळें,

''तुमची इत्सा आसल्यार चलयेच्या आंगार जाय तें घालात पूण आमगेर धुवेक भांगरां पेटयतना सुनेकय पेटोवन दवरिल्लीं आसात म्हजे आवयन...

आनी गांवांत सगलीं म्हणूंक लागलीं - सुमीन नशीब काडलें. येदया व्हडल्या घराण्यांत सोयरीक जाल्या...

प्रसाद जातकच सगल्या सोयऱ्यांक आनी शेजाऱ्यांक घरावे दूदफेणे पावले.

.....

संजय , आमी हें केलां तें बऱ्याचें मरे? आज्याक कळ्ळयार आजो दवरचो ना म्हाका... आनी लग्न जातकच सुमीक बी कांय जायना मरे?... सामकें निरागस कशें... कशें मोगरीं झडिल्ले भशेन हांसता...! ...म्हाका लागून ताका कितेंय जाल्यार हांव म्हाका कसोच भोगसूंक शकचों ना...''

''रोहन, तूं पयलीं तकलेंतलो तो मंगळ काडून वडय पळोवया. आरे, लग्न जातकच ताका फुला भशेन सांबाळ म्हणटकच जालें. आतां कितल्योशोच सोयरिको तुज्या नक्षत्राक लागून मोडल्यो. तुका चलयो सांगून येवपाच्योय कमी जाल्ल्यो. ही सोयरीक जाल्या ती बरी जाल्या...'' संजयान रोहनाक समजायलो.

व्हंकलपावणी भायर सरतना रमेशान सुमीक वेंगेंत घेवन सांगलें - ''सुमी, घोवाक बरो करून सांबाळ हां! ताचें आरोग्य आतां तुवें सांबाळपाचें... ताका सामको जपपाचो हां... जीवा परस...'' रमेशाचे दोळे व्हांवताले.

सुमीन बापायचीं उतरां घट गांठीक बांदलीं.

रोहनाचें आतें अमेरिकेंत आसतालें. लग्नाक पावलें ना. आतां गोंयांत आयलें तेन्ना रोहनाक, सुमीक प्रेझेंटां घेवन आयलें.

''कशें चल्लां - दोगांचेंय?'' ताणें विचारलें.

''कांय विचारनाका गो बाये! दोगांय एकमेकांक जीवा परस सांबाळटात. असलें पळोवंक ना गो केन्ना!! सुमीक सादी शींक आनी खांक आयल्यार रोहन सामको वयर सकल जाता... रोकडोच दोतोराक हाडूंक धावता... आनी दुकाना वेल्यान येवन पुरो जालां म्हणून रोहन मातसो आड पडल्यार सुमी अशेंऽ खासावीस जाता... हातांतलीं कामां थंयच सांडून ताची तकली कितें दामता... पांय कितें वळता... कांय विचारनाका...''

''जांव... जांव... अशींच मोगान करूं दी संवसार...'' आत्यान म्हळ्ळें.

अदींमदीं एकेक प्रसंग घडटालो... खबर कळतकच रमेशाक कलकलतालें. रोहन दचकेतालो.

देखीक: ''आज तूं घरा कसो रे रोहन? दुकानार गेलो ना?

दोन दारांच्या एदया व्हडल्या दुकानार रोहनाचो बापूय, काका, आनी रोहन... सगळे घोळटाले. कामां करपाक कामगार आसतालेच! पूण मालक लोकय झटून कामां करताले.

''वचना रे रोहन दुकानार?'' आवयन परतेंऽ विचारलें.

''ह्या सुमीचो बोवाळ मगे!... आज घरांतल्यान भायर सरचो ना म्हणून सोपूत घाला... मातशें समजाय गे ताका...''

''आगो, कितें जालां गो तुजें सुमी?'' मांयन विचारलें.

''आई, सकाळच्यान दावो दोळो पिटपिटता. कसोच थांबना. आई, सांग न्ही हाका आज कामाक वचनाका म्हणून...''

''आरे, इतलें तें सांगता जाल्यार एक दीस घे सुशेग...'' आवयन म्हळ्ळें.

दनपारचे सगळे जेंवक बशिल्ले कडेन काकान म्हळें - ''हो रोहन आज आयलो ना तें बरेंच जालें हां... हांव कसो सुशेगादीन गाडी चलोवपी.. एका बेबद्यान अशीऽ हाडली गाडी... व्हडलो ॲक्सिडेंट जावपाचो... रोहनालें चलोवप तें सामकें फास्ट न्ही...''

''मागीर रे काका? ताका धरलो ना? दोन वाजोवचीं आसलीं...''

''आरे, भुरगो रे सामको... कॉलेजीक वतालो जातलो. पुलिसांनी धरलो... सामको भरिल्लो... सोरो पिवन गाडी चलयता म्हणून धरला ताका. हांव म्हणून गाडी आनी आमीय साल्वार! तूं चलयतालो जाल्यार...??

रमेशाक असल्यो खबरी आयकून दोन-दोन दीस न्हीद पडनासली.

रमेश आज आपलो पंच्यायशावो वाडदीस मनयतालो. केंस धवे जाले तरी अजून काटकसो आसलो. सुब्राय रमेशा परस चार वर्सांनी ल्हान जावन लेगीत मातसो हालिल्लो ताका हातांत वॉकर घेवन चलचें पडटालें - पांयांचो देफेत सोडलो जाल्यार हरशीं तो बरो आसलो. सुमीलो व्हडलो पूत उमेश बायले-भुरग्यांक घेवन अमेरिके सावन मुद्दम आयिल्लो. धाकलो सोमेश... आतां घरच्या धंद्यांत लक्ष घालून ताणें तो बरो वाडयिल्लो. ताच्या दोतोर बायलेन - सुलक्षान - घरांतच एका रुमांत आपलो कन्सल्टींग रूम उकतो केलो. आनी सुकांती-दिल्लीक रावपी सुमीली धूव आपल्या घोवाक आनी धुवेक घेवन आज्याच्या वाडदिसाक मुद्दम आयिल्ली. सगळीं जाणां बोवाळटालीं. आनी सुमीचो हो परिवार पळोवन दोगय इश्टांक सुमील्या नक्षत्राची याद जाली आनी तांकां हांसो फुटलो.

सगल्यांचें परबीं दिवप, भाशणां करप चलतालें. इतल्यांत रोहन, सुमीचो घोव भाशण करपाक उबो रावलो. मांवाक वाडदिसाची परबीं दिवन जातकच ताणें म्हळ्ळें, 'आज हांव तुमच्या मुखार म्हजी एक चोरी उकतीं करतां. सुमीचे फोटो आनी नक्षत्र आमगेर पाविल्लें तेन्नाची खबर!

- सगलें अजापान आयकूंक लागलें...

''सुमीच्या फोट्यार नदर घालतकच हांवें मना सावन ताका पसंत केल्लें. म्हाका खऽर मंगळ आशिल्ल्यान म्हजी सोयरीकच जांवक पावनासली. आनी म्हाका तर सुमीच म्हजी बायल जावची अशें दिसतालें. तशीय कडक मंगळ आशिल्ली चली मेळ्ळ्यारच म्हजें नक्षत्र जुळपाचें आसलें. आनी सुमीच्या पत्रिकेंत तर सौम्य मंगळ आसलो. आनी हांवें मन घट्ट करून - बाप्पाक-काकाक कळ नासतना सौम्य मंगळाची एक पत्रिका करून घेतली आनी सुमीच्या पत्रिके कडेन जुळोवन म्हज्या पसंतीची बायल मेळयली. म्हजी चूक तुमी भोगशितले अशी आस करतां...

- रमेश आनी सुब्राय एकमेकांच्या तोंडाक पळयतच उरलें...

संपर्क: 9545020101

# अरिश्ट

विठ्ठल आवदियेंकार

दीस मावळटालो. सूर्यागुळो दोंगरा आड खाला खाला देंवतालो. शेतांत पुराय शांतीकाय पातळिल्ली. दीस भर शेतां-काजूंनी राबपी मनशां आतां घरा परतुपाच्या बेतांत आशिल्लीं.

भीवा गांवकारालें मंजुळा अस्तमस्तेक देंवपी सूर्याक पळयत शेतांतलें एक एक काम आटापतालें. आयज शेतांत तें एकटेंच आयिल्लें. दोन-चार किलोमीटर चलून घरा पावता सर वाटेर रात जातली ह्या भंयान तें कामाची ताकतीक करतालें. हरशीं शेतांत आवयचो सांगात आसतालो. ते बेटेंच शेताच्या कामांत आदार करतालें. बेदळ शेता मेरेर ताणें एकठांय केल्लीं लाकडां बांदून दवरिल्लीं. तीं ताणें उखलून माथ्यार घेतलीं आनी तडक चलूंक लागलें.

तसो ताचो सदचोच भेस. मात आयज ताणें तुवालो कमराक तायट बांदिल्लो. ताका लागून ताचें भेंड आनी पांयांच्यो पोंवटो नदरेक भरताल्यो. उभार छाती आनी हांसतें मुख, नकसूद दोळे, नाक, कपलार भुवयांचे धोणू. तें सोबीत दिसतालें. वयार आयिल्लें पोर. जुवानपणाचो भार चडिल्लो. एक देखणी मूर्त. सैमान ताका फुरसतीन निर्मिल्लें.

तशें तें भुरगें धीराचें. पूण वाटेर लागपी वागऱ्या पायणींत ना म्हळ्यार ताका भंयसो दिसतालो. ताकाच न्हय गांवचे भोवतेक सगळेच हे पायणींत पावतगीत भिरांकूळ जाताले. आंग जड जातालें. तें ताकतीकेन चलतालें. वाटेर कोणय सांगाताक मेळ्ळ्यार बरें अशें ताका मनोमन दीस. आनी जालेंय तशेंच. पांच पन्नास पावलां मारता थंय आसा शिवराय देसायालो म्हादू म्हळ्यार म्हादेव मुखार चलता तें ताणें पळयलें. ताका सू जालें. ताणें चार पावलां अदीक नेटान घालून ताची फाट धरली. म्हळें सांतेर पावली.

'हांव इतलें भिल्लें जाणा?' 'कित्याक भिल्लें?' म्हादेवान विचारलें.

'कित्याक म्हणजे? एकोडे बायल मनशेक हे वाटेंत भंय ना?' अशें म्हणत म्हादेवा सांगाताक निर्भया जावन चलूंक लागलें.

'एकोड्याक भंय!... कसलो?... हांवय एकोडोच आसा... म्हाका कित्याक भंय दिसलो ना?'

'तुजी गजाल वेगळी. तूं मानाय हांव बायल मनीस. चली भुरगें...' अशें म्हण्टना ताका हासूंकशें आयलें.

'हांव मानाय...? मानायाक कितें शिंगां आसतात? आनी बायल मनशेक... आंकवार चलयेक कोण खुंटून व्हरतात.'

'म्हाका खुंटून व्हरपाक हांव कितें भाजी... तायकीळ्याची...!' ताचें हें वाक्य पुराय जावपाक आनी म्हादेव भूर्ऽऽ करून घुंवलो आनी आडदांड मानाय कसो कमरार हात दवरून वाट आडायली... आनी व्हडान म्हळें... 'मंजू मुकाट उबें राव थंय. माथ्या वेलीं लाकडां वडय थंय खाला'.. तो धेंगशेलो.

'म्हणजे रे म्हादू... तुजो विचार किदें?'... अशें म्हणून मंजूळान दोन पावलां फाटीं घेतलीं.

'आंकवार चलयेक कशें खुट्टात तेंय दाखयतां तुका. दवर तीं लांकडां खाला.' तो आड्डलो.

'म्हादू अशें किदें करता रे? कोणय येत मरे? पळयत मरे.' मंजूळान कडकडत म्हळें.

आनी म्हादेव त्यावटेन व्हडा व्हडान हासूंक लागलो. मंजूळा अदीकूच काचाबूल जाले.



तें पळोवन म्हादेवान म्हळें, 'आगो उखल तीं लांकडां, हांवें बेटींच फकाणां केल्लीं.'

'तुजीं फकाणां म्हळ्यार म्हजें काळीज वयर सरलें हांगा.' मंजुळान लटक्या रागान म्हळें.

'हांव सांगाताक आसतना तुका भंय कसलो?' म्हादेवान म्हळें.

'मनशान खंयचेय परिस्थितींत भिवंक उपकारना.'

तीं दोगांय चलत आसलीं. रुखांच्या पानां पानांतल्यान चंद्रीमाचो उजवाड तांचेर किर्णां शिंवरतालो. वाट वर्सासंकी व्हांवपी व्हाळा देगे वेल्यान वचपी आशिल्ली. व्हाळांतल्या उदकाचेर रुपेरी पोवनां शिंपडल्यांत अशें भासतालें. वाडो पावला कणकणीं लागीं येतालो. मंजुळान विशयांतर करून म्हळें, 'गांवांत लोक आमचे विशीं नाका नाका तें उलयतात मरे.'

'उलोवंदी गो... नाका तें उलयतात तांचो विचार कित्याक म्हण करचो?' मारप्याचो हात धरूं येता? उलयतल्यांचें तोंड बंद करूं येता मंजू?' ताणें म्हळें. 'लोक म्हळ्यार पयलीं 'ओक लोक गंगेंत चिकोल चड आनी उदक थोडें आसता. हें चलपाचेंच.'

वाड्यार पावलीं आनी तांची वाट वेगळी जाली. मंजूळान ल्हवूच म्हळें, 'म्हादू म्हाका तुजे लागीं उलोवंचे आसा?

'उलय मगो', म्हादून म्हळें.

'आतां नाका. फाल्यां शेतांतच मेळया.' अशें म्हणत तीं दोगांय आपापलीं वाट चलत रावलीं.

म्हादू-म्हादेव आनी मंजू-मंजूळा एकामेकांक चोरून मेळटात, हांसतात, खिदळतात. तांका एकामेकां पासून कशीच चैन पडना अशी चर्चा दबक्या सुरांत गांवांत चलताली. कांय कांय वाचाळवीरांनी तर हत्ती म्हळ्यार घोडो करून सगळो गांव भरिल्लो. पूण म्हादू आनी मंजूळाचे सामकार किदेंय उलोवपाचें धाडस कोणच करिनाशिल्लो. सगळें किदें तें फाटल्यान तांचे आसवडीं चलतालें.

ह्यो गजाली भीवाल्या म्हणजे मंजूळाच्या आवय-बापायच्या कानार पडिल्ल्यो. चिंतनांनी तीं वयर सकयल जातालीं. पोर नांव पिड्ड्यार करना जाल्या पुरो अशीं आगीं घालतालीं. 'सांतेरमाये! पाव गे' म्हण्टाली. वयान वाडिल्लें पोर. तसोच भुरगो गावलो म्हण्टकत ताचें लग्न करून मेकळें करचें हे खातीर तीं धडपडटालीं. पूण आजून यश येवंक नाशिल्लें. आवय बापूय दोगांयचीय घालमेल जाताली. बेजारिल्ले भीवाले बायलेन भीवाक म्हळें, 'आगा भगतागेर वचून प्रसाद पाकळी तरी हाड मूं. पोराचें चीत्त मातशें शांत करूंक सांगणें कर. गांव नाका नाका तें उलयता. आयकूंक जायना म्हज्यान आवय म्हूण पोराक कितेंय सांगूंक गेल्यार, खायन म्हूण आंगार येता. 'हय जाणा हांव.' भीवान म्हळें. 'आयजच पळयतां.' आनी विचाराचे तनरेंतच भीवा भगतागेर पावलो.

भीवाक पळोवन भगतान म्हळें, 'किदें भीवा, आयज वाट चुकलो काय किदें रे? हांव भगत, गांव तिडोवन घालपी न्ही रे? मागीर म्हजी शी याद केली आयज?' भगतान भीवाक चिमटें काडले. पांडू भगत तसो मनीस बरो न्ही. हें भीवा मनोमन जाणा आशिल्लो. सादे सरळ गजालीचो लेगीत हावळो करून तो तेड करपी मनीस. पूण सांतेरीच्या पाशाणाचेर प्रसाद पाकळी लावपी तोच भगत. सुटनाशिल्ल्या कामाक भीवा भगता म्हन्यांत आयिल्लो.

'बरें तें आसूं.' भगतान म्हळें. 'कितेंय अडले बगर तूं येवचेलो नी हांगा सर. सांग भीवा, कितें जालें रे?

'पांडूबाब! तुका आनी किदें सांगूं.' भीवा खांकडेलो सो जालो.

'सांगलेबगर कळटलें कशे भीवादाद?'

'देवा! पदरांत वाडिल्लें तरणें पोर आशिल्ल्या बापायची चिंता...' भीवाल्या तोंडांतलें वाक्य पुराय जावचे पयलींच जुवान मंजूळा हलकट पांडू भगताचे नदरे सामकार झळकलें. तो ल्हंवेन ल्हंव शिरशिरलो. ताणेंय मंजूळाक पळयल्लें आनी रोखडीच लाळ घोटिल्ली. दोगां भुरग्यांचो बापूय जावनय तो जुवानीन चाळवतालो. मंजुळाचो विशय येतनाच पांडू भगत शिटूक जालो. एक लचाण तयार करून गांवांक खुबळावपाक ताका एक बरें नीब मेळटालें.

ताणें म्हळें, 'भीवा किदें करूंया म्हण्टा?'

'देवा तुका आनी सांगूंक जाय? पाशाणाक कळी लावन पोराक वायट नदरेंतल्यान राखण दी गा.'

भीवा हें सांगतनाच पांडू भगत मनोमन मांडणी करूंक लागलो.

'बरें आसा भीवा,' अशें म्हणत भगत देवळांत आयलो. फाटोफाट भीवा. पाशाणार पटो भरून भगतान सुरवेच्यो वळयो मागल्यो. उपरांत मूळ प्रस्न केलो. मागणे मागणेक नस्त्यो पाकळ्यो झडूंक लागल्यो. भगत उचंबळ, भीवा काचाबूल. देवा! हें किदें सांगता?

भगतान भीवाल्या मनाची अवतीकाय ताडली आनी पयलो बाण सोडलो. 'भीवा मंजूळाक सांबाळ. हें नातें जोडलें जाल्यार तुज्या घराण्याचेरच न्हय जाल्यार आख्ख्या गांवाचेर अरिश्ट येवचीं चिन्नां दिसतात.'

'देवा, म्हाका किदें समजता तांतलें, तूंच बंदोबस्त कर.' भीवान म्हळें.

'तें करताच हांव तुर्ताक. पूण सारखो प्रसाद मागचो पडटलो. मंजूळाकच फाल्यां घेवन यो,' भगतान सांगलें.

'तें येता देवा?'. भीवा.

'येवचें नाजाल्यार पडूं दी त्रासांत. आनी मागीर गांवांत उंवाळून घालूं दी.' भगत वितरागान उलोवन गेलो. ताका मंजूळा आपले म्हन्यांत आयिल्लें जाय आशिल्लें. म्हण्टकच वेवस्थीत सांपळो रचूंक मेळपाचो.

'तुमकां जाय तें करात. हांव म्हजें काम करतां. ही घे कळी. दी ताका खावपाक.' भगत.

पाकळी घेवन भीवा आपले घरचे वाटेक लागलो. भगत फुडली मांडणी करूंक लागलो.

भीवा नदरे आड जाता म्हळ्यार, शिवराय

सावंत दत्त हजर. एकदम चळताळ्ल्लो. देवळा दारांत पावतनाच ताणें पांडू भगताक साद घालो. 'आरे भगता! खंय मेला रे?'

भगत साळसूद जावन मुखार आयलो.

'किदें जालें भाटकारा?' ताणें म्हळें.

'जालां कर्म म्हजें. आर हो पोर म्हादेव त्या भीवाल्या पोरा वांगडा नाचूंक लागला मरे. म्हण्टा ताचेच लागीं लग्न जातलो म्हुणून!

'मागीर बरें जालें.' पांडू भगतान सुरसुरें पेटोवपाच्या विचारान पूण भियेभियेतच म्हळें, राग आयल्यार शिवराय सावंत सांवार हें तो जाणा आशिल्लो.

'बरें जालें? तूं आनी तकलेन आपटला काय किदें रे पांडू?' शिवराय सावंत तिडकलो. तें पळोवन पांडू भगतान थातारपाच्या विचारान म्हळें, 'म्हणजे भाटकारा, हांव किदें म्हण्टां, किदें वायट आसा? दोगांय पोरां शारांत वचून शिकल्यांत. मंजूळा बारावी काय तेरावी जालां खंय. आनी तुगेलो म्हादेव महाराष्ट्रांत वचून शेता विशीं शिकून आयला खंय न्ही रे? गांवांत इतलीं शिकिल्लीं तींच आसात. जोडपें भोव सोंबतलें.'

शिवराय, भगताले विचार आयकून मातसो नरमलो. पूण भगतान तशें म्हणपा फाटलें कपट शिवरायान वळखलें ना. 'भगता! तूं म्हण्टा तें सामकेंच भायर वडोवपाचें ना रे. ह्या व्हडल्या रानवटी गांवांत तींच दोगांय मुखार शिकल्यांत.'

'माणगांवकार गुरुजीची कृपा ती. ताणें तांची दोगांयची हुशारी जुस्त वळखल्ली.' भगतान री ओडली.

तशें शिवरायान उमेदीर येवन म्हळें, 'तशें भीवालें मंजूळा दिसपाकय वायट ना. आनी चालीरितींकय कमी ना.' म्हज्या म्हादूक सोब सारकें आसा. लक्ष्मी-नारायणाचें जोडें सोबतीत. पूऽऽण'

खरें म्हळ्यार शिवरायाक तिडोवंक भगतान म्हणिल्लें. पूण शिवरायाच्या मनांतय मंजुळा विशीं अनुकुलताय आसा ती आयकून भगताचीं कानशीलां तापतालीं. पूण उलोवन दाखोवपाची माणसूकी नाशिल्ली. शिवराय सावंत भाटकार रागाक वायट हें भगत जाणा आसलो. उखल्लेलें खाला दवरपी न्हय अशा सभावाचो. तरीय भगतान शिवरायान उलयतना 'पूण!' म्हणिल्लें जुस्त जिखलें आनी सामको साळसूद जावन विचारलें, 'भाटकारा मागीर हें 'पूण' किदें?'

'च्चे! तूं आनी सामकोच मरे भगता.' 'खंय भीवा आनी खंय आमी?'

'किद्याक भाटकारा?' भगतान विचारलें पूण सामकें भियेंत भियेंत.' दोनय घराबें गांवांत आस्पतीन आनी मानान सारखेच्च मगा. आख्खो गांव तुमकां दोगांकय मानता. तुमचे बगर हे पंचक्रोशींत पान हालना.'

'हय रे! तेंय खरें तुजें भगता. पूण...'

'परत्यान आनी कसलें' पूण?

'आमच्या घराब्यांत आनी गांवांतय अशें घडूंक ना न्हय?'

'अशें म्हणजे कशेंऽऽ भाटकारा?' भगतान चवकस बुद्धीन विचारलें.

'तूं आनी सामकोच येंडो मरे भगता. तुजो बापूय जाल्यार म्हज्या मनांतली खंत जुस्त वळखतलो आशिल्लो.'

'खरेंच आयलें ना म्हज्या ध्यानांत. भाटकारा! मातशें स्पश्ट सांगल्यार बरें जावपाचें'

'आरे पापया! कशें होलमना तुका बोंड्या? आमचे दोनय घराबे एक कशे जातले? भीवा गांवकार आनी आमी...'

शिवरायान आपल्या मुखांतलें वाक्य पुराय करचे पयलींच भगतान म्हळें, 'आतां म्हज्या ध्यानांत आयलें... शेर्त तुजें भाटकारा. शिकप सवरप जालें म्हूण कितें जालें? तशी समानताय येता? जात-पात म्हूण कितें आसता न्हय? तातूंत हो गांवगिरो वाठार, धर्मा-कारणाची कडक पथ्यां पाळपी. नड-झड, पाप-पुण्य मानपी. वायटकार-भश्टकार मानपी.'

'तेंच! तेंच म्हण्टा न्ही रे हांव पापया, बोंडया.'

'हं! भगतान चिंतेंत पडिल्ल्याचें सवंग पांगुरल्लें.

'आतां सांग मरे कितें करपाचे तें.'

'भाटकारा! तुका आनी हांवें सांगूंक आनी समजावंक जाय?' तुजींच चार नीत-अनितीचीं उतरां सुनायात, म्हादेवाक. तुमचोच भुरगो न्हय तो. तुमच्या मता आनी विचारां भायर वच्चो ना अशें दिसता म्हाका.'

'तूं आनी हें सांगता म्हाका. आरे पांडू भगता! सगळें सांगून जालें. पोर हट्टाक पेटला.'

'आनी भीवा...?' आपल्याक आनी कांयच खबर नाशिल्ल्या साळसूदपणान भगतान थाव घेवपाचो यत्न केलो.

'भीवा, मनीस बेस बरो रे. तो चाली रिती भायर ना. तोय बेजाल्ला. बेटेच शिकूंक घाले पोराक म्हण्टालो.'

'मागीर आतां कशें भाटकार?'

'तेंच तुका विचारूंक आयलां न्हय रे पापया? नडी-झडीचे पळय. पाशाणार पाकळ्यो हे वटेन ते वटेन झडय. मातशी बुद्द लढय.'

'दोन दीस दी भाटकारा म्हाका. कशी मांडणी जाता पळोवया.' भगतान म्हळें.

खरें म्हळ्यार म्हादू-म्हादेवाचें आनी मंजू-मंजूळाचें लग्न जालें किदें आनी न जालें किदें, पांडू भगताक सुयेर सुतक नाशिल्लें. पूण लापीट पांडूच्या मनांत जुवान मंजूळा विशीं पाप आशिल्लें. देखूनच ताका हें नातें जुळून आयिल्लें नाका आशिल्लें. अवतीकायेन निराश जावन भीवान मंजूळाक घेवन देव-देवस्पणाक आपले सरीं येक्वें आनी मागीर आपल्याक जाय तशी मांडणी करपाच्या हेतान पांडून बोड चलोवंक आरंभ केलो.

ते वर्सा मार्च-एप्रीलांतच गिमाळो तापिल्लो. रखरखान सैम जळटालो. उश्मो एकदम वाडिल्लो. काजू, आंब्याचो तेंप तो. ऐन भारार येतालो. गांवांत येणावळीचें मोठे साधन तें. जुस्त एका सोंमनाच्या अंतरान पयलीं शिवरायाल्या आनी उपरांत भीवाल्या काजूभाटान पेट घेतलो. कड्डाक उजो लागलो म्हणपाचें नीब जावन आख्खें काजूचें रेन

लासून गोबोर जालें. शिवराय आनी भीवाक तकलेर हात मारून घेवपाची पाळी आयिल्ली. आनी ह्या वटेन गांव भगताच्या सुरांत अरीश्टाचें गायन करतालो. दबक्या आवाजांतलें हें गायन शिवराय आनी म्हादेवाल्या कानार गेल्लें. आनी भीवाल्या घरांतय उलोवप जातालें. भीवाली बायल धुवेक खेपताली. पूण शिकिल्ल्या म्हादेवाक अती उश्णतेक लागून अशा अचकीत लागपी उज्या विशीं वाचून खबर आशिल्लें. राज्यांत खूबकडेन अशें घडलां म्हणपाचें ताणें वाचिल्लें आनी बापायक सांगिल्लें. पूण ह्या अपसो येगा फाटलो खरो सुत्रधार भगत म्हणपाचें तर्देवेळार तांचे मतींतच आयिल्लें नासलें.

हें वर्स काजू-आंब्या बाबतींत लुकसाणेचेंच गेलें अशें चिंतून शिवराय आनी भीवा मनाक सावरताले. काज गेली ती गेली शेतां मात करपाकच जाय. पावसा पयलींच शेताचें काम करूंक जाय हे हेतान दोनय घराबे वावराक लागले. तेच खातीर म्हादू आनी मंजू आपापल्या शेतांत पाविल्लीं.

म्हण्टा म्हळ्यार माय तापून जून सोंपलो. जुलय अर्द जायत आयिल्लो. पावसाची अजीबात सुलूस ना. मळबांत कुपां दाट्टालीं पूण उदकाचो थेंब झड नाशिल्लो. वाऱ्या सांगाताक उठून वतालो. पंचक्रोशी सुकी सडसडीत जाल्ली.

'आरे घात! हें आनी कसलें अरिश्ट. हताश जावन गांवांतले शेतकामती दबक्या आवाजांत उलयताले. जे येतना वतना भगताक आपटताले तांकां भगत सवंग रंगोवन सैमीक अरिश्टाचेंच उलोवन दाखयतालो. देवतेक पसंत ना अशें किदें तरी गांवांत घडटा देखून हें अरिश्ट दारार उबें आसा अशेंच तो सुचयतालो.

अल्प बुद्दीचो गांव जाल्ल्यान ही दबक्या आवाजांतली खबर व्हडा आवाजांत केन्ना गांव भर पातळ्ळी हें कळ्ळेंच ना. आनी गांवार आयिल्ल्या ह्या अरिश्टाचें कारण म्हादेव आनी मंजूळाचें घडूंक आयिल्लें नातें अशी खबर गांव भर जाली.

पाप जालां अरिश्ट आयलां. नाजाल्यार संबंद गांवांत शिवराय आनी भिवालेंच लुकसाण कित्याक जावंक पावलें. आतां तर पावस नाशिल्ल्यान गांवच करपता दिसता. आख्खो गांवच बुद्दीभ्रश्ट जाल्ले वरी उलयतालो. राज्यांत हेर खूब कडेन पावस ना म्हणपाचें कोण समजूनय घेनाशिल्लो. शिवराय आनी भीवाल्या घरांतय ही चर्चा आरंभली. शिवराय आनी म्हादेवालेंय एक दोन फावट टेंव टेंव वाजलें. आनी ते वटेन मंजूळानय आवय-बापायक परतें सांगिल्लें. सगळोच ताण तणाव जाल्लो.

पावस ना म्हूण चिंतेन आख्खो गांव मांडार म्हळ्यार श्री सांतेरी देवळांत एकवटलो. सुटनाशिल्ले कामात शिवराय आनी भीवाय आयिल्ले. भगतान भीत भीतच अरिश्टाचें कारण गांवांत जात भंग करून जुळिल्लें नातें आसपाक शकता अशे तरेचो सूर आळयलो. पूण अशें उच्चारतना धा फावट शिवरायाक आनी ताच्या हातांतल्या रोताक तेळ्ळे. 'म्हणजे असो एक दुबाव'. ..भगतान समर्थनांत म्हळें, 'तरीय देवतेक साकडें घालूया' म्हणत साळसूदपणान देवसपणाचे तयारेक लागलो.

शिकिल्ल्या म्हादेवाक आतां मेरेनच्या घडणुकांचो अर्थ समजूंक लागलो. भगता विशीं ताच्या कानार गेल्ली गजाल, मंजूळाकय भगताचे वागणूकेचो एक दोन फावटी आयिल्लो दुबाव, अचकीत पूण थारावन म्हण्टात तशे दोनय घराब्यांच्या काजू रेनाक लागिल्लो उजो, आनी गांवांर फांकिल्ली खबर. म्हादेव ल्हंवेन ल्हंव तिडकल्लो. आनी आतां आख्खो गांव देवळांत चोमा जाला म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तो अदीकच चवताळ्ळो. आनी तडक गांवच्या शिमेर देवळांत पावलो. म्हादेवाक अचकीत थळार पळोवन सगळेच नरम पडले. भगतय मनांतल्या मनांत भियेल्लो. कसले हेतान म्हादेव देवळांत आयला हें ताका कळ्ळें ना. पूण ताचो रागीट अवतार पळोवन भीत भीतच म्हुणून गेलो, 'यो म्हादेव बरें केलें देवळांत आयलो तूं.' आनी म्हादेव समेस्तां सामकार तिडकलोच. आड्डत ताणें म्हळें, 'कसलें पाप केलां रे भगता हांवें, जाका लागून गांवांर अरिश्ट आयलां अशें म्हण्टा तूं?'

'हांवें खंय म्हळां...? हांवें खंय म्हळां...?' अशें थरथरत उच्चारता म्हळ्यार भायर मळबांत कुपां दाटून आयिल्लीं. आनी घडक्यांकच घसघशांनी पावस रकूंक लागलो. सगळेच अजापीत जाले. सगळ्यांच्याच मुखा मळार हांसो फांकलो. आनी एकच कलकल सुरू जालो. थोडे त्या पयल्या पावसांत चिप्प भिजले. थोड्यांनी म्हळें, 'देवतेचें रागणे गेलें रे.'

हे गडबडींत भगत तरीय म्हुणून गेलो, 'म्हादेवाचो पांयगुणच बरो. तो देवळांत आयलो आनी पावस पडलो. आतां सगळें अरिश्ट गेलेंच म्हूण समजुपाचें.'

सगळे कडेन फांकिल्ली प्रसन्नताय पळोवन म्हादेवाचोय राग न्हीवत गेलो. तो आपल्या बापाय सरीं आयलो. शिवरायान ताका दोळे भरून पळयलो. शाणो शिवराय समजुपाचें समजलो. भगताचेर एक रागीट नदर शेंवटिल्ली. आनी एका आवेगान ताणें घरा परतुपी भीवाक साद घालो. सादा-उल्यान भीवान फाटल्यान वळून पळयलें. शिवराय, म्हादेव, भीवा एकठांय आयले. शिवरायान म्हळें, 'भीवा, देवतेची येवजण वेगळीच आसा गा. तुजें मंजूळा म्हाका सून म्हूण पसंत आसा. तूं मान्यताय दिवशी?'

शिवरायालीं उतरां आयकून भीवाचे दोळे भरून आयले. किदें जाप दिवची ताका उतर फुटना जालें.

तिगांयनीय देवतेक सांगातान नमन घालें. भीवान सोमतेंच भूंयेर नाक आनी कपलां घस्टीलें. उपरांत तिगय आपापले घरचे दिकेन वाटेक लागले. भगत आंऽऽ करीत पळयत उरलो. काळ आनी मोगा सामकार गांवांतली जात पात पावसा सांगातान व्हांवन गेल्ली.

संपर्क: 9822168542





# "पडलो रे फोणांन"

आशा शानभाग

पोरूंची गजाल... हेच दीस ते... निकतें तुळशी लग्न जालें आनी हीऽऽऽ लग्नांची झुंबड अडिल्ली. जायत्या लग्नांचीं म्हाकाय आमंत्रणां आशिल्लीं. खरें म्हळ्यार लग्नांक वचचे परस बुफेंतलें चित्रविचित्र जेवण पचोवप म्हळ्यार एक दिव्य. पूण लग्नाक वच नासतनां तांचीं मुक्ताफळां आयकोपाचें महादिव्य करचे परस हेंच बरें म्हणून हांव चुपचाप सगल्या लग्नांक वतांच वतां. तेच सिजनांत एकाच दिसा... एकाच म्हूर्ता वेळीं दोन लग्नां साकसून घेवपाची सर्कस हांवें केली. एकी कडेन म्हूर्त तर दुसरी कडेन रिसेप्शन अॅटेंड करून म्हजो थोबडो हांवें दोनूय माटवांनी दाखयलो. लग्न पटापट जालें खरें पूण दुसऱ्या माटवांतल्या रिसेप्शनाक व्हडली लायन. उपाशी घरा वचचे पडत म्हणून लायनींत रावलें.

"आगोऽऽ आशा..." फाटल्यान आयिल्ल्या आवाजाच्या धनया कडेन पळयतना म्हजे तोंडूच प्रस्नचिन्न जालें. हो कोण... खंयचो कांयच समजना. नांवान आपयता. तेन्ना शेर्त वळखिचो. पूण... नरो वा कुंजरो वा... हो...? काय तो...? चक्रव्युहांत घुस्पतनाच परतो प्रस्न आयलो... "वळखूं ना गो? हांव त्रिविक्रम..." त्रिविक्रम... हायस्कूलांत आठवी ते धावी मेरेनचो म्हजो वांगडी... वर्गमित्र. "आरेऽऽऽ तिरिबाब तूं रे?" "आतां सारकें वळखलें तूं. लायनींत आसात तो मेरेन भरपूर खोबरें फोडूया... आय मिन खबऱ्यो मारुंया" "हय... तर? कितल्याश्या वर्सांनी मेळ्ळ्यांत आमी. भरपूर खोबरें फोडूंया." "आगो... आमी हाच्या लग्नाचें आतां जेवतलीं, विचार कर..." "आरे ताणें विचार केला आनी म्हणूनच तो लग्न जाता.. आमी खबऱ्यो मारुंया." "आगो... खबऱ्योच गो. विचार कर... हो विशय घेवूया खबऱ्यांक." आमी मुयेच्या पांवलांनी फुडें सरतालीं.

"आगो... हो बाबडो पडटा फोणांन. आनी आमी तें सेलेब्रेट करत आतां जेवतलीं." "तिरीबाब..." हांवें ताका हटकिलो. ताणेंय नेटान जाप दिली "ओऽऽऽऽ" "तूं लग्न जालां?" "हय तर" "भुरगीं बी?" "हय तर दोन... एक चलो एक चली." "तूं पडलो फोणांन?" "हय तर" "तिऱ्याऽऽऽ... आजूनय निर्लज्जपणां सोपलीं ना रे तुजीं... पन्नाशी जाली तरी?" शाळेंतल्या त्या दिसांतल्या निश्पाप भुरग्यां भशेन वागतालीं आमी. "आशाबाय..." लागीं पावली आमीं. हात दिवूंया... मागीर ताका फोणांन पडपाचो मन:पूर्वक आशिर्वाद दिवुंया ... आनी मागीर जेवतना बाकीचें... फुडलें उलोवया... चल."

आमी हात दिले. फोटू-विडीयो शुटींग जालें. हातांतलीं पाकीटां नवऱ्याच्या हातान दवरली. आनी बुफे कडेन वचून रंगी बेरंगी जेवण प्लेटींनी घेवन फॅना पोदां बसका घेतली. "तर आशाबाय... आमी उलयतालीं फोंणाची गजाल." "हय रे बोरये रस्त्यार पडल्यात तशा फोंणाची." "आयक गो... हांव कोणूय लग्न जाता जाल्यार सरळ तासतालों... पडलो फोणांन म्हणून." "किदें विचित्रच मरे तूं तिरी." "आगो फॅक्ट सांगता तुका. कोणेंय आयज मेरेन म्हाका विचारूंक ना... तूं तशें कित्याक म्हण्टा..." "तूं सुटला म्हणून हेर सुटलात रे?" "सुटिल्लेच विचारतात जाल्यार तूं सुटलां?" "तिऱ्या... संगती संग दोशाणां... तशें म्हजे जालां आयज. हांव आयज कोणाच्या वांगडा आसा?" आमीं शाळेंतलीं पोरां कशीं करतालीं.

"आगो... तुवें म्हज्या उलोवण्याचेर म्हाका छेडलो. तूं पडला फोणांन विचारलें मुगो तुवें?" "हय" "म्हणून तुका सांगतां... आयक." हांवेंय तोणांन गोबी मांचुरियन भरत "हूं हूं..." केलें. आनी तिरीबाब सुरू जालो. "तर जालें किदें जाणां मुगो?" "आरे बाबा... तुवें सांगले बगर कशें कळटलें?" "आयक गो... पयलीं बेज... म्हळ्यार बुन्याद करतां हांव." "सॉरी... सॉरी... चूप रावतां हांव." "तर जालें किदें" म्हणत त्रिविक्रम उर्फ तिरीबाब उर्फ तिऱ्या सुरू जालो.

कॉलेज शिकप जाले उपरांत तिरीबाब आपल्या बापायच्या बिजीनेसांत मदत करपाक लागलो. हळूहळू बापायन सगलें वजें पुताच्याच खांद्यार दवरून रिटायरमेंट घेतली. बरो मनीस... बरो बिझिनेसमेन म्हणून तोंडानच

जायरात जावंन ताका फटाफट एक सोयरीक आयली. पसंती जावन लग्नय थारलें. ''जाणां मुगो हांवें खासा गादी बी करून घेतली.'' ''एऽऽ तिऱ्या आता गादयेवेले अणभव बी सांगू नाका. नॉर्मल ते.'' हांवे तोंडांन फ्रायड रायसाचो चमचो चेपयत सांगलें आनी दांत दाखयले. ''एऽऽ आतां पन्नाशींचेर कसलें गो अणभव? आयक फुडलें.'' ''ओके'' हांवें ब्रेडाची स्लायस मशरुमग्रेव्हींत बुडयत सांगलें.

तिरीच्या लग्नाची गडबड लागीं पावली. भांगरां-शिंगरां, येणावळ-देणावळ, तेल-लग्न आक्ताची तयारी... आयस्क्रिम... मिठायेच्यो काशी... ''तेन्ना बुफे सिस्टम नासली न्ही गो?'' ''हय रे... म्हजेंय लग्न अशेंच मिठायेच्या बॉक्सानच जालें.'' सगली-सगली तयारी तिरीन केली. व्हंकलकारांनी खाट, आलमार, गादी लग्ना पयली दिसा तिरीगेर धाडली. लग्न फाल्यार पावलें.

सकाळीं उठून न्हांवन-धुंवन... फात मारून न्हवरो तिरीबाब सगल्या वऱ्हाड्यां सयत हॉलाकडेन पावलो. भटमामान न कळपी... तिरीबाबाक हां... मंत्राच्या गजरांत आनी धुमसवपी होमाच्या धुंवरांत तिरीचे साऽऽओऽऽ साऽऽऽ केलें. म्हळ्यार लग्न लायलें.'' धुंवरान चुरचुरपी दोळे सावरून दोगांयनी एकामेकांक माळ घाली... एकंदर खोशयेचो खीण. नाक-तोंड आनी दोळे व्हांवताले... धुंवरान तरी सगले खोशी. सगले विधी जाले. ''मागीर बायलेन शालू बदलील्लो... आमचो शालू न्हेसलें.'' ''एऽऽ सव्यारच रे?'' ''तूं मुगो सुदारपाच्या भायर गेलां.'' आनी आमीं शाळकरी पोरां कशीं हांसली.

तर तिरीबाब आनी नवोताल शालू न्हेशिल्ली ताजी बायल सव्यार येतल्यांक हात दिताली. वळख करून दिताली-घेताली. इतल्यान एक देसेंत असो दादलो आयलो खंय... ''परबीं...'' तिरीबाबाक ताणें हात दिलो. फोटूय काडून घेतले आनी बुफे कडेन वचपाक वतनांच अचकीत परतलो आनी तिरीच्या कानांन फुतफुतलो. ''पडलो रे तूं फोणांन?'' तिरी नर्व्हस... ताचे दोळे पावले खंय कपलान. ''आगो हांवें कच्च करून आंग काडले.'' ''कित्याक रे?'' ''आगो मनान नाना ते विचार आयले. बायल 'तसली' बी काय किदें?'' ''शी... तिऱ्या तिरसटच मरे तूं. नव्या आयुश्यान पांय दवरतनाच अविस्वास रे?'' ''आगो तशें न्हय. पूण तो कानांन फुतफुतलो ताचो अर्थ किदेंय घेवं येता न्हय?'' ''म्हळ्यार परंपरेन वागलो तूं. आपल्या मनशां परस हेरांचेर चड विस्वास...'' ''आगो तशें न्हय गो सायबिणी. म्हाका दिसलें बायलेचें किदेंय... कोणा बरोबर लफडें बी तो जाणां. एक न्हय गो हजार प्रस्न मनांत उबे रावले.'' पयलींच हो मेलो तिरी तिरपागडो आनी मनांन घुस्पागोंदळ. एके वटेन काकूट. बायल आपल्या सोयऱ्यांची वळख करून दिता. आनी हो तोंडार उश्णो हांसो हाडपाचो यत्न करता. हाचे तकलेतलें संशयपिशाच्च आडायता.

''चल आतां फुडें सांग.'' हांवें परतून तिरीक कोर्द दिली. ''फुडलें सगलें सागसंगीत उडयलें मरें तुवें?'' ''कर्म म्हजें रातची बायल आनी हांव दोगांच कुडींत आनी...'' ''सांग रे तूं.. .लजू नाका... बालमैत्रिण हांव तुजी. रिलॅक्स जा आनी सांग रे प्रॉब्लेम तुजो.'' ''किदें सांगूं? आगो बायलेक हात लेगीत लायलो ना हांवें सुहाग रातीक.'' ''माकोड मरे तूं'' म्हजो प्लेटींतलो चमचो तोंडांकडेन पावलोच ना हाचें उलवणें आयकून. ''तिरी तुवें दोन भुरगीं आसा म्हळां न्ही रे?'' ''ए... चालुगिरी करूं नाका. आगो म्हजे तकलेंत सव्यार म्हणिल्लीं उतरांच घुंवतालीं... फोणांन पडलो रे...'' ''एऽऽ तिरी... बायल ओग्गी न्हिदली रे तुजी ते राती?'' ''ए... चल... म्हजें फुटलां हांगा... आनी ती किदें करतली. हांव फाट करून न्हिदतगीर तिवूय न्हिदली.'' ''एऽऽऽ तिऱ्या... मागीर रे? तुजें ब्रह्मचर्य भंग केन्ना जालें?... दोन भुरगीं आसा म्हणून विचारतां हां?'' ''आगो चार दीस ब्रह्मचारी हांव.'' 'नशीब रे तुजी बायल बरी म्हणू. आयच्यो चलयो जाल्यार इंपोटंट म्हणून डिव्होर्साक वचपाच्यो.''

''आतां आयक म्हज्या गृहस्थ जिवनाची सुरवात.'' पांचव्या दिसा पांच आपोवणे वेळार तिरीच्या मांवान सत्यनारायणाची पुजा दवरलेली. दांपत्याक तिरी आनी घरकान्न. तांगेर गेल्ले कडेन तिरीची नदर 'फोणांत पडलो' म्हणून कानांत फुतफुतपी 'त्या' दादल्याचेर पडली. ''आगो... तोऽऽऽ कोण गो?'' ''विसरलो? मावसो म्हणून वळख करून दिली हांवें सव्यार.'' ''खरें? मावसो हो तुजो? घातकी सो दिसता.'' ''नाऽऽऽ तो बरो फकांडेर. मेळटा ताची फकांडां करता.'' ''आगो खरें सांगूं तो म्हज्या कानांत फुतफुतलो...'' ''फोणांत पडलो म्हणून'' ''हय गो... तुवें आयकलें?'' ''ना... ना... ताका नव्या लग्न जातल्यांक अशेंच म्हणून फोकावपाची भारी संवय.'' तिरी आनी बायलेची मावोड्या अशी भासाभास जाली... आनी... तिरीची ट्यूबलायट टक्क करून पेटली. ''आगो... आशाबाय म्हज्या कानांत फुतफुतिल्ल्याक फकांडां करपाची अशीऽऽऽ संवय आसा हें कळटगीर मनांतलो बायले विशींचो संशय गेलो... आनी मोग दाटून आयलो.'' ''आनी तिऱ्या सत्यनारायण केन्ना सोपता आनी सांज केन्ना दाटता अशें जालें मरे तुका?'' ''हय तर.. मावशाच्या ह्या रुपाच्या उलगड्या उपरांत म्हजो गृहस्थाश्रम सांगसंगित चालू जालो.'' ''आरे बायले विशींचो डावट गेलो मरे कायमचो? खँ खँ'' हांसत हांवें विचारलें.

''हय... तर... दडपण केदें गो म्हजेर तेन्ना? त्या दडपणाचो सूड म्हणूनच हांव कोणायच्याय लग्नाक गेलों की न्हवऱ्याच्या कानांत फुतफुततां... पडलो रे फोणांन तू.'' ''पापया... आता इतलीं वर्सां... मावशाच्या उतरांचो सूड म्हणून फोंड-फोंड केलो. आतां सुदार मात्सो. सगले जाणात रे आतां... लग्न म्हळ्यार फोंडच तो. लग्न... संवसार... तातुंतल्यान पोरां... तांचे बड्डे... मुंजी... शिक्षण... लग्नां... फोंड वाडतच वतात रे. तरी तूं सुदार आतां.'' ''चल डन... तुवें विचारलें... हांवें सांगलें... आतां म्हजो मोक्ष जालो. हांव सांगून -सवरून मेकळो जालों. हाचे फुडें फोंड बंद.'' आनी आमी लग्न जावन फोंडान पडपाक वचपी नव्या ताल्ल जोडप्याक सुखान संवसार करपाचो आशिर्वाद दिवन माटवा भायर वचपाक गेलीं.

संपर्क: 9404145337



# रिणकारी

वल्ली क्वाड्रस

'कोलोनिंतल्या सर्वांक आपवन अपल्या भुर्ग्याचो बर्थडे दभाज्यान करूंक तिका जाता, पूण घेतल्लें रीण पाटीं दीवंक न्हय'.

सकाळीं अपल्या जर्मन शेपर्ड पेट्याक भंवडावंक गेल्लो पाटीं येतासतां गुरुदासान मतिंत चिंतलें. ह्या मुंबय शेरांत सर्व यांत्रीकृत रितीन वेळाकाळार जाय जयच्च. पंद्रा वर्सां पर्गांवांत घोळून येवन मुंबयांतल्या घाटकोपर्च्या असलफा गांवांत वसती कर्तालो. जोडल्लें चडताव फ्लेट घेंवचांत संपलें तर, बाकिचें थोडें बेंकांत एफ.डी., म्यूचुवल फंड, शेर मार्केट म्हणून चाल्ती खात्यांत आसल्ले थोडे, अपलें फ्लेट पळेवंक आयिल्ली बगलेच्या कोलोनिची मलबारी बायलेन, अपल्या पाक्याची दुरसती करुंक म्हणून रिणारुपाय विचारून वेल्ले. रीण विचार्च्याधीं कितलें खाल्तेपणाचो वेस तिणें पांगुल्लो ना? सौदिंत आसच्या तिच्या पतीक पाटल्या तीन मयन्यांनी सांभाळ मेळुंक ना, वेगिंच मेळचार आसा म्हणून शेकान सांगलां, तो आयिल्लोच म्हजें रीण फारीक कर्तां, चड म्हळ्यार पंद्रा-वीस दीस म्हणून म्हजेलागीं रीण विचारल्लें.

''पंद्रा दीस राक्येत न्हय तुका?'' गुरुदासान्यी वार्जीक करूंक धरल्लें.

''म्हाका राक्येत, पूण पावस राकचोना, कोलोनिचीं भुर्ग्यांनी क्रिकेट म्हणून, कोलोनिच्या पाक्याच्यो सिमेंट पार्की थंय थंय बुराक पडून, पावसाक पोंवतात, तितलेंच न्हय, त्या बुराकांतल्यान थोडे पावटीं उंदीर/कोळिंद्र सयत घरा रिग्तात. आमच्या बगलेच्या वागमोरेच्या घरा दिवोड सयत रिगल्लो कंय, देकून अय्या, एक उपकार कर.'' -त्या मलबारी बायलेन राग (Tune) वोडन कितलेश्या दीनपणान रीण विचारल्लें.

पंद्रा दीस सोड, मयने दोन उतरल्ले. तऱ्यी घेतल्लें रीण पाटीं दिवंक तिका फुटवालें ना.

***

''साहेब, म्हाका पंद्रा दिसाच्या रजेर म्हज्या गांवाक वचुंक आसा देकून म्हजे बदलाक म्हज्या नणंदेक कामाक लायतां''; सकाळीं सातांक काम करूंक येंवच्या कामवालीन आज रिगतच्च सांगून सोडलें.

सात थावन आट पऱ्यांत गुरुदासागेर तर, आट थावन नोव पऱ्यांत बगलेच्या बंगालिच्या घरांत काम, नोव थावन धा पऱ्यांत लागसिल्ल्याक डॉ. आनंद वाघ हाच्या क्लिनिकांत नितळ कर्चें काम, अशें सकाळीं थावन सांज म्हणासर तिका कामच्च काम.

सात थावन आट पऱ्यांत घर नितळ करून, बाल्कनिंतल्या झडांक उदाक वोतून, उपरांत रोटी सबजी रांदून जाता. सक्कड एका वोरा भितर जायजयच्च. आनी ह्या एका वोरांत तिणें काम कर्न आसले परिंच, गांवच्यो खबरो सांगून सोडताली. तिणें आयिल्लेंच घरांत टी.वी. बंध, तिचिच्च टी.वी. तिका शिकाप नां तऱ्यी, तिचे थावन आयकुंक मेळचें गिन्यान कांय उणें ना, ऐ.पी. एलांत विराट कोहलीन, बौन्सराक खंयचा दिशेन कशें मारूंक जाय आसलें म्हळ्ळें जांव, कोर्पेरिटर चुनावांत एम.एन.एस आनी शिवसेने एकवटींत जाल्लीं तर बी.जे.पी. पाडत सलवती म्हळ्ळें जांव, असाराम बापून जयलांत बसून सयत चलंवच्या कार्भारा विशीं जांव, ट्रंपान एच.वन.बी विजाचेर ज्यारि केल्ल्या कानुना विशीं जांव, तिका माहेत आसा. आनी त्ये माहेतिकच्च जाण्वायेरुपाय ती सांगून वेता.

तितेंच न्हय, तिणें रांवच्या चालिंतल्या कुडांत तिचे सवें रांवच्या हेर कामवाली बायलांक सयत जांवच्या तर्का विशीं वा चंगायेविशीं जांव ती सुटावें सांगून सोडतात. तवळ तवळ ती सावंत्वाडिंतल्या अपल्या गांवा विशी, तिका सदांय पियेवन मार्तेल्या घोवा विशीं सांग्ताली, तऱ्यी, स मयन्याक एक पावटीं ती आपल्या गांवाक वेताली.

''अगो बाय, तुजो घोव तुका तितलो मार्ता, आनी कश्टिता, तऱ्यी तूं कित्याक घोळून ताकाच्च वरून दिताय?''; एक दोन पावटी गुरुदासान सयत तिच्या तोंडाक बोडी घाल्ली आसा.

''कितें कर्चें साहेब, ताकाय रीण आसा, आमचें घर पर्नें, देकून ताणेंय रीण केलां, कितें कर्चें, घरांत प्राये सयत आवय-बापूय आसात, गांवांत कांय उत्पत्त ना, देकून हांव इल्लें घोळून तांकां वरिना तर तांकां हेर कसली गत आसा?''; तिणें भोव समजणेची जवाब दिल्ली.

थोडे पावटीं गुरूदास घुस्पोडतालो, एक पावटी अपल्या घोवाक येटताली, एक पावटीं तोच्च घोव देव म्हण मांदताली.

***

पाटल्या तीन दिसां थावन बी.एम.सी.चे येवन, असलफाच्या कणीक नितळ करूंक म्हणून त्या नालेक उग्तें करून गेल्ले देकून विपरीत घाण येताली. भुर्गे सदांचे परिंच खेळताले, कोणाचो क्रिकेट बोल वचून त्या नालेंत पडलो. तितली घाण येताली म्हळ्यार घर्चीं बागलां/जनेलां सयत बंद करूंक पडलें.

पूण दिसाक दोन पावटी येंवचें बी.एसटी. बस्स थंयच रावतालें, बगलेन वडा-पाव विखचो आपटे सयत सकाळीं आनी सांजेर वडा भाजचो पर्मळ सयत त्या घाणिंत मेळल्लो. बगलेन केलश्याचें दुकान.

ह्या लोकाक पर्मळ/घाण म्हळ्ळें कांय पडून गेल्लेंच ना न्हय? गुरूदास सयत चिंतून आसलो.

थोडे वेळान दाराचेर कोणेंगी ज्योरान कांपीण मारली देकून उटोन वचून बागील उग्तें केलें.

भायर ती मलबारी बायल उबी आसल्ली;

''अय्या, माफ कर, बागलां, जनेलां बंद आसलीं देकून तूं नांय कोण्णा म्हळ्ळ्या दुभावांत इल्लें ज्योरान बेल्ल मारलें''; तिणें पयलींच पश्चाताप वेक्त केलो.

''हांव ना कोण्णा म्हळ्ळे धयरान पुणीं येवंक नांय मू?''; गुरूदासान तिका उत्रांनी खोंकुंक चिंतलें.

परत कसलेंय नीब आयकुंक तो तयार नासल्लो. पयलें पाकें, उपरांत भुर्ग्याक इसकोल म्हणून, हांकां मागून दीस वेतात. अपणान तिका दिल्ले पयशे कांय बेंकांत दवरल्ले तर कांय थोडी वाड पुणीं लाभती कोण्णा म्हळ्ळे चिंताप सयत गुरुदासाच्या मतिंत आसलें.

''ना अय्या... हांव जाणां, तुमकां म्हजेर शीण आसतलो म्हणून, तुमचे लागीं हांवे दोन हजार रुपय रीण वेल्लें, वेळार फारीक करूंक जावंक ना, म्हज्या पतीक अजीक आट मयने जाले, अजून ताका सांभाळ मेळुंक ना कंय, सांभाळ विचारूंक गेल्ल्या हेरांक शेकान कामांतलो काडला कंय, देकून अपणाक सांबाळ मेळता म्हणसर काम कर्तलों म्हणून म्हाका बरयलां''; तिच्या उत्रांनी ह्ये फावटीं कसलोय राग (Tune) नातल्लो.

''अळे बाये, तुका म्हज्या तांकिची कुमोक एदोळच्च हांवें केल्या. ही मुंबय, हांगा सर भावाक भाव ना, कोणाक कोण ना, तऱ्ही तुजी भिर्मत पावून तुजें पाकें कोसळोन पडानाये म्हणून पंद्रा दिसां खातीर तुका कसलिच्च ग्यारंटी नासताना रीण दिलां, देकून परत तुका दिंवचाक म्हजे लागीं कितेंच ना...''; गुरूदासान जवाब दिली.

''अय्या... ना, तुजेलागीं परत रीण विचारूंक आयिल्लीं न्हय, बगार तुजे थावन हांवें घेतल्लें रीण तडव करून पाटीं दीवंक आयिल्लीं, देकून बेजार करिनाकात म्हणून सांगूंक आयिल्लीं'', अशें म्हणून अपल्या कापडाच्या पालंवाच्या पोंताक भांदल्ली घांट सुटवन तांतलें शेंभोरांचें वीस नोट काडून तिणें भोव खाल्तेपणीं गुरुदासाच्या हातीं दिले.

थोडो वेळ मौन तांचे मधें राज करूंक लागलो, ती उटून वेतेच्च, गुरूदासान ते दोन हजार रुपय वरून अपल्या पर्सांत दवरले, तशेंच जनेलांचें दार उग्तें करून बाल्कनीक पावलो. सकला कोलोनिंत कसलोगी आवाज;

एक आवय अपल्या रडतेल्या ल्हान भुर्ग्याक मार्ताली.

''कोणगाय इतली क्रूय आवय? भुर्गें रडताना मारून थंड करुंक पळेतेली?'' गुरूदासान कुशिंतल्या बाल्कनिंत उभो आसच्या बंगालीक विचारलें.

''त्ये बायलेन पोर तिच्या भुर्ग्याच्या बर्थ्डेक कोणेंगी इनाम दिल्लें सायकल वरून विखलें कंय, देकून भुर्गें अपलें सायकल विकलें म्हणून रडता देकून मार्तासतली.''

आयकून गुरूदासान काळजांत कसलिकी दू:ख उदेल्ले परीं भगलें.

थोड्याच वेळान भुर्ग्यान रडणें बंध केल्लें, पूण आतां गुरूदासाच्या काळजांत रडणें सुरू जाल्लें.

ब्रेकफास्टाची तयारी करून एलिजा मायकलाची वाट पळयतालें. नदर परत परत घड्याळीचेर वताली. धा जायत आयिल्लीं. साडे धांक मिशाच्या स्कूलांत पावपाक जाय आशिल्लें. मिशाच्या क्लास टिचरीन आपणाक येवन मेळ्ळ म्हण दोन दीस पयलीं रेकाद बरोवन दिल्लो. मदली सुटी सोंपचे पयलीं स्कूलांत पावपाक जाय आशिल्लें. रिसेस सोंपून टिचर वर्गांत गेल्यार तासिका सोंपसर रावचें पडटलें.

मायकलाच्या रुमाच्या दारार नॉक करचें असो विचार एलिजाच्या मनांत आयलो. पूण धाडस जालें ना. ऍनी आनी बेबीची न्हीद मोडल्यार... मायकल तरी बेगीन उठून येवपाक जाय आशिल्लो. ताका सांगून भायर सरपाक मेळटा आसलें. ब्रेकफास्ट रेडी करून दवरून वयतलें म्हणल्यार ऍनी कितें मागत हाचो नेम नासलो.

घडयाळीचो कांटो फुडें सरकत आशिल्लो. मायकलाक राती तरी सांगपाक जाय आसलें. सांगल्यार घडये बेगीन उठून येत आसलो. गडबडीत एलीजा विसरून गेल्लें. सकाळीं मिशानूच स्कूलांत वतना याद केल्ली. स्कूलांत सावन बेगीन परत पावपाकूच जाय आसलें. दनपारचें जेवण वेळार तयार जावपाक जाय. ऍनी आनी बेबीचें सगळें ज्युस्ता ज्युस्त जावपाक जाय.

बऱ्याच वेळान मायकल भायर आयलो.

'ऍनी उठलें? आयज ब्रेकफास्टाक कितें जाय?'

'न्हिदलोलें आहा तें. उठठुकोच विचारता हांव.'

'म्हाका बायेल्या स्कूलांत वसपाक जाय. क्लास टिचरीन आपोयलां.'

'उठसूट कितें आपोयता गो ती. ती बेकार म्हूण आमीय बेकार.'

'ती आपोयता पूण म्हाका वोचपाक खूंय मेळटा.'

'आयज आमी भायर सरपाची आसात. बेबीक तुजे कडे दवरया म्हुणटालें ऍनी.'

'तुमी फाल्यां गेल्यार जायना?'

'तूं स्कूलांत फाल्यां वोस. गो. मात्शे काम जालें म्हूण सांग.'

एलिजा वग्गी रावलें.

बेबीक एलिजा कडेन दवरून मायकल आनी ऍनी भायर सरलीं.

'एलिजा व्ही वील बी लीटल लेट. फीड बेबी ऑन टायम'.

ऍनीन ऑर्द सोडली. एलिजान तकली हालयली. ती दोगांय भायर सरतकच एलिजा बेबीक सांबाळत रांदपाचे तयारेक लागलें. पूण चित्त कित्याकूच लागनासलें. बाय स्कूलांत वाट पळयता आसतलें. टिचर ताका तापोवची बी ना मूं. अशें मर्दीच कित्याक आपयलां काय टिचरीन?? फाल्यां कशेय भशेन वचून टिचरीक मेळटलेंच असो एलिजान मनांत निश्चेव केलो.

ऍलिजान बेबीक सकयल दवरलें. पूण खिणांतूच बेबी रडपाक लागलें. खेळाची रास एलिजान बेबी म्हाऱ्यांत ओंतली. तरीय बेबी रडपाचें थांबना. सकयल खेळपाचो ताचो मूड ना म्हणपाचें एलिजान पारखिलें. ताणें बेबीक वयर उखल्लें. बेबी रडपाचें थांबलें.

# पलतड

**जोफा गोन्साल्वीस**



सादया भावार्थी गांवांतल्या मनशांक दुडवांची रास दाखोवपी ह्या उद्देगाच्या वादळांत एलिजाची जीण खंयचे तडीक आपटत हाची जाणीव एलिजाक उरूंक नाशिल्ली. दुडवांचे आशेन मायकल ऍनीचो जाल्लो. एलिजाच्या दोळ्यारूय गिरेस्तकायेच्या आशेची सावळी पडिल्ली. आपल्या आनी आपल्या धुवेच्या फुडाराच्या पावलार आशिल्लो काळोख ताका दिसलो ना. काय पर्यटनाचे जोडीन पयसुल्लें पळोवपाची ताची नदरूच भिरकावन मारिल्ली.

काजारा उपरांत एलिजाचे दीस सुखान वताले. मायकल सी मॅन. काजारा उपरांत दोन वर्सांनी मिशा जालें. पूण मिशा वर्साचें जाता म्हळ्यार मायकल मदींच बोट सोडून आयलो. भलायकेचो त्रास जाता, कामार लक्ष लागना अशेंच कारण तो विचारिल्ल्यांक सांगतालो. घरा बेकार उरलो म्हण भंय नाशिल्लो. दर्या वेळे वयलें घर. टुरिस्टांक घरांत दवरल्यार संवसार चलोवपाक कसलोच भंय नासलो.

मायकलान रोकडेच घरा कुशीक टुरिस्टां खातीर चार रूम उबें केले. बोटी वेल्या जोडी परस ही जोड चड म्हणपाचो अदमास मायकलाक आयलो. हळू हळू घरांतलेंय दोन रूम टुरिस्टांक दिले. एलिजान टुरिस्टांक घरगुती जेवण दिवपाक सुरवात केली.

फाटल्यो सगळ्यो यादी एलिजाच्या दोळ्या मुखार सरकत गेल्यो. पेल्या वर्साच्या सिजनाक ऍनी तिनसांजच्या वेळार रूम सोदत आयिल्लो तो दीस. नाकात त्यो यादी अशें चितून ताणें बेबी कडेन लक्ष दिलें. ते झेमूंक लागिल्लें. एलिजान ताका तशेंच थापटिलें. न्हिदतकच बेबीक बॅडीर दवरून एलिजा रांदपाच्या वावराक लागलें.

रांदप जाता म्हण सर मायकल आनी एलिजा भितर सरलीं. मिशा अजून शाळेंतल्यान येवंक नाशिल्लें. एलिजान घड्याळीचेर नदर मारली. टायम जाल्लो. ताका हुस्को सो जालो. आपूण येवंक ना म्हूण टिचरीन ताका शाळेंतूच दवरून बी घेवंक ना मूं...

'एलिजा फूड रेडी?'

ऍनीच्या प्रस्ना सरशीं एलिजा भानार आयलें.

'नो. नो. इट्स गॅटींग रेडी.'

'जाल्लें ना गो. टायम जालो मुगो.'

'बाय येयलें ना मुरे आजून.'

'येतोलें तें. तूं ऍनीक वाडपाची तोयारी कोर.'

रस्त्यार स्कूल बस थांबिल्ल्याचो आवाज आयलो आनी एलिजाक सू जालें. मिशा फुगून शें घरांत भितर सरलें.

बाये येयलें. हात पांय धूय हां.

'मामा, कित्याक येयली ना गे तूं?'

'फाल्यां येता हां रानी. आयज डाडा आनी ऍनी भायर सरलोली. बेबीक लागोन येवपाक मेळ्ळें ना.'

'हिप्यांचें करपाक बरो वेळ मेळटा मुगे तुका. टिचरीन म्हाका तापयलें.'

'कितें म्हूणटाली टिचर.'

'म्हाका लज केली तिणें. तुजी आवय तुजे खातीर थोडो वेळ दिवपाक शकना हाची लज दिसपाक जाय तुका.' अशें म्हणटाली ती.

'म्हुजी मामा बेकार ना मू सांगपाचें न्हू तुवें.' मायकलान सांगलें.

'डाडा, तूं म्हुजेकडे उलयनाका हां. त्या बेबीचें करपाक बरो वेळ मेळटा तुका. हांव नाका तुका.' मिशा रडत आपल्या रुमांत गेलें.

एलिजान ऍनीक आनी मायकलाक वाडलें. म्हणसर बेबी जागें जालें. तीं जोवतकच बॅबीक ऍनी कडेन दिवन एलिजा मिशाच्या कुडींत गेलें.

मिशा दोळे सुजोवन तशेंच न्हिदून पडिल्लें. युनिफॉर्मूय काडूंक नाशिल्लो. एलिजान ताका उठोवपाचो यत्न केलो पूण फुकट. एलिजान मिशाची तकली आपले मांडयेर दवरली.

ऍनी रूम सोदीत आयिल्लो तो दीस एलिजाक याद जालो. ताचो आनी मिशाचो फुडार दर्यातल्या वादळा वटेन व्हरपी तो दीस हाची जाणीव आयज दोन वर्सांनी एलिजाक जावपाक लागिल्ली. धड आलतडूय ना आनी पलतडूय ना. खंयच्या तरी पॉश कॉटिजीन रावपाक आयिल्लें ऍनी तांचे कडेन झगडी करून भायर सरिल्लें. डिसेंबर म्हयनो. सगळेंच ॲडवान्स बुकींग. कोणे तरी ताका मायकलाचो नामो दिलो. हांगचे वातावरण ऍनीक आवडलें. ऍलिजाचें जेवणूय मानवलें. आनी हळू हळू मायकलूय मानवलो. खंयूय भोंवपाक ताका मायकलूच जाय आसलो. दर दिसा बरें सुट्टा म्हण मायकलूय खूश.

मायकल आनी ऍनी लागीं येतात तें एलिजाक जाणनासलें अशें ना. पूण केन्नाय ते विशीं मायकलाक विचारचें अशें दिसलें ना. हळू हळू मायकल रातचोय ऍनीच्या रुमांत रावपाक लागलो. तेन्ना मात एलिजान तोंड उगडलें.

'तूं रातचो तेच्या रूमांत राव नाका हां.'

'बेश्टें रागार जाय नाका गो. हांव सांगपाचो आसलो तुका.'

'राती बाय सोदतालें तुका.'

'बरें पॉश गो तें. तेका मात्शे लागीं केल्यार म्हाका जर्मनी वोचपाक मेळटलें. हिंगा म्हूण बेकार रावन कितें करतलो...''

'बेकार खूंय आसा तूं? बरे चल्ला मरें आमचें.'

'ही फकत स म्हयन्याची जोड मुगो. ऍनी बराबर गेल्यार मागीर दुडूच दुडू.'

'पूण तोशें वसपाक मेळटा?'

'होय. तेंवूय एकटेंच. ताकाय कोणाचो आदार जाय. म्हाका व्होरतलें तें. ताचे कडे काजार मात जावपाक पोडटलें.'

'कितें काजार?''

'आगो खऱ्यांनी न्ही गो. थोड्या तेपा पासत.'

'पूण लोक कितें म्हुणटलो?'

'आतां सगळो लोक सुदारला गो. जायते जाण गेल्यात तेशें.'

एलिजा फुडें कांय उलयलें ना. मायकल ऍनी वांगडा गेलो. आनी खरेंच मायकल एलिजाक नेमान पयशे धाडपाक लागलो.

मायकलाच्या सांगण्या प्रमाण एलिजान घरा फाटल्यान आनीक चार रूम बांदले. घरूय रिनोवेट केलें. सगळें आसलें पूण मायकलाच्या उगडासान एलिजा अस्वस्थ जातालें. सगळें आसुनूय कांय ना अशें दिसतालें. दुसऱ्या सिजानाक आमी येनात म्हण मायकलान कळयतकच एलिजा चिडूच अस्वस्थ जालें.

आनी ह्या सीजनाक ऍनी आनी मायकल स म्हयन्याच्या बेबीक घेवन आयली.

कितलोसोच वेळ एलिजा बसून आसलें. अस्वस्थ विचार कशेंच फाट सोडिनासले. मिशा उपाशींच आसलें. एलिजान मिशाक उठयलें.

कालूच ताणे दुसऱ्या दिसाचो सकाळचो ऍनीचो ब्रेकफास्ट मायकलाकूच रेडी करपाक कालूच सांगून दवरिल्लें. बेगीनूच मिशाच्या स्कूलांत वचपाचें चितून तें वावराक लागिल्लें. मिशान वतना परत याद केल्ली. भायर सरपाची तयारी जाता म्हण सर मायकल बेबीक घेवन आयलो.

'ऍनीक उरजेंत काम जालें. मात्शें भायर सरपाक पडटलें. ब्रेकफास्ट भायरूच घेतात. रोकडीच येताय आमी. मागीर वस तूं.'

एलिजाचें कांय एक आयकूवचे पयलीं मायकल बेबीक ताचे कडेन दिवन गेलो. एलिजा कडेन आनी पर्याय उरूंक ना. स्वताचीच तिडक आयली ताका. रागान ताणें बेबीचेर एक नदर मारली. आयज टिचर कितें म्हणटली देव जाणां. हीं बेगीन येयल्यार पुरो. एलिजाचें कित्याकूच लक्ष लागना जालें. ताची नदर परत परत रस्त्यार वताली. हीं येता अशें आपूण भायर सरतलें म्हूण तें तयारेंत आशिल्लें. वेळ फुडें सरकतां तसो ताचो जीव कासावीस जातालो.

इतल्यान मिशा शाळेंतल्यान येता तें एलिजाच्या नदरेक पडलें. काळजांत खप्प जालें.

मिशा रडतूच भितर सरलें.

'बाय कितें जालें? रडटा कित्याक?'

'टिचरीन तुका घेवन यो म्हण सांगलां. चल या आतां.'

'बेबीक लागोन येवपाक मेळोंक ना. डाडा येवपाचोच जाला. मागीर या आमी.'

'तूं त्या बेबीकूच घेवन राव. म्हजो हुस्को ना तुका.'

'आत्तां या. उठ मामा. यो गे बेगीन.'

मिशा एलिजाच्या हाताक धरून ओडपाक लागलें.

'मात्शें राव गो. बेबी आसा न्हू. डाडाक येवपा दी.'

'ताका दवर थिंगा.'

मिशान बेबीच्या पांयांक धरून ओडलें. बेबी सकयल पडटा पडटा एलिजान सांबाळलें.

तेन्नाच ऍनी आनी मायकल भितर सरलीं.

'वॉट आर यूव डुयींग?'

'कितें कोरतात गो तुमी. बेबी पडपाचें मुगो.' मायकल तापलो.

'यूव गर्ल...' ऍनीन मिशाक कुशीक धुकल्लें. तें वणटीक आपटलें पूण तशेंच उठून दांत ओंठ चाबीत ऍनीच्या आंगार धांवलें. मायकलान ताका आडायलें. रागान मिशान एलिजा कडेन आशिल्ल्या बेबीक सकयल ओडलें.

'सोड मामा तूं घेय नाका तेका. सोड म्हळ्यार सोड.'

'बाये राव गो.'

एलिजा बायेक कुशीक काडटा म्हण सर मायकलान मिशाचेर दोन फुलयली.

'पिशें बा लागोंक ना मुगो तुका.'

ऍलिजान बेगीन बेगीन बेबीक ऍनी कडेन दिलें.

'सी इज डेंजर टू अव्हर बेबी. मायकल व्ही शूड नॉट स्टे हियर येनी मोर.' मिशा, सोणकुटार फुलयतलें हां तुज्या.'

आपूण कितें उलयता तेंच एलिजाक कळ्ळे ना.

मिशा रडत घरांत गेलें. ऍनी बेबीक घेवन आपल्या रुमांत गेलें. फाटोफोट मायकलूय गेलो.

बॅगा भायर काडून मायकल टॅक्सीची वाट पळोवपाक लागलो. एलिजा निर्विकार नदरेन मायकलाक पळयतालें.

'रोकडोच येतोलो हांव. हुस्को कर नाका तूं.'

'रोकडोच म्हळ्यार केन्ना?'

'......'

मायकला कडेन जाप नासली. ऍनी परत येवपाक बेगीन तयार जायत अशें दिसनासलें.

'ऍनी येना जाल्यार हांव येतोलो.'

'तें धाडटलें तुका.'

मायकल परत वग्गी जालो. टॅक्सी घेवन रूमा भायर उबी जाली. मायकलान आनी ड्रायव्हरान बॅगा डिकींत घातली. ऍनी बेबीक घेवन भायर आयलें. एलिजा चडूच अस्वस्थ जालें.

'बायेक जाप करना, मायकल.'

'भायर आपय मुगो तेका.'

'आपयल्यार येयना. रुमांत फुगून बसलां.'

'बोरें. येताय आमी. बायेक सांबाळ.'

'फोन कोर हां मायकल.'

'पोयशे धाडटलो हांव. कांय भी नाका तूं.'

एलिजा मायकलाच्या वेगेंत रिगलें. मोगाची कसलीच ओलसाण नाशिल्ली सुकी वेंग. एलिजाक कुशीक काडून मायकल टॅक्सी वटेन घुंवलो. इतल्यान मिशा भितल्ल्यान भायर रडत धांवत येता तें एलिजान पळयलें.

'मायकल राव. बाय येता.'

'डाडा राव. डाडा. वचनाका.'

मिशा रडत मायकला म्हाऱ्यांत आयलें.

'डाडा, तीं हिप्पी वोंचू. तूं राव. म्हजो डाडा म्हाका जाय.'

'रोडनाका हां. हांव रोकडोच येतलो.'

'डार्लींग व्ही आर गॅटींग लेट.' ऍनीन रागानूच सांगलें.

'एलिजा बायेक धर. येता हांव.'

मिशान धरिल्लो हात सोडोवन मायकल टॅक्सींत बसलो. एलिजान मिशाक घट्ट धरलें. टॅक्सी सुरू जाली. मिशा एलिजा कडलें सुटून टॅक्सी फाटल्यानी धांवपाक लागलें.

'डाडा राव. डाडा राव. वच नाका.'

टॅक्सी नदरे आड जाली तरीय मिशा धांवत आशिल्लें. आनी ताचे फाटल्यान एलिजाय धांवतालें...

संपर्क: 7066604645





# वाडदीस

वामन गो. टक्केकार

"ए, तुमचें घर सामकें वेळेर पडटा गो?' मापा प्रमाण पोलक्याचो गळो कापीत मनिशान विचारलें.

"सामकें वेळेर. पावसाच्या दिसांनी वेळे वयल्या ओसाडीचें उदक आमच्या घराच्या सामकें बगलेक पावता म्हणल्यार जाता" प्रेरणान मातशें चड रंगोवन सांगलें.

"आवयस्, खरेंच काय किदें? आमी कुळागरानी रावपी मनश्यां. आमकां वेळेचीं खूब अपुरबाय. तशें कोलवा, मिरामार बी पावलां गो हांव. पूण तुमचे ते वटेन पावूंक ना केन्ना. एक दीस येवपाक जाय म्हाका. तूं तरी आपयता आमकां?" मनिशान बळयां खंत उगतायली.

"तशी वेळूंच येवंक ना न्ही गो? बरें वेळ-बीळ मागीर पळोवया आतांच सांग, केन्ना येता तूं आमगेर?" सोमतेंच प्रेरणान विचारलें. मनिशान हांसत ताच्या कडल्या पोल्याक हात लायलो.

"देव बरें करूं. येंवया मगों एक दीस. पूण त्यान पयलीं तुवें आमगेर येवपाक जाय" - मनिशान अट घातली.

तूं पयलीं, हांव पयलीं करीत प्रेरणान पयलीं मनिशागेर वचप आनी मागीर मनिशान प्रेरणागेर वचप अशें तांचे भितर थारलें. ते प्रमाण आपल्या वाडदिसाच्या निमतान मनिशान प्रेरणाक आपोवणें दिलें.

"वाडदीस म्हळ्यार फकत नांवांचो वाडदीस गो. तशें कोणाक आपोवप जांव केक कापप असलें कांय नासता आमचें. आमच्या कोतान वाडदीस म्हळ्यार आमची जल्म जाल्ली तारीख इतलेंच. तूं केळवण बी हाडशी म्हणून म्हणटां. म्हज्या वाडदिसाचें फकत तुकां एकट्याकूच आपोवणें आनीक कोणाक ना. तूं वूंय कोणाक म्हणपाक वचूं नाका." मनिशान प्रेरणाक शिटकायतालें तें प्रज्ञान आयकलें.

"किदें सांगू नाका म्हणटा गो?" प्रज्ञान ल्हवूच प्रेरणाक विचारलें.

"खंय किदें? कांय ना. तुवें ती साडयेक फॉल लायली?" मनिशान बेगीबेगीन पान परतिलें.

"ना. म्हाका मॅचिंग फॉलूंच मेळना. ही लायल्यार जाता?" आपणेन हाडिल्ली फॉल आनी साडी दाखयत प्रज्ञान विचारलें.

"लाय मगो, फॉल साडये वांगडा पोलक्या बशेन ज्यूस्त मॅच जावपाक जाय अशें ना गो बाये" बेजार जावन मनिशान सांगिना फुडें आंबट तोंड करीत प्रज्ञा फॉल लावपाक साडी घेवन भितरले कुडींत गेलें.

"कान बरे आसतात हांचे. दिल्ल्या कामा परस हेर गजालिनी लक्ष चड हांचो. सादी फॉल लावपाक मगो कितलो वेळ काडलो हाणें. हीं वेळ काडटात आनी गिरायकां कडल्यान म्हाका उलोवणी खावची पडटात."-

मनिशा फुतफुतलें. प्रेरणान मात तोंडार हांसो खेळयत वोग्गी रावप पसंत केलें.

मनिशा शारांत शिवण क्लास चलयतालें. कांय गरीब चलयांक फुकटूंय शिकयतालें. ते देखून खूब भुरगीं ताच्या फुडयांत शिकपाक येतालीं. ताचो घोव भायर आसतालो आनी ते आपल्या जांट्या मांय-मावां वांगडा कुळागरांतल्या तांच्या व्हडल्या घरांत रावतालें. शिकपाक येवपी कांय चलयां कडेन ताची इश्टागत जाताली आनी मागीर तें तांकां आपल्यागेर आपयतालें जांव आपूण तांगेर वतालें. मनिशाची आनी प्रेरणाची इश्टागत अशीच पयली सांवन बेस बरी जुळ्ळी. कारण प्रेरणाकूय शिवणकामाची खूब आवड आशिल्ली.

मनिशाचो वाडदीस ज्यूस्त शेनवारा आयिल्लो. ताच्या उतराक मान दिवन रातचें तांगेर रावपाच्या तयारेनूच प्रेरणा क्लासीक आयलें.

आपलें घर कुळागरांत पडटा अशें सांगिल्ल्यान प्रेरणाच्या मनांन मनिशाच्या घरा विशीं आनी त्या वाठारा विशीं एक पारंपारीक चित्र तयार जाल्लें. कुळागर म्हळ्यार रस्त्या वयल्यान बरेंच भितर आसतलें असो ताचो समज आशिल्लो. घडये बशिंतल्यान देंवल्या उपरांत थोडें भोव चलून वच्चें पडत अशेंय ताका दिशिल्लें. पूण मनिशाचें घर गांवांतल्या मुखेल रस्त्याचे कुशिकूच आशिल्ल्यान प्रेरणाच्या जिवांत जीव आयलो.

घरा कडेन पावना फुडें मनिशान प्रेरणाची आपल्या मांय-मावां कडेन वळख करून दिली. आनी आंगणातल्यांनूच सुरू जावपी सोपणां चडून तीं वयर माळयेर गेलीं. माळयेर मनिशाची खासा कूड आशिल्ली. थंयच्यान आख्या कुळागराचो मन भुलावणो देखावो

दिश्टी पडटालो.

दोनशें अडेचशें माडयां वांगडा पंचवीस तीस माड एकामेकाच्या खांद्याक खांद लावन उबें आशिल्ले दिश्टी पडटाले. तांचें आंगार वेटाळो घेयंत चडिल्ल्यो पानेली पाचव्याचार कुळागराच्या सोबितकायेंत आनिकूय भर घालताल्यो. ते भायर आंब्या-पणसाचे जायते रूख कुळागराची गिरेस्तकाय वाडयताले. कुळागरांत मदींच दोन पाख्यांचें एक घर आशिल्लें - "ओऽ तें आमचे लॉज. पाडो जालो म्हणटकूच तातूंत नाल्ल भरून दवरतात आम्मी. आंब्यांच्या दिसांनी आंबे आनी पणसाच्या सिझनांत पणसांचो सामको घमघमाट आसता तातूंत ते भायर बेडे आनी केळ्यांचे घड तर तिनशें पांसस्ट दीस थंय दिश्टी पडले तुकां. हीं सगळीं कामां करपाक एक विस्वासू मानाय दवरलां आमी" मनिशान अभिमानान सांगलें.

"हेर घरां बरींच पयस आसात न्ही? अेऽ रातचो भंय दिसना गो तुमकां?" प्रेरणान दुबाव उगतायलो.

"च्ये, भंय कसलो? सवंय जाल्या आमकां. आनी गांवांनी तसो भंय सो नासता गो. पूण आमचें एकोडेंच घर जाल्ल्यान बेजार येतालो. होवूंय ना न्ही गो घरा कडेन म्हणून चड. पूण आतां शिवणक्लास सुरू केल्या उपरांत तुज्या सारख्यो इश्टिणी मेळपाक लागल्यात. देखून खूब बरें चल्लां." मुठी आवळून दोनूय हात वयर करीत मनिशान आळस दिली आनी उमेदीन एकदम प्रेरणाक वेंग मारली.

"एऽ हें किदें? अकस्मात रोमांटीक जालें मगो तूं. घोवाचो उगडास आयलो काय किदें?" - मनिशाच्या पोटाक चिमटो काडीत प्रेरणान फोकांडा केलीं.

"आवयस, उलोवपाक कमी ना तूं आं. घोवाचो उगडास आयलो जाल्यार अशें जाता हें कशें कळ्ळें तुकां? बॉयफ्रेंड बी आसा काय किदें तुजो?" - एक, दोळो बारीक करीत मनिशान विचारलें.

"ना गो बाये. घरचीं म्हाका न्हवरो सोदपाचेच वावराक लागल्यांत. आनी लग्न जाले ना म्हूण किदें जालें? माटवा पोनच्यांनूय वचूंक ना?..."

"आगो मनिशा, तुमीं फकत खोबरोच मारीत रावतली कांय किदें? च्या बी घेया मगो पयलीं" - मनिशाच्या मांयन उलो करिना फुडें तीं दोगांय सकल आयली आनी च्या बी घेवन परत माळयेर गेलीं.

"तुज्या वाडदिसाची तयारी खंय दिसली ना म्हाका" - हे वटेन ते वटेन पळयत प्रेरणान विचारलें.

"वाडदीस तसलोच गो तो. पूण वाडदिसाची सागवाद म्हूण जे जे म्हज्या मांयन शागोती केल्या तुजे खातीर. वांगडा म्हजे कडल्यान तेंऽ आसा. हुनहुनीत फोरेनचें" - ल्हव आवाजांत मनिशा प्रेरणाच्या कानांत फुतफुतलें.

"शीऽ नाका गो बाये. हात लेगीत लावंक ना हांवें केन्ना. तूं घेता दिसता" - प्रेरणान अदमास घेवपाचो यत्न केलो

"केन्नाय गो... हो आसता तेन्ना... इल्लीशी वायन... बायलाचेंच ड्रिंक खंय तें" - उलयत मनिशान दोन ग्लास काडले आनी तातूंत वायन वोतोवन ते अर्दे अर्दे भरले. प्रेरणा हें सगळें अज्यापान पळयतालें. आपणाक असलें कांय नाकां आं म्हणपाक ताणें तोंड उगडलें पासून पूण उतरां मात भायर सरलीं ना.

"आमकां जेवण वयरूंच घेवंन येवया यो" - वायन वोतयल्ले ग्लास मातशे कडेक दवरून प्रेरणाचे हाताक धरून वोडीत मनिशान ताका सकयल व्हेलें आनी चिकन शागोती, शीत, उंडे, भाजी वेगळ्या वेगळ्या तोपांनी घालून तीं ते तोप घेवन माळयेर आयलीं. उदक आनी जेवणाच्यो प्लेटी माळयेरूंच आशिल्ल्यो

नाकां नाकां करीत प्रेरणान पयलो घोंट मारलो. वासाक लागून तो घोंट भायर उडोवचो अशें दिसलें ताका. पूण ज्यूस्त मनिशान ताचें नाक धरलें. आनी वायंन आपशींच पोटांत देंवली. एक हुनहुनींत इंगळो गिळिल्ले बशेन प्रेरणाक दिसलें. आपल्या नाका तोंडांतल्यान हून वारें भायर सरता असोय ताका भास जालो. मनिशान मात वांगडाच दोन घोंट घोंटले. खीणभर कुडींत शांतताय पातळ्ळी. दोगांय एकामेकांक पळयत रावलीं. आनी मागीर मनिशान हांसत प्रेरणाक वेंग मारली.

ग्लासांत पयलीं वोतयल्ली सगळी वांयन सोंपोवंन मनिशान तितलीच आनीक वोंतोवंन घेतली. प्रेरणा मात तोंड वाकडें करीत ल्हान ल्हान घोंट मारतालें.

"सोंपय मगो ती" मनिशान ताकतीक केली.

"सोंपयतां. पूण आनीक मात घेवंचे ना आं" प्रेरणान निश्चेवान सांगलें.

"बरें बाये. फोर्स करिना ड्रिंका कडेन फोर्स करपाक जायना अशें म्हणटात. पूण वोतयल्या ती तरी सोंपयता न्ही?" मनिशान याद करून दिली.

"पळयता मगो सोंपता जाल्यार" - प्रेरणान हांसत सांगलें. वायनीन सावकास आपलो प्रताप दाखोवपाक सुरवात केली.

"तूं कपडे बदलता मगो?" मनिशान विचारलें.

"गरज ना गो. फाल्यां घालपाक दुसरे कपडे हाडल्यात हांवें" आंगा वयले कपडे सारखे करीत प्रेरणान सांगले.

"ते तूं फाल्यां घालूच. पूण आतां घरांत मातशे सदळ शे कपडे घातल्यार बरे अशें म्हाका दिसता" उलयतां उलयतां मनिशा उठलें आनी आलमार उगती करून दोन मेक्सी भायर काडल्यो. तातूंतली एक आपणाक दवरून दुसरी प्रेरणाक दिली आनी थंयच साडी सोडून मेक्सी घालपाक सुरवात केली. प्रेरणा मात आपली मॅक्सी घेवन न्हाणी घरांत गेलें.

प्रेरणाचे ग्लासांतली सगळी वांयन सोंपल्या उपरांत दोगांयनी हांसत खोबरो मारीत जेवपाक सुरवात केली.

"एऽ तुकां कितलीं वर्सां गो?" - मनिशान अकस्मात शें विचारलें.

"चोवीस" - प्रेरणान एकाच उतरान जाप दिली.

"खरें सांग, तुकां आजून मेरेन खंयच्याच दादल्यान हात लावंक ना?" - प्रेरणाच्या जांगडार हात दवरीत मनिशान विचारलें.

सट् करून प्रेरणान मनिशाचें तोंड पळयलें. तें शागोतेंतलें एक हाड चोखतालें. मनिशान आपल्या जांगडार दवरिल्लो हात खूब कितें तरी सांगता अशें प्रेरणाक दिसलें. कांयच उलय नासतना 'ना' म्हूण ताणें तकली हालयली.

पूण मनिशान आपणाक अशें कित्याक विचारलें तेंच प्रेरणाक कळना जालें.

"आमी मगो अमकें म्हळ्यार पाप तमकें म्हळ्यार पुण्य असल्या अर्थ नाशिल्ल्या गजालिनी गुस्पून उरतां. घडये भुरग्यांपणांत आमचेर जाल्ल्या संस्कारां खातीर बी जावये पूण पाप पुण्य ह्यो गजाली फकत बायलांकूच कित्याक लागू पडटात हो प्रस्न म्हाका सतायता आनी मन बंड करून उठ्ठा. खरें म्हळ्यार जायत्या चूक दिसपी गजालींनी पासून सूख दडिल्लें आसता. फकत आपणाक ताचो उपभोग घेवपाक कळपाक जाय" - मनिशा उलयतालें. ड्रींक चड जाल्ल्यान तें तशें उलयता काय खऱ्यानीच तें कितें तरी सांगपाचो यत्न करता तेंच प्रेरणाक कळ नाशिल्लें. प्रेरणा कडल्यान कांयच प्रतिसाद न मेळिल्ल्यान मनिशान आपलो शेरमांव तितल्यारूच सोंपयलो.

जेवण जाल्या उपरांत वापरिल्ल्या आयदाणांनी इल्लें इल्लें उदक वोतोवन तांणी तीं न्हाणी घरांत दवरलीं.

न्हिदच्या पयलीं मनिशान आलमारीतल्यान सेंटाची एक बाटली काडली आनी प्रेरणाचो एक एक हात उबारून ताच्या खाकेंत फवारो मारलो.

"आगो न्हिदतना हे आनी किदें चल्लां तुजें?"- प्रेरणान अजापान विचारलें.

"वास दाखयतां मगो. आवडलो काय ना तें सांग" मनिशान आपल्या दोळ्यांची उगड-धांप करीत विचारलें.

"खाकेंत सेंट मारून वास कळटा खंय कोणाक? वास कळपाक हाताच्या मनगटाचेर फवारो मारूंक जाय" प्रेरणान सुचयलें.

"बरें बाये घे" मनिशान प्रेरणाचो हात धरून ताच्या मनगटाचेर फवारो मारलो.

"खऱ्यानीच बरो मंद वास तुज्या सेंटाचो आवडलो म्हाका" प्रेरणान पसंती दाखयली.

"म्हज्या घोवाकूय खूब आवडटालो हो वास. तो आतां हांगा आशिल्लो जाल्यार म्हज्या बदला तुकांच वेंग मारतलो आशिल्लो" प्रेरणाच्या पोल्याक चिमटो काडीत मनिशा हांसलें. तें तशें कित्याक उलयलें, प्रेरणाक कळ्ळें ना.

"न्हिदुया मगो आतां? बरीच रात जालीं. तुजी वायन इल्लो इल्लो प्रताप दाखोवंक लागल्या" - प्रेरणान सुचयना फुडें मनिशान आपल्या पलंगाचेर ताची न्हिदपाची वेवस्था करून आपूण दुसऱ्या एका खाटीर आड पडलें.

"हांव दुसऱ्या खाटीर न्हिदल्यार जाता मगो?" - मनिशान फोकांडा करीत विचारलें.

"बरे बशेन. म्हाका एकोडें न्हिदपाची संवय आसा. तुजेंच पळय तूं" - लजेन प्रेरणान फोकाणां केली आनी दोगांय हांसलीं.

वायन घेतिल्ल्यान प्रेरणाचो रोकडोच दोळो लागलो.

बऱ्या रातीं आंगार कितें तरी जडशें दवरलां असो भास जावन प्रेरणाची न्हिद भंगली. खऱ्यानीच कोण तरी दादलो आपल्याचेर न्हिदलां हाची ताका जाण जाली. ताणे प्रेरणाचे सगळ्या आंगार हात भोवणांयत ताचें ओंठ आपल्या ओठांनी बंद केल्ले. तो आपले आंग प्रेरणाच्या आंगाक घांसतालो. हाचोच अर्थ आपल्या लजेर कोणे तरी हात घातलां हें ताका तेच खिणाक कळून चुकलें. प्रेरणान सगळी शक्त एकठांय करून ताका धुकलून उडोवपाचो यत्न केलो. पूण त्या दादल्यान आपल्या हातांनी प्रेरणाचे हात घट्ट धरिल्ल्यान तें थंयच्या थंयच तडफडपाक लागलें. शेजारचे खाटीर न्हिदिल्लें मनिशा जागे जावन आपल्याक मदत कित्याक करिना? असो ताका प्रस्न पडलो. तें आपल्या खाटीर आसा काय हें पळोवपाक पासून प्रेरणाक जमनाशिल्लें. ताणें दोळे घुंवडांवन सर भोंवतणी पळोवपाचो यत्न केलो. पूण कुडींत सामको काळोख आशिल्ल्यान ताकां कांयच दीसनाशिल्लें. इतलेंच न्हय तर कुडींत आनिकूय कोण तरी आसा असो ताका दुबाव मारपाक लागलो. बरोच वगत विरोध करून तें घाळ पडलें. आपणाक चक्कर येता अशें ताका दिसपाक लागलें. आनी झेम, वांयन आनी बळजबरी ह्या सगळ्यांचो एकठांय परिणाम जावन खऱ्यानीच तें शुद्धी भायर गेलें...

सकाळीं शाबुद्दीर आयलें तेन्ना स वरां जाल्लीं. ताणें घातिल्ली मॅक्सी कश्या कशी चुरगळून ताच्या हड्ड्या वयर पाविल्ली. ताचे कांय कपडे पिंजिल्लें. मनिशा सुस्त न्हिदून घोरेताले. ताचीय मॅक्सी अस्तावेस्त जांवन ताची जांगडां उगती पडिल्लीं.

पिंदिल्लें कपडे सारखे करीत प्रेरणान कानांतलीं रिंगां, गळ्यांतली सरपळी, हातांतली कांकणां सासपून पळयलीं. सगळीं भांगरां शाबूत आशिल्ली. हाचोच अर्थ आपल्याचेर जाल्लो अत्याचार फकत वासना भागोवपा खातीर केल्लो हाची ताका खात्री जाली. तें उठलें आनी न्हाणी घरांत वचून शॉवरा पोनाक उबें रावलें. कितें करचें तेंच ताका कळनाशिल्लें. न्हातना मात ल्हव जाय सर तें रडलें. आनी मागीर मॅक्सेनूच आंग पुसून न्हाणी घरांतल्यान ते भायर आयलें. मनिशा आळस दीत उठ्न केंस बांदतालें. ताच्या तोंडार राती ताच्या कुडींत घडिल्ल्या घडणुकेचो इल्लोय परिणाम दीसनाशिल्लो. तें नाटक करता काय खऱ्यानीच ताका कांयच खबर ना हाचो अदमास प्रेरणाक मेळ नाशिल्लो.

"आगो सकाळी सकाळींच शें न्हालें? तेंवूय माथ्या वयल्यान" -

प्रेरणाच्या भुजांक धरून हालयत मनिशान विचारलें. जापेच्या बदला प्रेरणाच्या दोळ्यांतल्यान फकत दुकां व्हांवपाक लागलीं.

"आगो किदें जालां? रडटा कित्याक?" - हुस्को करीत मनिशान परत विचारलें.

"म्हळ्यार तुका कांयच खबर ना?" - मनिशाच्या दोळ्यांत पळयत प्रेरणान विचारलें. ताच्या आवाजांत तिडक आशिल्ली.

"सांगलें जाल्यारूच कळटलें न्ही?"

"राती... राती म्हजेर कोणें तरी बलात्कार केलो" - तोंड लिपयत प्रेरणा रडपाक लागलें.

"शक्यूच ना. हांव इतल्या बगलेक आसा म्हळ्यार म्हाका कळपाक नाकां आशिल्लें? हें पळय तुजो किदें तरी गैरसमज जालां सो दिसता. तुकां सपन बी पडूंक ना मगो?" - मनिशान सामकें बाबडेंपणान विचारलें.

"किदें उलयता गो तूं? सपन आनी दिश्टावो हातूंतलो फरक कळना म्हाका? काय तूं वूंय सामील आसा हातूंत?" - बेजार जावन प्रेरणा तिडकलें.

"म्हाका तशें म्हणपाचें नाशिल्लें गो. पूण

तूं सांगता ताचेर विस्वास दवरप कठीण जालां म्हाका. कारण हांवूंय हेच कुडींत तुज्या म्हऱ्यांतल्या खाटीरूच न्हिदिल्लें.... हें पळय खऱ्यानीच किदें घडलें हाची वासपूस करुया आमी. तूं मातशें वोगी राव प्लीज'' -विनवणी करीत मनिशान हात जोडले. मनांत नासुनय प्रेरणाक वोग्गी रावचें पडलें.

''च्या तयार आसा गो...'' मनिशाच्या मांयन उलो केलो.

''बरें बरें. रोकडींच येता आमी.'' - मनिशान बेगीन बेगीन जाप दिली. कारण ती वयर येवन प्रेरणाचो अवतार बी पळयत जाल्यार विशय खंयच्या खंय पावूंक शकता हाचो ताका भंय दिसलो.

मनिशाचे मांयन च्याये वांगडा पोळे आनी जित्या मिरसांगांची चटणी केल्ली. पूण प्रेरणाक कित्यानूच उमेद नाशिल्ली. ताणें मना वयलें चेपण ल्हव करपाक पेलो भर च्या मात घोंटली. आनी परत माळयेर वचून कपडे बदललें.

''हांव चल्लें'' - प्रेरणान निश्चेवान सांगलें.

''वच तूं. पूण म्हजेर रागार जांव नाका. आगो खऱ्यानीच सांगतां, राती किदें घडलें कांयच नकळो हांव. तूं गैर समज करून घेंव नाका'' - मनिशा आपले परीन प्रेरणाक समजावपाचो यत्न करतालें. पूण ताचें कांयच आयक नासतना प्रेरणा तिडकीन थंयच्यान भायर सरलें आनीक क्लासीक ना वचपाचें असो ताणें निश्चेव केलो.

फुडलें कांय दीस प्रेरणान भयंकर चेपणां खाला काडले. ताची अस्वस्तकाय ताच्या आवयच्या नदरेंतल्यान सुटली ना. ती एकच प्रस्न वेगळे वेगळे तरेन विचारताली. कारण अकस्मात प्रेरणान शिवण क्लासीक वचपाचें बंद करप तिका खटकताले. पूण मनिशागेर घडिल्ली गजाल आपले आवयक सांगपाक पासून प्रेरणाक लज दिसताली. आवयच्या दरेक प्रस्नाक प्रेरणा भोव हिकमतीन जाप दितालें. आनी एकदाची पाळी आयली. आनी ताणे समादानाचो सुस्कार सोडलो. पूण घडिल्ली गजाल कोणाच्या तरी कानार घातले बगर ताका सूख लागप शक्यूच नाशिल्लें.

एक दीस बाजारांत गेल्ले कडेन विजया मेळ्ळें. विजया ताच्या वांगडा कॉलेजींत शिकतालें. पदवीधर जातकूच विजया एका दिसाळ्यांत काम करतालें. बायलांचेर जावपी अत्याचाराचेर पोट तिडकीन बरोवपी एक पत्रकार म्हूण तें नांव रूपाक आयिल्लें. सुरवातीची वासपूस जाल्या उपरांत सहज उलयतां उलयतां प्रेरणान मनिशागेर आपल्याचेर जाल्ल्या अत्याचाराची खबर ताका सांगलीं.

''किदयाक म्हूण कोण जाणां, पूण ते क्लासींत किदें तरी गडबड आसूंक शकता अशें बेठेंच म्हाका दिसतालें. पूण केन्नाय कोणांच कडल्यान कागाळ नाशिल्ल्यान हांव फुडें सरूंक नाशिल्लें. आतां तर पक्को पुरावो म्हज्या हाताक लागला. ही संद हांव वगडावपाक शकना. आमच्या शेजाराक रुपा नांवाचें एक सोबीत चेडूं आसा. सामकें धाडशी. ह्यान पयलीं जायत्यो केसी सुटावें करपाक म्हाका मदत केल्या ताणें. तुजे हे केसींत पासून ताची मदत घेवन जाता तितले बेगीन म्हाका ती उगताडार हाडपाक जाय. ना जाल्यार आनीक कितलीं चेडवां ह्या रेब्यांत फसत सांगू नज'' विजयान थंयच थारायलें.

''मातशें सांबाळून गो बाये. तुजी सणसणीत खबर म्हज्या खातीर, मांजराचो खेळ आनी हुंदराचे मरण, जावंक लागत'' प्रेरणान आपल्या मनांतलो हुस्को उलोवन दाखयलो.

''कांय भिवू नाकां गो तूं. सगळें सारखे जातलें पूण इतलें खरें, कांय गजाली सिद्ध करपाक तुका, जांव ह्यान पयलीं कोणाचेरूय अन्याय जाल्लो आसत जाल्यार तातूंतल्या कोणे तरी मुखार येवचेंच पडटलें. तुमचीं नांवां जाहीर जावची ना हाची जापसालदारकी म्हजी'' - विजयान प्रेरणाक धीर दिलो.

वेवस्थीत मांडणी करून विजयान रुपाक मनिशाच्या शिवण क्लासींत प्रवेश घेवपाक लायलो. पळोवपाक आनी उलोवपाक सामकें सडसडीत आशिल्ल्यान रुपाची आनी मनिशाची इश्टागत रोकडीच जुळ्ळी. जित्याची संवय मेले बगर वचना म्हणटात तशें मनिशान रुपाक फुलोवन आपल्यागेर आपयलेंच. कारण आशिल्लें सदचें बशेन मनिशालो वाडदीस. रोकडीच रुपान ही गजाल विजयाक कळयली. एका वर्सांत कितले फावट वाडदीस मनयतलें कांय हें मनिशा? - चिंतून विजयाक हांसो आयलो.

आपल्या क्लासींत येवपी सोबीत चेडवांक भुलोवन आपल्या जाळांत वोडपाची मनिशाची एक थारावीक पद्दत आशिल्ली. जशें ताणें उतरांनी फुसलावन प्रेरणाक आपल्यागेर व्हेल्लें तशेंच रुपांकूय ताणें आमंत्रण दिल्ले. प्रत्येक फावट एकट्याकूच ते आपल्यागेर आपयतालें. देखून तांचेर जाल्ल्या अत्याचाराचो बोवाळ जायनाशिल्लो.

मनिशागेर रातच्या जेवणाक शागोतिचोच बेत आशिल्लो. प्रेरणा बशेन रुपांकूय जेवणा पयलीं वायन पिवपाक दिली. पूण रुपा शादूर आशिल्लें आनी सगळ्या घडणुकांचो पयलींच अदमास आशिल्ल्यान विजयान पुलिसांची मदत घेतिल्ली.

ज्यूस्त रातच्या देडाक सुमार दोग जाण भायलीं सोपणां चडून वयर गेले. रुपा न्हिदलां हाचो अदमास घेवन मनिशान पयलींच दाराची खिळी काडून दवरिल्ली. हाचो फायदो घेवन पुलिसांनी पयलीं मनिशाक अटक केली. हाची कांयच खबर नाशिल्ल्यान सदचे बशेन थारिल्ल्या वेळार ते भितर सरले आनी आपल्या आंगा वयले कपडे काडून एकटो रुपाचे खाटी वटेन आनी दुसरो मनिशाच्या खाटी वटेन फुडे सरलो. आनी आयतेच पुलिसांच्या हातांत सापडले. पोलीस स्टेशनार हाडून चवकशी केल्या उपरांत फाटल्यो सगळ्यो काणयो तांणीं किरा बशेन सडसडीत सांगल्यो.

मनिशा शिवण क्लासीच्या नांवांन सोबीत चलयांक फुसलावन कांय थारावीक पयशेकार लोकांच्या भकीक घालतालें आनी तांच्या कडल्यान भरपूर मोबदलो उठयतालें. जायते फावट तें स्वता शिंदळकीच्या ह्या रेब्यांत वांटेकार जातालें, अशींय खबर भायर आयली.

दिसाळ्यांनी छापून आयिल्ली खबर वाचून आनीक तीन चेडवां मनिशा आड कागाळ दिवपाक फुडें आयलीं आनी पुलीस गुन्यावकारां आड आरोप पत्र तयार करपाच्या तयारेंक लागलें.



(पान ६ वयल्यान)

तूं वाटेरच मेळ्ळो. नाजाल्यार तुज्या घरा येवचें पडटासलें.''

काचाबूल जावन हांवें विचारलें, ''कितें जालें?''

शाबान म्हज्या भुजार हात दवरून म्हळें, ''सरपंचा कडेन तेंच उलोवंक गेल्लों हांव. तूं आसा मरे सांजे?''

''खंय?''

''आमदारालो बर्थडे न्हय रे आयज? पार्टी आसा.''

''मागीर हांव कितें करूं?''

''आरे, तुका आफयला ताणें.'' फाटीर थाप मारून शाबान सांगलें.

''काम कसलें?'' हांवें सुगूरवाणीन विचारलें.

''काम? आरे, पार्टेक आफयला तुका. जेवपाक. म्हाका सांगलां आमदारान, तुका आफय म्हूण.

याद आसा तर आमदाराक म्हजी! पोसो भर मास चडलें आंगार. ''पार्टी खंय? आमदारागेर?''

''ह्ये. वाळपय हॉतेलांत.वॅली रिसॉर्टांत. भायल्यान तरी पळयलां तुवेन? आयज पळय सारकें. पार्टी वयर तेर्रासार. साडेसातांक पाव म्हटलां.''

''मुख्यमंत्री बी येतलो?''

''तो दिल्लीक आसा. पूण हेर सगले येतले. तूंऽऽ- अशें कर. म्हजे बरोबरच यो. वांगडाच परतुंया मागीर आमी.''

मंत्र्याले पार्टेची याद जाली. हो हरशीं आमदार! पूण तागेली पार्टी जाल्ली माटवांत आनी हागेली हॉटेलांत!

मज्जा आयली. भाशणां बी जालींच नात. शाबा होंवळो कसा नाचतालो साल भर. म्हाका जाय नाका पळयतालो. मदींच आमदारा कडेन म्हजी वळख करून दिली, 'सर, हो बाबगो.''

''तूं आनी वळख सो करून दिता! हांव वळखना तर तेका?''

बरें जालें वळख घट जाली. ताका मागीर सांगूंक जाय- केन्नाय दिल्लीक वतलो तेन्ना प्रधानमंत्र्यांक मातसो विचार म्हूण- त्य विदेशांतल्या काळ्या पयशांचें काम केन्ना शें जातलें काय म्हूण.

णवांक सुमार शाबाक एक फोन आयलो. ''कितें जालें? अशें? वायट जालें. पूण म्हाका दुबावच आसलो. तें आसूं. आतां कोण आसा थंय?''

म्हाका कांय कळ्ळें ना. शाबा सोमतोच आमदारा सरीं गेलो. ताच्या कानांत सांगलें. आमदारान रोखडोच पोलिसांक फोन केलो. ''फोर्स घेवन वचात. चड टेन्शन जावपाक दिवं नाकात. तो जितो आसा काय मेलो तें पळयात. बेगीन हॉस्पिटलांत व्हरात. म्हाका वेळावेळार रिपोर्ट करात.''

आसतलें कसलेंय केस्तांव वा गडबड. विचारचें मनांत आयिल्लें. पूण म्हळें, म्हाका कित्याक पडलां! पार्टेचो बेरंग जावंक फावना. ते राती हांवें दोनच बिअरी मारिल्ल्यो. पूण शाबालो आगरो मोडूं नज जाल्ल्यान तिसरी मारची पडली. जेवचे पयलींच पोट भरलें.

शाबा वांगडा तागेले मोटारीन परतताना शाबा सांगतालो तांतले अर्दे कानांत आनी अर्दे वाऱ्यार पडटालें. मुसलमान घनीन गाय मारपाची तयारी केल्ली... ज्युस्त वेळार थंय गोरक्षक पावले... घनीक येतिश्ट मारलो तांणी... आतां पोलीस येतले... पंचनामो... हांव... तूं... शेजारी ताचे... सारकें सांगपाचें... हांव पार्टेक आसलों... तूं गवाय... घनीन गायेक...

घरा कडेन देंवयतना शाबान म्हज्या हातांत पांयशांच्यो दोन नोटी चेपल्यो. 'हे आमदारान दिल्यात तुका. तूं पार्टेक आयलो देखून... आनी गरज पडत तेन्ना पुलिसेंत वच्चें पडल्यार खर्चाक दवर... समजलो?'

म्हाका सगलें सारकें समजलें. कितें जालें म्हाका कांयच खबर ना. घनीन गायेक बरी करपाक व्हेल्ली जाल्यार हांव नकळो... घनी... शाबा... म्हाका दोगूय सारके... खरें सांगतां, हांव कोणाचेच मिजगतीक ना. म्हाका कित्याक पडलां!

संपर्क: 09422059509



---

(पान २६ वयल्यान)

गाड्यो न्हेसयताले.

तशें पोरूच्याय दसऱ्याक ट्रक बंद आसले. पूण ताणें सादारणशी पुजा केल्ली. अंदू मात हातार किदेंय पडपाची शक्यताय नाशिल्ल्यान मानायांनी, ड्रायव्हरांनी तोंड दाखोवं नासलें. पोन्ने टायर, ट्यूब, मोडलेल्यो पट्ट्यो, डिस्कां, जॅक, ग्रीझींग मशिनां, ऑयलीचे डबे, डिझलाचो बॅरल हांगा थंय पडल्यात... एकवेळ स्क्रॅप म्हणून कोणूय ते विकते घेत... पूण हया ट्रकांक मात गिरायक ना.

राजारामान मनांत थरयलें. आनीक आनी गाडयो धुवप ना. रातीं मात्सो पावस पडला तो पुरो. रोझांच्या माळीचीय अपुरबाय नाका. आतां सगळे ट्रक एक एक करून स्टार्ट मारपाचे, लीफ्ट देवोवपाचें, ट्रकांक गंधाचें बोट लावपाचें. एक एक रोझ पिंजरींत बुडोवन बोनेटाचेर वडोवपाचें... जालो दसरो.

चावी लावन राजारामान ट्रक चालू करपाचो यत्न केलो... पूण खीण भरूच कुंय कुंय करून तो बंद पडलो. राजारामाक तिडक मारली... चवथी आदीं तर हे स्टार्ट करून दवरल्यात... म्हयन्या भितर बॅटरी कशी डावन जातली... काय म्हजें नशीब चारूय वटेन म्हाका सतोवपाक लागलां.?

तो सकयल देंवलो, बोनेट उगडून बंपराचेर उबो रावलो, बॅटरेंची क्लॅपां सदळ केलीं, टर्मीनलांतल्यान पोजीटीव्ह नेगेटीव्ह वायरी काडून चार्ज आसा जाल्यार पळोवपाक एकामेकांक तेंकयल्यो. खीण भर मात्सो स्पार्क सो जालो. तो स्पार्क पळयतनाच राजारामाक पंचमुखी नारंगांची मजा पळोवपाक आयिल्ल्या पुतोणयाची याद जाली. निर्शेवन ताणें थंयच बसकणशी मारली. ताका आपूणच एक नारींग जालांशें दिसलें...

पांचूय वटेन रसरसून पेटून खिणा भरयांत गोबोर जाल्लें.

संपर्क: 9423058318



*(पान १८ वयल्यान)*

नाका आशिल्लें. गांवांत गांवठी वखदां दिवपी तीच आसली आनी लोक सटर फटर दुयेंसाक लागून तिचे कडेन धांवताले. आनी म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार ह्या गांवांक तेंकून पुलीस स्टेशन नाशिल्लें. सट करून पुलीसांक फोन करून आपोवपाक लागसराक खंय पुलीसय नात.

आनीक बऱ्याच तेंपान ही निकतीच घडिल्ली गजाल. शाळेंत शिकतल्या मास्तराली चली. आठ वर्सांचें. रातीं शेतांत सांपडलें. तें शेतांत कशें पावलें कोणाक खबर ना. तिनसांजची गजाल. गांवांत शिगम्याचे मेळ. पसऱ्यार म्हण धाडिल्लें आवयन तेल हाडपाक. तें पसऱ्यार पावचे पयलींच घडिल्ली गजाल. पसरो हरशीं सामको लागीं, चार पावलां कडेन. ताका जाणवलें आपल्या फाटल्यान कोण तरी चलत येता. तें धांवलें, होवूय नेटान ताची फाट धरपाक धांवलो आनी चलयेन भियेवन शेतांत उडकी मारली. हाणे ताचेर झोंपय घाली. तें व्हडल्यान किळांचलें, पूण हाणें ताका घट्ट आंवुळ्ळें. घुस्मटून ताचो स्वास मंद जावपाक लागलो. ते बराबर हो भिलो आनी ताका थंयच सांडून तो धांव मारून घरा पावलो आनी आपणाली तकली फोडटा अशें आवयक सांगून कामरूण घेवन गुटली करून न्हिदलो. मास्तरान आनी बायलेन दिवो घेवन सगळो वांठार पालथो घातलो. झिर्लीनी झोपांनी सगळ्याक सोदलें आनी निमाणें शेताचे मेरे वयल्यान सादयत वतना तांकां सुस्कार सोडटा ताचो आवाज आयलो. तें भियेल्ले अवतिकायेंत पडिल्लें. आवयन ताका घट्ट वेंगेंत घेतलें. तीं ताका घेवन घरा आयलीं. तें सावचित जालें. तो ताका कांयच करपाक पावलो ना. वयल्यान शिगम्याचो मेळ येतालो.

सकाळीं तिठ्यार ही गजाल ब्रेकींग न्यूज जावन च्याचे बरोबर सगळ्यांनी गिळ्ळी. जालें. थोडीशी तरतरी आयली आनी मोटव्या कालसांवाच्या बोल्सांत हात घालून ही ही ही करून सगळे फाघसले. आपल्या गांवांत चलयांचेर आगळीक जाता. कोण करता ताका जाब विचारूया हाची चिंता ह्या दादल्यांक पडून गेली ना.

सकाळच्यान गांवांत येरादारी चालू. मोटरसायकली, गाडयो येतात वतात, पुलीसांची जीपय भोंवता.

रुक्मीणीक खबर कळ्ळी. तिका खात्री जाली हें कर्म करपी संतोश सोडून दुसरो कोणूच आसचो ना. राव ह्या म्हज्या पोटांत जल्मल्ल्या नरकासूराक हांवूच काबार करतलीं. असलो दळभद्रो अवचिन्नाळ्ळो एक खीण भर लेगीत हे भुंयेर रावपाक फावना. ताका ख्यास्त हांवूच दितलीं. म्हाका आसा अधिकार ताका मारपाचो. इतल्या लोकांच्या दुयेंसांचेर पारपी वखदांचीं झाडां म्हज्या ह्या रानांत आसात जाल्यार ह्या नांवाडग्याक फोंडांत धुकलपाचें वखद म्हजे कडेन कशें आसचें ना? पोराक काब्बार करतलीं हांव. पळोवशी तूं. संतोश नांव दवरिल्लें तुका. तूं जालो विकृतीचो म्हाराकेस. तुवें घरा घरांतलो संतोस इबाडलो. तिचेर खेव आयिल्लो. पांय आपटीत ती ताचे म्हऱ्यांत गेली. मुठींतलो मिरसांगेचो पिठो तिणें ताच्या दोनूय दोळ्यांत भरलो आनी खोमसाक धरून भरभरीत मागीलदारांत व्हरून निवलकाणीचीं झाडां वाडिल्लीं तांचेर व्हरून धुकलून उडयलो. ''पड त्या कांट्यांचे भकीक. आरे ह्या निवलकाणयेन कितल्या लोकांचे घावे बरे केले रे हांवें आनी तुवें कितल्या आवयांचीं काळजां रगतबंबाळ केलीं. ना. तुज्या अपराधांक माफी ना.''

ती भायर आयली. भायर घे म्हणून लोकांचो चोमो. गांवांतले तशेच सगळ्या थरांतल्यान लोक आयिल्ले. पुलीस हातांत बेडयो घेवन हजर. रुक्मीणीन दोनय हात फुडें केले आनी म्हणलें,

''घालात म्हाका बेडयो. तो वांच्चो ना. हांव जाणां, निवलकाणयांच्या झाडांचेर ताका मोखला हांवें. तसोच ताका उबारात आनी रानांत उडयात. कोल्या सुण्यांनी खावूं दी ताका. ताच्या रगताचो एक थेंबो लेगीत ह्या गांवांत शिंपडचो ना अशी वेवस्था करात. हांगाच्या चलयांक आनी बायलांक सुखा समादानान रावूं दी.''

आनी ती तुरतुरीत चलपाक लागली. तिचे फाटल्यान चलताली ड. निरुपा, मीरेलें चली. फाटल्यान आशिल्लें सोनाली, आपल्या ल्हान भुरग्याक हांडीर धरून. मास्तर आशिल्लो चलयेक घेवन.

निरुपान म्हणलें, ''कोणाक जावचें ना असलें धाडस तुवें केलां रुक्मीणी मावशे. तुजी केस हांव लडयतलीं. सगळे गुन्याव शाबीत जाले. ताका भरपाक मेळ्ळें ना. तेच खातीर हांवें आदवोगादाची पदवी घेतल्या.''

मायक ना लावडस्पीकर ना पूण निरुपा झाडाच्या एका खोडार उबी रावली आनी सगळ्या लोकांक लेखून तिणें सांगलें. सगळ्याक पीन ड्रोप शांतताय. जनावराच्या स्वासाचो हुंकार आयकूंक येत इतली थंडसाण. आयकात म्हज्या भयणिनो आनी भावांनो.

अस्तुरेच्या जल्मा सावन ही काणी सुरू जाता. ती अशीच stereotype चलत आयल्या. कंवचेचीं कांकणा फुटल्यार तीं दसोवपाक मेळनात तशें अस्तुरेचें चारीत्र्य, देखून तें जपचें पडटा ह्या प्रभावान चलयो वाडपाक लागल्यो. आतां कंवचेचीं कांकणा गेलीं आनी ती उपमाय गेली. अस्तुरी सशक्त जाली, प्रतिकार करपाचें बळ तिका आयलें. पूण सान माणकुल्या चलयांचें कितें? ही काणी तशीच फुडें वचत आसा. तिका अंत ना अशेंच म्हणपाचें?

लोकांचे गर्देंतल्यान कितलेशेच आवाज पडसादीत जाले... ना ना ना. आमी ती काणी हांगा सोंपयतले. त्या नराधमाक आमी काबार करतले - हो गांव आमी पुनरजिवीत करतले...

संपर्क: 9764597628



# सोयरे

कृ. म. सुखठणकार



मनीस जातींत जल्माक येतकच आपशींच सोयरे तयार जातात. आनी हे भुंयेर वर्सां वतात तशीं हे सोयरे कमी जांवचे सोडून तांचो आंकडो वाडत वता. कसो म्हणून खबर ना. लग्न जाले उपरांत नवे सोयरे तयार जातात. लग्न जालें म्हण्टकच भुरगीं जातात. तीं भुरगीं लग्न जातकच तातुंतल्यान आनीक नातीं तयार जावन आनीक सोयरीं तयार जातात. सोयऱ्यांच्या आंकड्यांत भर पडपाक हीं कांय कारणां जांव येतात. पूण एक मात खरें, तुमच्या मनांत आसूं वा नासूं, ह्या सोयऱ्यां पासून हे भुंयेर आसा सर तुमची सुटका ना. सोयरो, ही भूंय सोडून गेले उपरांत लेगीत तो तुमकां सोडऽऽ ना. बारा वा तीन दिसां खातीर तरी तो तुमकां पिडटा. दिसांचो आंकडो तुमचें नातें कितलें खर आशिल्लें हाचेर निंबून आसता. सोड.

गोंय सामकें ल्हान आशिल्ल्यान हे सोयरे मेळटा थंय, नाका तेन्ना आमकां आदळत आसतात असो म्हजो (गैर)समज आशिल्लो. तो मुंबय एकदां नलूगेर गेल्लो तेन्ना पयस जालो. नलूगेर मेथकूट, भटी आमटी, कूट मारिल्लें सालाद खावन सामको बेजार आयिल्लो. ताका सांगत जाल्यार बाबडें मनाक लावन घेतलें म्हणटकच, 'अगं नलू अशीऽऽ पासय मारून येतो गं' म्हणून परमीट रुम सोदपाक हांव भायर सरलों. माहिमाक आमचे सोयरे भरल्यात. परमीट रुमांतल्यान भायर सरतना पळयलो जाल्यार हांव घरा पावचे आदीं बातमी नलू मेरेन पावतली आनी हांव गोंयां पावचे आदीं हिच्या कानार पडटली हें हांव जाणा आशिल्लों. मागीर, 'शेण खांवचें आशिल्लेंच जाल्यार हांगाच खांवचें आशिल्लें, आतां कुळारच्या लोकांक तोंड दाखोवपाक लेगीत लज. गेल्ले कडेन 'भावोजीचें पियेवप चड जालां काय कितें गो बाय' अशे थोमणे आयकुचे पडटले' हिचीं उतरां दृश्या सकट परमीट रुम सोदतना म्हज्या दोळ्यां सामकार आयलीं. मुंबय चुनाभट्टी म्हणून खंय तरी आसा हें हांव आयकून जाणा आशिल्लों. थंय मशणांत आमचो सोयरो खंय पावतलो अशें चिंतून, टॅक्सीवाल्यांक, 'चुनाभट्टी जाओ' अशी ऑर्द सोडून भितर बसलों. ताणें पयलें आंग काडलें आनी मागीर मिटर परतो केलो (मुंबय टॅक्सींक मिटर आसतात तुमचे म्हायती खातीर). आमी चुनाभट्टी पावतकच म्हाका जाय ती भट्टी थंय ना

हें म्हजें लक्षांत आयलें. 'कौनसा भी परमीट रुम दिखता है उधर खडी करो टॅक्सी'. हांवें अशें म्हणटकच ताणें फुडल्या हारश्यांतल्यान फाटल्यान पळयले. हो माहिमांतले परमीट रूम सोडून चुनाभट्टी कित्याक मरपाक आयला असो प्रस्न ताच्या मनांत उप्रासला आसतलो हें म्हज्या लक्षांत आयलें. 'उसका क्या है, माहिम में जिधर जाता है उधर हमारे सगे सोयरे हैं. इसलीए मैं परमीट रूम में घुसने के लिए आगे पिछे होता हैं. इसलीए इधर आया है, ठीक है? तुम्हारा जो भाडा है वो हम बराबर देगा, ठीक है?' ताणें हूं काय चूं केलें ना. परमीट रुमाच्या सामकार टॅक्सी उबी केली. मिटर परतो केलो आनी अठरा रुपया पंचात्तर पयशे घेतले (तेन्ना चार आणे चलताले तुमचे म्हायती खातीर, तुमी तकली नाका थंय वापरची न्हय म्हणून.) तर, हांव दार उगडून, काळखांत सांसपीत भितर सरलों. मुंबय सगल्या परमीट रुमांनी काळोख कित्याक आसता खबर ना. एकदां हांव आनी साडू परमीट रुमांत गेल्ले. हांव साडवा वांगडा बियरीक घोंट मारीत, खबरी मारीत बसलों. खबरी बऱ्यो रंगार आयल्यो. अर्द वरान 'जाऊया ना' असो दोन टेबलां सोडून आवाज आयलो. भायर सरलों तरी हांवें अर्द वर गजाली कोणा वांगडा मारल्यो ताचें तोंड दिसलें ना. सोड. तर, हांगा चुनाभट्टी परमीट रुमांत हांवें सिग्नेचर हाफ पेग ऑर्डर केल्ली ती कोणे तरी म्हज्या कॉपांत ओतली. हांव काळखांत अदमासान कॉप तोंडाक लायतां थंय आसा... ''तूं हांगा खंय रे?'' म्हजे मायभाशेंतल्यान आकाशवाणी जाली. पयलीं दिसलें म्हाका सिग्नेचेर लागली, मागीर लक्षांत आयलें हांव कॉप ओठांक लांवचोच आसा मागीर दिसलें म्हाका भास जाला. कित्याक काय म्हणल्यार हांव स्कुलांत आसतना अभ्यासाचें टेन्शन पयस करपा खातीर चारमिनार ओडटालों. तेन्ना, 'कितें रे सिगारां फुसकायता' अशें कोण तरी म्हाका विचारतासो असो बेठोच भास जातालो. आतांय तशेंच घडलां अशें समजून, दोळे बंद करून हांवें घोंट मारलो आनी रुच घेतां थंय आसा... ''हांव तुज्या आवयच्या, आत्याच्या, मावश्याल्या, मेवण्याचो भाचो. पर्वरी हावजींग बोर्डांत घर बांदलां. भुमी पुजनाक आमचो स्वामी आयिल्लो. दिनांक १७/२/९४ दिसाळ्यांत बातमी आयिल्ली, वळखलो?''... हो चुनाभट्टीचे भुंयेर जाल्लो भास न्हय हें अणभवान म्हाका उमगलें आनी हो सिग्नेचराच्या एका घोंटाचो परिणाम न्हय हेंय म्हाका अणभवा वयल्यानूच समजलें. आमी एके बाटलेन लेगीत हालपी कुळां न्हय. ''पर्वरी हावजींग बोर्डांत स्वामीन केल्ल्या पावन भुमींतल्यान हांगा कशे पावले सांगश्यात?'' हांवें सॉल्टेड चणे तोंडांत उडयत काळखांतल्यान आवाजाचे दिकेन तोंड करीत विचारलें. म्हजे आवयच्या, आत्याच्या, मावश्याल्या, मेवण्याच्या भाच्याक काळखांत पळोवपाचो बरोच सराव आंसूये. म्हज्या तोंडाची रुचूच गेल्ली, हांवें विचारूंक जाय म्हणून विचारिल्लें. हांव चुनाभट्टी परमीट रुमांत मारपाक बसलां ही वार्ता पर्वरी मतदार संघ ते कवळें मठा मेरेन पावली हें म्हाका रोखडें उमगलें.

''हांव हांगा रॉ मटेरियल घेवपाक आंतऱ्या पयऱ्यान येतां, तूं खंय हांगा?'' आवयच्या, आत्याच्या, मावश्याल्या, मेवण्याचो भाचो.

''हांवूय हांगा रॉ मटेरियल घेवपाकूच आयिल्लो, ज्युस्त रॉ मटेरियल घेतना तुमी सांपडले.''

''हेंऽहेंऽहेंऽऽऽ बरो कोमीक आं, आतीबायलो पूत सोबता आं!''

''हय न्ही? आईय तेंच म्हणटा. हांव तिचें नांव वयर काडटलों म्हूण. जांवदी सवकास तुमचें, हांव रॉ मटेरियल पळोवपाक वतां मेळूया अशेच''. हांवें कॉप खाली केलें, बिल दिवन काळखांतल्यान उजवाडांत आयलों. ह्या प्रसंगा वयल्यान म्हाका एक कळ्ळें की हे सोयरे मशणांत लेगीत म्हजी फाट सोडपाचे नात.

आमी गोंयकार आमचे आतिथ्याक लागून सगल्या संवसारांत फामाद. तातूंत सोयरे घरा आयले म्हणटकच विचारूंकच नाका. तो मागीर रीण काडून सोयऱ्यांची बडदास्त दवरता. आतां हें तो सोयऱ्यांच्या मोगाक लागून करता काय आपले समाजांत आशिल्ले प्रतिशठे खातीर करता हें कळपाक मार्ग ना. हाचेर म्हजो अभ्यास चालू आसा. हो सोयरो म्हणटात तो प्राणी घरांतल्या लग्ना आदीं दोन तीन दीस, मूंज, साखरपुडो, गांवांतले जात्रे कडेन बी प्रकट जाता. आतां ताचें अशें प्रकट जावप कमी जालां हें खरें. कारण आतां जात्रा, काले केन्ना जातात हें गर्भकुडींत बशिल्ल्या देवाक लेगीत खबर नासता, सोड. केन्ना केन्ना हो प्राणी, 'हांगाच आयिल्लों, खबर घेवपाक म्हणून भितर सरलों' अशें म्हणून अचकीत भितर सरता. 'तुमी खंय भायर सरपाचीं बी आशिल्लीं?' येजमानाच्या आंगा वयली नवी मुस्तायकी पळोवन विचारूंक जाय म्हणून विचारता आनी लागीं मेळटा त्या आसनाचेर स्थानापन्न जावन पांय हालयत बसता. बरें, पांय हालयत बसले म्हणून येजमानाक कांय त्रास जायना पूण जेन्ना ताची नदर घरभर भोंवता तेन्ना मात येजमानाक त्रास जांव येता, म्हाका तरी जाता. आमगेर फाटी असोच खबर घेवपाक एक लागींचोच सोयरो भितर सरलो (सोयऱ्या भितर लागींचो आनी पयसुल्लो अशी कातेगोरी आसता.) ताणें आमचेर जीव दवरिल्ल्या कारणान आमची वासपूस करपा खातीर तो आयिल्लो. येतना हात हालयत आयिल्लो, आसूं सगळ्यांकूच दिवपाची वान्सा आसता अशी ना. आमचे साला मुखारले पायणींत आमी कोंडे बांदल्यात आनी तांचेर आमी आमचे कपडे सुकत घालतात. अशें पिड्यान पिडयो चलत आयलां. पयलीं पुडवीं, सवळीं सुकत पडटालीं आतां गावन आनी चुडीदार, इतलोच फरक. त्या दिसा कपड्यां मदी म्हजें बानयान सुकत पडिल्लें...

''हें तें पांयपुसणें कपड्यां मदीं सुकत घालां?'' - सोयरो.

आतां सोयऱ्या मुखार च्या दवरलेलो, बशयेंत सात आठ मारी

बिस्कुत्यो दवरलेल्यो, टी पोयचेर एक सोडून दोन दिसाळीं आशिल्लीं. मुखार येजमान म्हणजे हांव आशिल्लों. इतलें सगळें आसतना ताची नदर सुकत घाल्ल्या म्हज्या बानयानाचेर कित्याक वच्ची, म्हाका समजलें ना.

''तें पांयपुशणें न्हय, म्हजें बानयान तें!'' - हांव.

''बानयान तें? सॉरी आं ताचो कोर आनी पिंजून जाल्ली जाळी पळोवन म्हाका तशें दिसलें.'' सोयऱ्याची नदर आतां मारी बिस्कुतेचेर गेल्ल्यान ती च्यांत बुडयत ताणें स्पश्टीकरण दिलें.

''ना. तुमचीय चूक ना. कालूच हांवें दोन डॉन बानयाना हाडल्यांत. तातुंतलें एक आज घालां. दुसरें फाल्यां घालतलों आनी दांडये वयलें तुमी सांगलां तशें पांयपुशणें करतलों.''

हांवें शर्ट वयर करीत नवें बानयान नंबर एक ताका दाखयलें. आमचो लागींचो सोयरो शिरी मामा. हाणें आयुश्यांत त्रोसांनी उलोवंचें सोडून आनीक कांयच केलें ना. आपली धूव म्हाका दिली ना म्हणून हांव अशें उलयता अशें थोड्यांक दिसूंक शकता पूण तशें कांय ना. नात्यां भितर लग्न केल्यार भुरग्यांक मागीर प्रॉब्लेम जातात हें हालींच वाचिल्ल्याक ताणें धूव दिली ना हें बरे केलें अशें दिसपाक लागलां. तर, शिरी मामा आमगेर आयिल्लो कित्याक तें याद जायना. आमगेर जे अतिथी म्हणून येतात ते सालांतूच बसतात, तुमचे म्हायती खातीर. शिरी मामा थंयच बसलो. बसून ओगी रावलो ना. फुडें टीपॉय आशिल्लें. ताका वांटकुळी कांच आसा तिचेर सादारण एक इंच धुल्लीचो थर आशिल्लो. ताचो धूळपाटी कसो उपेग करून तातूंत चित्रां शीं काडपाक लागलो. चित्रां काडटां काडटां, 'बाय, तुवें सून हाडल्या मुगो' अशें ताणें आईक विचारलें तें म्हज्या मनाक खूब लागलें. आमी सुनो टी पॉय लींप करपाक हाडी नात. हांव ओगी रावलों, हांवें कांय म्हणलें ना, आईय ओगीऽ रावली. आमच्या टी पॉयचेर च्याच्या कॉपांचे वांटकुळे ठशे म्हयन्यांचे म्हयने तशेच आसतात ना न्हय पूण आमगेर आयिल्ल्या सोयऱ्यांक तांचो कांयच त्रास जायना. कोणाक धुल्लाची बी एलर्जी आसता ताणें आमचे कडल्यान फडको घेवन मारचो, तेंय कोण करना. शिरी मामा वांगडा मामीय आशिल्ली, तिका ताणें 'आगो विमल, टेबलार हात मार' अशेंय म्हणलें ना. आसूं. शिरी मामा वयल्यान याद जाली. सोयऱ्यां भितर पयशेकार सोयरो म्हणून एक कातेगोरी आसता आनी हे कातेगोरीक वेगळो त्रातामेंत मेळटा अशें म्हजो अभ्यास सांगता. हांव शिरी मामाचीच केस सांगतां. आमगेर आईचे कुळारची बाकिचीय मंडळी येताली पूण शिरी मामाक मेळटालो तो त्रातामेंत वेगळो हें म्हजे नदरेक हांव तेन्ना भुरगो आसून लेगीत आयिल्लें. शिरी मामा आपूण वेगळो हें आपले बॉडी लँग्वेजींतल्यान आमच्या लक्षांत हाडून दितालो. तो आपल्या उजव्या हाताक आशिल्ली वज्राची मुदी आपल्या आंगठ्यान फिरयत रावतालो. ताच्या हाताक वज्राची मुदी आशिल्ली आनी म्हज्या बापायच्या हाताक तांब्याची, तीय बी ताणें कालोर चड जाता तो कमी करपाक घातिली. शिरी मामा मुदी घुंवडायतालो जाल्यार मामी नाकांतली वज्राची पिली फिरयताली. ती फिरोवन फिरोवन नाकाचो बुराक व्हड जायत म्हणून म्हाका बशिल्ले कडेन टेन्शन जातालें. आमी शिंको काडपाक नाकांत कोंबडेचें पीस घालून फिरयताले. तर, शिरी मामा येतालो तेन्ना ताका च्या करपाक आई ब्रूक बोण्ड कंपनीचो पालो वापरताली. हे कातेगोरींतले सोयरे येत जाल्यार आई हो च्या पालो वापरता हें हांवें नोट केल्लें, बाकिच्यांक गुळी च्या पालो. आमी केन्नाच तांचे वांगडा चंद्रकांताचे टॅक्सींन कवळ्यां बी वचत जाल्यार मामी फुडें चंद्रकांता म्हऱ्यांत बसताली. आमी, बापूय धरून सगळीं फाटल्यान.

सोयऱ्यां भितर दुसरी कातेगोरी ते खंयचे वटेन सोयरे लागतात हाचेर निंबून आसता. दादले, सोयरे मावोडे वटेंतल्यान आयिल्ले आसल्यार तांचो त्रातामेंत वेगळे पद्दतीन करतात. कित्याक काय म्हणल्यार हांगां तांचो स्टेटस धरून सगळें पणाक लागिल्लें आसता. हें अशें कमीच कमी सादारण लग्न जावन पांच वर्सां तरी चलता. आमच्या लग्ना उपरांत म्हजे मावोडेंचे लोक, हिचेरूच तांचो जीव आशिल्ले वरी, हिची खबर घेवपाक आमच्या घराच्यो वारयो करी. हिच्या मानिल्ल्या भावांनी आमच्या घराक चड भेट दिली अशें म्हणल्यार जाता. हिका सख्खो भाव नाशिल्ल्यान हिचे मानिल्ले भाव खूब आसात. आनी जे मानिल्ले नाशिल्ले ते आमगेर पावतकच मानिल्ले जाले. जांव! द्रौपदी खातीर मानिल्ल्या भावान कितें केलें हें आमकां खबर आसा. हिगेल्या मानिल्ल्या भावाची लेगीत बडदास्त म्हाका दवरची पडटाली. एक दीस पप्पू म्हणून एकटो शेळोवणी घालीत तिनसांजचे कात्रेर भितर सरलो.

''आरे कोण संवंग तिनसांजे कात्रेर शिळोवण्यो घालीत आयलां पळय. तो भितर सरतना आनीक कोणाक घेवन भितर सरतलो!'' - आई.

''आगे तो हिच्या कुळारचो! ओगीच तूं बोवाळ करू नाका!'' हांवें हळू म्हणलें तरी आई आयकना आनी पप्पू शिळोवणी घालपाचो कसोच थारना. म्हजेर आकांत! म्हज्या लग्नाक म्हयनो लेगीत जांवक नासलो. आज पप्पून शिळोवणी घाली वा फुगडी घाली म्हाका कांयच दिसचें ना.

''पप्पू, पापया शिळोवणी ह्या टायमार घालची न्हय. आई म्हणटा शिळोवणी घाल्यार असलो भितर येता - हांव. म्हजो हात हांवें कोपरा कडेन दोडलो, पांचय बोटां बागयलीं आनी हात धोलयलो. पप्पू शिळोवणी घालता तसो हांव हात धोलोवंक लागलों तरी पप्पूचे तकलेंत उजवाड पडना. मागीर हांवें दोनूय हात तकलेर दवरले आनी नगीना सिनेम्यांत श्रीदेवी नाचल्या तसो नाचलों. पयलीं उब्यांनी कमराक बाग घालून नाचलों मागीर सालांत जमनीर सरपटत नासलों.

तरी शिळोवणी बंद जायना, भितर आईचें तोंड बंद जायना. शेवटीं रांदचेकुडींत भयण, मानिल्ल्या भावा खातीर, घरावें तूप युक्त सांजो करताली, तिच्या कानार घालें. ''आगो, पप्पूक शिळोवणी बंद करपाक सांग. तिनसांजचें शिळोवणी घाल्यार असलो येता खबर ना?'' परत माथ्यार हात धरुन हांवें नवे व्हंकले सामकार ल्हानसो आयटम केलो. हिर्णे मागीर दोनदां शिळोवणी घाली आनी पप्पू अचकीत शिळोवणी घालपाचो बंद जालो. ती तांची कोड लँग्वेज खंय. हांव फाटीं पंचवीस वर्सां डीकोड करपाक सोदतां, अजून जमूं ना. तो आमचो विशय न्हय. सोड. सांगपाचें म्हणल्यार मावोडेंचीं मनशां येतकच जांवयांचेर आकांत येता तो हे खातीर. ताका दोनीय वटेन पखवाज कसो धोडयतात.

सगळ्याच सोयऱ्यांक एकेच बास्केटींत घालप समा न्ही. कांय नातीं नाजूक आसतात, देखीक मेवणी. मेवणेक सोयरे म्हणपाक लेगीत मन तयार जायना. मेवणी हें नाजूक नातें. आमचो एक सोयरो इतलो मेवणीमय जाल्लो की ताणें जात्रेक, आपल्या हातार 'मेवणेचो भावोजी' अशें गोंदून घेतिल्लें याद जाता. आनीक एका पाड्डें केप्यां रावपी सोयऱ्यान आपली सोयरीक जातकच आपूण सकाळीं पांचांक उठून पर्वताचेर (चंद्रनाथ, भूतनाथ प्रसन्न) कमींत कमी तीन फावटीं चडटां अशें सांगून आपले मेवणेक इम्प्रेस केल्ली. मागीर लग्न जातकच ताचें कितें जालें हें सांगून कांय अर्थ ना. पर्वताचेर जात्रा जातकच आमकां खाजें घेवन येतालो तोय बंद जालो. आमकां गोंयकारांक आमच्या सोयऱ्यांची खूब व्हडवीक. 'म्हज्या मेवणेचो देर आरटीओ इन्स्पेक्टर' हें सांगतना आमच्या तोंडार जे भाव आसतात ते 'महाराज, मोहीम फत्ते झाली' हें सांगतना खंयच्याय सरदाराच्या तोंडार आसतात ताचे परस चडूच आसत, कमी नासतले. कांय वर्सां आदीं गोंयांत, घरांतलो एकलो तरी मनीस, आखाती देशांत आसतालो. तो मागीर थंय कितेंय करूं आमकां ताचें पडिल्लें नासतालें.

''आगो ही पर्स बरीऽऽ मुगो! खंय घेतली?''

''आगो, ही हांगाची न्ही. म्हज्या आते भावालो साडू मस्कट आसता, ताणें हाडिल्ली.

''अशें? तशें जाल्यार म्हज्या काकाल्या मेवण्याचो साडू आबुधाबीक आसता, ताका सांगून पळयतां थंय मेळटा जाल्यार दोन तीन घेवन यो म्हणून.

असलीं उतरां आमी वतात थंय कानार पडटालीं. आतां अरब देशांतले नोकऱ्यांनी राम उरलो ना तरीय आमची व्हडवीक कमी जांवक ना. आमकां वजनदार मनशां कडेन नातें काडून तांकां तेंकपाक आवडटा.

''पंदरा आगोश्टाचें झेंडा वंदन पळयलें टिव्हीर?''

''हय. कित्याक?'' - हांव.

''कोनश्याक सावन धाव्या लायनींत दावे वटेन बशिल्लो तो म्हज्या मावस भावाच्या साडवाचो चलो. म्हणजे तांकां भुरगीं नात, ताका पोसको घेतला.''

''कळ्ळें.'' - हांव.

''तर ताणें पिएमओं'त हावज किपींग कोंत्राद घेतलो. म्हणटकच ताच्यो व्हडल्यां व्हडल्यां कडेन वळखी!''

''जातल्योच न्ही!'' - हांव.

''एकदां खंय पिएम'आन ताका स्वता घैरांव दाखयलो. पिएम ईज व्हेरी पर्टीकुलर, तो सांगतालो.

''हांवूय बी व्हेरी पर्टीकुलर पूण आमचें शेंवतें म्हाका खंय आयकता!'' -हांव.

''तूं पिएम तर?'' तो आपल्याच विनोदाचेर हांसलो.

पूण हे सोयरे जेन्ना नांव घाणायतात तेन्ना ते कोणाक नाका आसतात.

''पालासा कडेन पयशे घेतना धरला तो तुमचो सोयरो न्ही?''

''सोयरो म्हणल्यार सोयरो, सोयरो न्ही म्हणल्यार सोयरी न्ही. पयसुल्ल्यान कोण तरी लागता आई वटेन. आज आमी सख्ख्या भावाक वळखनात थंय हे सोयरे खंयचे? न्ही?''

हीं उतरां आमकां नवीं न्ही. हें सगळें जरी खरें आसलें तरीय महाभारताचें झूज जाल्लें तें सोयऱ्यां भितरूच हें आमी मतींत दवरपाक जाय. कोर्ट आपलो अर्दो वेळ सोयऱ्यां भितरल्यो केसी जाग्यार घालपाक खर्च करता अशें सावळो सांगतालो. सावळो सांगता म्हणटकच तें खरें आसतलें. परक्यां परस सोयरेच सगळें पाड घालपाक फुडें आसतात अशी आमची धारणां जाल्ले कारणान खंयचीय बरी गजाल सट्टऽ करून सोयऱ्यांक सांगप जायना. चड करून सोयरीगत कित्याक तर, चल्या वा चलयेचें नातें सोयऱ्यांक बेस बरें खबर आसता. हाका लागून सोयरीगत मोडपाचो भंय चड आसता. म्हणून ही बातमी रोखडीच सोयऱ्यांक सांगपाचो धोको कोण पत्करना.

आज सगळींच नातीं पातळ जाल्यांत ही वस्तू स्थिती. आज, 'मांय मरो आनी मावशी जगो' म्हणल्यार पिश्यान काडटले. आदल्या तेंपार दारां पासाक लागिल्लीं आसतालीं. दारा भायर कावळो रडलो जाल्यार 'कोण येतलो काय' हाचेर भासाभास जाताली. आज ही परिस्थिती उरूं ना. दारा भायली बेल वाजतकच कोण आयलो काय हो प्रस्न आमकां पडटा. दार उगडचें काय ना हें थारावपा खातीर आमी दाराक तिसरो दोळो बसयला. आज, 'सोयरे' ही जमात नश्ट जावपाचे वाटेर आसा. जर आमच्या सरकारान तिका 'एन्डेंजर्ड स्पिशीज' म्हणून घोशीत केलें ना जाल्यार तीय रोखडीच काळाच्या पड्ड्या आड वतली हातूंत दुबाव ना.

संपर्क: 9850530756



## नियाळाची भास गोंदळांत उडयता

भौ. संपादक

मार्च १८ च्या अंकांत 'भारतीय साहित्य शास्त्र' ह्या ग. त्र्यं. देशपांडे हांच्या मूळ मराठी ग्रंथाचो प्रा. प्रियदर्शनी तडकोडकार हांणी कोंकणी अणकार केला ताचो प्रा. आशा अशोक मणगुटकार हांणी केल्लो नियाळ वाचलो. ह्या नियाळाची भास सामान्य वाचप्याक गोंदळांत उडयता. संस्कृत, मराठी आनी कोंकणी अश्या तीन भासांचें गांठवल हांणी ह्या नियाळांत बांदलां. हो नियाळ वाचतना तांणी इतलीं लांबायेचीं वाक्यां रचल्यांत तीं वाचतना वाचप्याचो स्वास-उस्वाद बंद जावन ताका आळास परतुपाचो अणभव येता. हो नियाळ असो अणभव दिता जाल्यार अणकार कितलो कठीण आसतलो अशें दिसूं येता.

समिक्षा कितली सुटसुटीत आसूं येता हाचो अणभव डॉ. विलास सारंग हांची बरपावळ दिता. ल्हान ल्हान वाक्यां आनी बरीचशी चालंत भास ते सहजतायेन वापरतात. तेच प्रमाण तांचो भाशांतरां वेलो मूळ इंग्लीश प्रबंध वाच्चो. तोय तांणी सोंपे शैलींत बरयलां. आज विक्टोरिअन काळांतली भास कोण वापरना आनी शिवरामपंत परांजपेची 'पल्लेदार' वाक्य रचना काळा भायरी जाल्या.

**माधव बोरकार**
संपर्क : 9423821448



## हांव केपेंकार आनी श्रीधर

भौ. संपादक

मार्च १८ च्या जागांत, सुशांत कुंकळयेकार हांणी श्रीधर कामत हांकां आगीं ओंपपी बरयिल्लो 'आमचो श्रीधर..!' हो लेख वाचतालों - ''म्हाका दिसता श्रीधर केपें सोडून मडगांवां रावपाक आयलो. मडगांवां तो रमलोय. पूण शेवट मेरेन मनान केपेंकार उरलो. ताचे कडेन केपेंच्यो खबऱ्यो मारपाक सुरवात केली की तो सामको भुल्लुसून वतालो. ताचें भुरगेंपण जागें जातालें. ह्या गजालींनी देऊळमळा वेलो कालो, कटया वेलीं नाटकां, म्हज्या घरांतलीं मनशां, वाड्या वेले लोक अश्या जायत्या गजालींचो आसपाव आसतालो.

हांव येवजीत उरलों. कितलें साम्य आशिल्लें ताच्या आनी म्हज्या जिविताक! म्हजो जल्म केप्पां जालो. ९-१० वर्सां हांव केप्पां उरलों. पयलीं चार-पांच वर्सां बाजारांत तर दुसरीं चार-पांच वर्सां कार्तोरी (कोर्ट)कडेन. म्हजो बापूय कोर्टांत वावर करतालो. श्रीधराचोय बापूय कोर्टांत वावर करतालो. उपरांत हांव फुडलें शिक्षण घेवपाक मडगांवां गेलों. श्रीधरय मडगांवां गेलो. म्हाका पयल्या चार-पांच वर्सांचो कांयच उगडास जायना पूण उपरांतचीं चार-पांच वर्सां म्हज्या पुराय जिवितांतलीं बऱ्यांतलीं बरीं वर्सां (संजय तलवडकाराच्या उतरांनी सांगचीं जाल्यार best). तीं परत येवचीं शी दिसता!

हांव मडगांवां रावपाक आयलों खरो, आनी मडगांवां रमलोय खरो पूण सुशांत कुंकळयेकारान सांगलां तशें शेवट मेरेन श्रीधर कामती वरी केपेंकारच उरलो. कोणेंय म्हजे कडेन केपेंच्यो खबरी काडल्यो की हांवूय बी भुल्लसून वतालों.

म्हजें प्राथमीक शिकप श्रीधरा वरी देऊळमळार जालें. आतां देऊळमळार नवी शाळा बांदल्या. आमी जे शाळेंत शिकले ती शाळा आतां व्यायाम शाळा जाल्या. आमी रावताले थंय लागींच नागेशबाब करमली हांचें घर आशिल्लें. तशेंच आनीक एक दुकळे हांचें. त्या वाठारांत हे तिनूच हिंदू घराबे आशिल्ले. बाकीचीं पांच-स ख्रिश्चन समाजाचीं. इतलींच घरां. आमच्या घरां मुखार आवल (पुर्तुगीज प्राथमीक शाळा). हांव, म्हजी धाकटी भयण, नागेशबाबाची धाकटीं एक भाव आनी एक भयण. तशेंच दुकळ्यांचीं तीन-चार भुरग्यां आमी शाळेंत वांगडा वतालीं. एक वर्सा आमचे वांगडा गुडये वयलो नागेश करमली, ताचे दोन भाव दाजी आनी यशवंत आशिल्ले. ते दुकळ्यांचे सोयरे आशिल्ले आनी तांगेर रावताले.

पयलीं नागेशबाबाल्या घरांत, तांची आवय, दोन भयणी आनी एक भाव इतलींच जाणां रावतालीं. नागेशबाब म्हूण तांकां एक भाव आसा हें म्हाका खबरूच नाशिल्लें. १९५९ हें केप्पां म्हजें निमाणें वर्स. त्याच वर्सा नागेशबाब बंदखणींतल्यान सुटले आनी घरांत अवतरले. तेन्नाच म्हाका नागेशबाबा विशीं कळ्ळें. पूण स्वातंत्र्यसैनिक बी म्हणल्यार कितें हें म्हाका कांयच कळ्ळेंना शें दिसता! नागेशबाबान म्हाका वाचपाक म्हूण एक पुस्तक दिल्लें. हांवें एक पान वाचलें. म्हाका ताचो कांयच अर्थ समजलोना. दुसऱ्या दिसा तें पुस्तक हांवें नागेशबाबाक परतें केलें. तेन्ना तांणी म्हाका हांव व्हड जातकूच म्हाका समजतलें अशें सांगलें. म्हाका दिसता तें पुस्तक चड करून समाजवादाचेर आशिल्लें.

म्हाका कोणूय केपेंकार मेळत तर म्हाका खूब खोशी भोगता आनी हांव ताचे कडेन केपेंच्योच खबऱ्यो करीत रावतां. प्रदीप तळावळीकार, विश्वास तलवडकार, संजय तलवडकार, वासुदेव कुंकळेकार, अवधुत कुंकळेकार (हे दोनूय कुंकळेकार, सुशांताचे बापोलभाव), देविदास नायक, सुहास कामत, राजेंद्र शिरवयकार, स्वरुपा कुंदे (सुशांताची भयण कालिंदी कुंकळेकार), प्रबोध शिरवयकार (प्रबोध म्हज्या व्हडल्या भावाचो जावंय) अशे कितलेशेच केपेंकार. पूण हांतली मजा म्हणल्यार ह्या सगल्यांनी आतां केपें सोडलां आनी ते केप्पां भायर, मडगांवां बी रावतात आनी देखून म्हाका मदीं-मदी मेळटात. हालींच वॉल्तेराक लुगट म्हूण घेवपाक हांव मडगांवां दलालाच्या दुकानार गेल्लों. वास्को रावपाक वतकूच ही म्हजी पयलीच फावट आशिल्ली. थंय राजेंद्र मेळ्ळो. दनपारचीं साडेबारा जाल्ल्यान दुकानार गिरायक नाशिल्लें. हांवें राजेंद्रा कडेन बरें अर्द वर केपेंच्यो गजाली केल्यो. तशेंच, म्हज्या भयणीच्या घोवाची मामी ही देऊळमळावयल्या चिमुलकार घराब्यांतली. तिचे कडल्यान म्हजे भयणीक केपेंच्यो खबरी कळटात आनी म्हजे भयणी कडच्यान त्यो म्हाका!

आमकां शाळेंत दुसऱ्यांच्या भाटांतल्यान वच्चें पडटालें. वाटेर

बोरीचीं, जांबळीचीं, चिचेबटांचीं, काजूचीं, राजआंवाळ्यांचीं बी झाडां आशिल्ली. आमी सहज झाडांचेर फातर मारून तीं फळां पाडटाले आनी खाताले. आज म्हाका हें अजाप दिसता की आमकां केन्नाच, कोणेच ते विशीं कांय विचारूंक ना वा आमचेर कोणच आड्डूंक ना. आंब्याचींय बी खूब झाडां आसतालीं. पूण आमी केन्नाच फातर मारून आंबे खाल्ल्याची याद जायना. म्हाका दिसता, आंबे एप्रील-मे म्हयन्यांत पिकतात आनी शाळेक त्या दिसांनी सुटी. म्हणटकच घडये, आंबे पाडून खावपाचो वेळ आयलोना. हाचे फुडें, असले दीस खंयच्याय भुरग्यांक चाखूंक मेळपाचे नात. लोकशायेन, असले खोशयेक सगल्याच भुरग्यांक मुकयलें.

आमचे शाळेचें स्नेहसंमेलन, कादये कडचे शाळेचें आनी होली क्रॉस इंस्टिट्यूचें एकाच वेळार पोन्न्या होली क्रॉस इंस्टिट्यूटच्या पटांगणांत जातालें. हांव तिसरेक आशिल्लों. बाईन म्हाका एक नाटकुल्यांत भुमिका दिल्ली. भुमिकेचें नांव आशिल्लें शुभंकर. म्हाका मदींच स्वगत उलोवपाचें आशिल्लें. हांव माचयेचे दावे वटेन, फाटल्यान उबो रावन म्हजो संवाद उलयतालों. इतल्यान प्रेक्षका मदल्या फुडेंच बशिल्ल्या एकल्यान, म्हाका फुडें येवन उलोवपाक खूण केली. हांवें, हांव उबो आशिल्ल्या थंयच्यानच स्वगत तें अशें व्हडल्यान सांगलें. सोमी बेणे हांच्या 'कलयकार दोमळो म्हजें नांव' वा 'एक पैसा दे रे, ओ बाबू, ओ बाबू' ह्यो नकलो आजून येवजतात.

आमी देऊळमळा वयलीं काल्याचीं नाटकां आनी कट्या वयलीं शिगम्याचीं नाटकां केन्नाच चुकयलींनात. काल्याच्या नाटकाक तर आमी पेट्रोमास घेवन वताली. कारण ते काळखी दीस. देऊळमळार म्हजे आवयचें आजोळ. देऊळमळा वयले सगले जाण वळखीचे. तरूय १९५७-५८-५९ च्या काळांत थंयचे कोण नाटकांत भुमिका करताले आज म्हाका याद जायना. कट्या वयल्या मात एका नाटकांतल्या दुर्योधन आनी कर्ण जाल्ल्या नटांची खुमणी अजून दोळे मुखार दिसतात. कर्ण जाल्लो तो नट हरशींच सुंदर पुरूश. तातूंत तोंड रंगयतकच आनी तो पोशेग घालतकच सामको तेजस्वी दिसतालो. म्हज्या मनान ताका 'कर्ण' हें नांव सदां खातीर दिवन ताचो परतो बारसो केलो. हालीं जयंती नायक हांकां डॉक्टरेट मेळटकच म्हजे भावजयेन म्हाका विचारलें, जयंतीक डॉक्टरेट मेळ्ळ्या हें तुका खबर आसा? हांवें म्हणलें, हय आनी फुडें विचारलें, तूं जयंतीक वळखता? तिणें सांगलें हय, तें आमच्या असोळणेचें आनी नाम्याली धूव. हांवें विचारलें, नामो कोण? तिणें सांगलें, नामो केपेंच्या बाजारांत दलालाच्या कपड्या दुकाना कुशीक कपडे शिंवतालो. म्हज्या तोंडांतल्यान एकदम उतर भायर सरलें, आरे! हांवें ल्हान आसतना म्हज्या भावाच्या तोंडांतल्यान खूब फावट नाम्याचें नांव आयकल्लें. ते दोगूय बराबरचे. पूण आज म्हाका अचकीत, कितल्या तेंपान एक सत्य गजाल समजल्ली की नामो, जयंतीचो बापूय आनी म्हज्या मनांतलो कर्ण हे तिगूय एकूच व्यक्ती आशिल्ली.

हालींच धा-बारा वर्सांचें पयलीं देऊळमळा वयल्या काल्याचें नाटक पळोवपाचो परत एक फावट योग आयलो. नाटक आशिल्लें एकच प्याला. ताचो गावपी नट देविदास वैद्य हांकां कांय कारणा पासत नाटकांत काम करपाक मेळना आसलें. म्हणटकच ताणे रामलालाच्या भुमिके पासत म्हज्या साडूक विचारिल्लें. हांवूय त्या नाटकाक गेल्लों. थंय म्हाका उल्हास तलवडकार मेळ्ळो. हांवें उल्हासाक म्हणलें, जेन्ना म्हाका म्हज्या साडवान ह्या नाटका विशीं सांगलें, तेन्ना हांवें ताका पयलो प्रस्न केलो, सुधाकराची भुमिका तूं करता काय म्हूण. ताणें ना म्हणटकच म्हाका अमर्याद अजाप जालें. तेन्ना उल्हासान जें कितें म्हाका सांगलें, ताचें म्हाका खूब वायट दिसलें. ताणें सांगलें, ह्या सिगारान म्हजी सामकी वाट लायली. सिगारान म्हाका नाटकां करपाक सामकी वयल्यान सकयल बंदी घाली अशें म्हणल्यार इल्लीय अतिताय जावची ना. म्हाका उगडास जाता, कला अकादमीन पयलेच फावट मराठी नाटकांची सर्त सुरू केली तेन्ना पयल्याच वर्सा अभिनयाचें पयलें इनाम मेळोवपी हो उल्हास तलवडकार आशिल्लो. ताणें प्रगती हायस्कूल, बोरीचे वरवीं 'ययाती आणि देवयानी' हें नाटक सर्तींत केल्लें आनी ययातीची भुमिका केल्ली.

म्हाका खूब फावट दिसता, केप्यां रावपाक वच्चें आनी मिठांनी खेळचें. (म्हाका आज सत्तर वर्सां हें तुमचे म्हायती खातीर. कृ. म. सुखटणकार हांच्या आशिर्वादान). नलिनीबाई, पुरशालो पसरो, गणपतीली गिरण, जनाली मोटार, उस्मानाली टॅक्सी, कार्तोरींतलो पेद्रू हीं सगलीं सदांच म्हजे यादींत उरतलीं. एक फावट हांवें संजय तलवडकाराक म्हणलें, म्हाका केप्यां येवन रावीन दिसता. तेन्ना ताणें जाप दिली, यो मरे एक दीस. हांवें सांगलें एक दीस न्हय. सदां खातीर येवन रावीन दिसता. तो फुडें कांय उलयलो ना. हीच गज़ाल हांवें अवधुत कुंकळेकाराक विचारली. अवधुताच्या पुतान चिखले एल.जी. चें दुकान उगडलां. अवधूत केन्ना केन्नाय दुकानार येता. आनी केन्ना केन्नाय म्हाका मेळटा. ताणें उपहासान सांगले, तूं दुसऱ्या दिसा पळून वतलो. ताका हांवें आनीक एक प्रस्न विचारिल्लो, केप्यां बोरीमळार स्पोर्टस कॉम्प्लेक्स बांदलां. तें खंय? तो व्हडल्या व्हडल्यान हांसपाक लागलो. हांवें विचारलें, कित्याक हांसता? ताणें म्हणलें, आमी रावतालें तेंच बोरीमळ म्हूण! म्हाका अजाप जालें. ल्हानपणांत हांवें बोरीमळ म्हूण केन्ना आयकूंकच नाशिल्लें आनी दुसरी गजाल म्हणल्यार त्या मळार वा आशिकुशीक खंयच बोरीचीं झाडां नाशिल्लीं.

कितें म्हूण कांय कळना. हांव फकत णव-धा वर्सां केप्यां उरलों. उपरांत २५-२६ वर्सां मडगांवां. आज ३०-३५ वर्सां जालीं वास्को रावतां. मडगांवां रावपाक वच्चें अशें म्हाका दिसना. वास्कोय हांव सामको खोशेन बी रावतां अशें न्हय. केप्यां मात सामकें खर मनान, थंय रावचें अशें दिसता. केपेंचे लोक केपें सोडून, मडगांवां आनी फोंड्यां रावपाक गेल्यात. म्हाका मात केप्यां वचून रावीन दिसता. कितें म्हणप हाका? सैमाची किमया?

**अरविंद काकोडकार**

संपर्क : 2540097

# अमृतवेळ : एके अस्तुरेच्या संघर्शाची काणी

परिक्षण

कोंकणींतल्यो नामनेच्यो लेखिका माया खरंगटे हयो कोंकणी साहित्याच्या मळार एक येसस्वी कथाकार आनी कवियत्री म्हूण फामाद आसात. ते भायर बाल साहित्याच्या मळार लेगीत तांचें व्हड योगदान आसा. ''अमृतवेळ'' ही कादंबरी म्हणल्यार माया खरंगटे हांणी मोठे धिटायेन कोंकणी कादंबरींच्या मळार घातिल्लें पयलेंच पावल!



''अमृतवेळ'' म्हळ्यार बापूय नाशिल्ल्या शांतुलाच्या संघर्शाची काणी जें सामकें भुरगे पिरायेचेर वडगांवच्या फामाद शिरवयकार घराण्यांत सून म्हूण येता आनी तार्चे रुपांतर सिताबायंत जाता. ह्या सिताबायन तिचे जिणेंत आयिल्ल्या साबार प्रसंगांक आनी मोठ्या धिरान आनी आत्मविस्वान केल्लो फुडो आनी निमणें आपलीं नातरां राजू आनी दुर्गा हांकां आपल्या पांयांर उबीं करपाक तिका आयिल्लें येस आनी तिचे पिरायेच्या निमण्या वेळार कांय जायना तिच्या जिणेंत (शेकीं) आयिल्ली ''अमृतवेळ'' हाची ही काणी.

हे कादंबरेच्या कथानकाक सोब सारकीं आनी कादंबरी फुडें व्हरपाक, प्रसंग फुलोवपाक, जायतीं पात्रां लेखिकेन घेतल्यांत. तरी ह्या कादंबरेचो केंद्रबिंदू म्हळ्यार सिताबाय आनी तिचो जिणे कडलो संघर्श.

हे कादंबरेच्या कथानकाचेर नदर मारल्यार एक गजाल मतींत येता ती म्हळ्यार हे कादंबरेच्या कथानकाचो काळ. हें कथानक गोंय सुटके पयलींचीं पन्नास वर्सां आनी गोंय सुटके उपरांतचीं पंचवीस वर्सां ह्या काळांतलें. गोंय सुटके पयलींचीं पन्नास वर्सां सारस्वत घराण्यांची परिस्थिती, चले भुरग्यांक शिक्षण घेवपाक येवपी आडमेळीं, चलयांचीं सामकें भुरगे पिरायेचेर लग्नां, ते खातीर शिक्षणा पासून तांचे पयस उरप, रांद, वाड आनी उश्टीं काड अशी तांची अवस्था. मागीर सारस्वत समाजां भितरल्या तरणाट्यां मदीं उपराशिल्लें गोंय सुटकेचें वारें हाचें बेस बरे चित्रण लेखिकेन केलां आनी हें करतनां तांणी केल्ल्या संशोधन वावराची तोखणाय करीन दिसता.

ते भायर त्या काळचें आफुड-भश्ट, विंगड-विंगड परबां वेळार घरांघरांनी म्हयनो भर पयलीं चलपी तयारी, पावसा पयलीं घरा-घरांत आनी चड करून सारस्वतांच्या घरांत पुरुमेंताची तयारी करपांत गुंथिल्ल्यो बायलो, लग्ना कार्या वेळार घरांत येवपी खाजेकार, तांचे कडल्यान करून घेतिल्ले विंगड विंगड खावपाचे जिनस हांची वर्णनां लेखिकेन बेस बरीं आनी फिशालकयेन केल्यांत.

गोंय सुटके उपरांत सुटिल्लें परिवर्तनाचें वारें, लोकशायेन भौसाक दिल्ले सगळे हक्क, कुळकायदो, कसता ताची जमीन हे कायदे आनी भाटां, शेतां आनी कुळागरांच्या उत्पन्नाचेर आपलो संवसार चलोवपी हो समाज. ह्या कायद्यां वरवी तांच्या उत्पन्नाचेर आयिल्ली हावळ आनी ताका ह्या समाजान कसो फुडो केलो हाचेंय बेस बरे चित्रण लेखिकेन केलां.

हे कादंबरेंत घडून येवपी प्रसंग गुंथून घेवपाक लेखिकेन निवेदन पद्दत आपणायल्या आनी ते खातीर ते प्रसंग फुलून येतात. पूण थोडे कडेन प्रसंगाचें वर्णन करतना गरजे भायर नाका तितले बारीक सारीक तपशील लेखिका घुसडायता ताका लागून त्या वर्णनांचो बेरंग जाता. देखीक : 'चड करून मुततना तिचे हाल जाताले. ती कल्याणाक बरोबर घेवन मान्न्यांत वताली. कल्याण तिची कास सोडोवन दितालें. पूण येदें व्हडलें कापड सांबाळून मुतता सर केन्ना तरी कापडार पडटालेंच. मागीर कल्याण तितलो कुडको धुवून दितालें खरें, पूण ओल्या मिरयांचो तिका आनिकय त्रास जातालो.' (पान ६१). पूण असलीं वर्णनां साप्प थोडीं आसात.

खंयचेंय कादंबरींत प्रसंग जितले गरजेचे तितले ते फुलोवपाक वापरलेली भासय तितलीच गरजेची. खूब कडेन हे प्रसंग फुलोवपाक लेखिका येसस्वी थारल्या तर कांय कडेन हें कादंबरीतली भास निर्जीव जाल्या.

सारस्वत समाजांक केंद्र बिंदू दवरून दुसरें एक कथानक घेवन कोंकणींतल्यो नामनेच्यो लेखिका मीना काकोडकार हिणे ''वास्तूचीं'' ही कादंबरी हालींच आयल्या आनी ह्याच समाजाचेर कोंकणींतले नामनेचे लेखक अशोक कामत हांची ''घणाघाय नियतीचे'' ही कादंबरी कांय वर्सां आदीं आयिल्ली. ह्या समाजा विशीं भौसाच्या मनांत आशिल्ले गैरसमज पसून उडोवपाक सगळ्यांनी ह्यो कादंबरी वाचपाक जाय. ह्या समाजाचेर अशे तरेच्यो कादंबऱ्यो आनिकूय येवंक जाय.

एक बरी वाचनीय कोंकणी कादंबरी दिवन लेखिका माया खरंगटे हांणीं वाचप्यांची आस्त वाडयल्या.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**अमृतवेळ (कादंबरी) : लेखिका- माया खरंगटे**

मोहित प्रकाशन, मडगांव-गोंय. ४०३ ६०१

पानां : २९६, मोल : २९० रुपया



नवरात्रांतल्या शक्तरुपिणीचीं चित्रां जीं म्हाका सयभोंवतणी दिसतालीं तांतल्यान आयिल्ल्यो हयो ल्हान ल्हान कविता.

## शक्त सूक्त

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

१

जोत म्हणटा : ज्ञान अजात
जात जात म्हण्टा तो मात
फकत पिशां फांत
फकत पिशां फांत

२

तूं पुर्सांची शक्त म्हामाये
अन्नदात्री तूं आनंद विभूत
विश्वाचें ह्या चैतन्यय तूं
अंतर-मंत्राचें, तूंच गे सूक्त

३

अस्तुरशक्तिचो हो हुस्कार
कोमऱ्यो सपनांकूय फोडटा
विरवासाची अमोघ निश्टा
गर्जयता रे तिची प्रतिश्ठा

४

सकल दवरून भूंय तिणें
पावल उडयलें आसमंतां
शक्तरुपिणीच्या जैताचीं
हो संवसार गायतां गिंतां

५

अस्तुरी खेळटा खेळ नवे
जोडीत रावता नवीन दुवे
अंतरशक्तिचेच तिच्या हे
नव-चंवर-धुरंधर नवे थवे

६

तूं जैताची प्राची गे माये
आत्मविस्वासाची फांतोड
सोंशीकताये तूंच गे सिंधू
सोंसून संसार करता गोड

७

कोणा कोणाचें धाम घडोंवक
अस्तुर करी घामाचेंच अत्तर
घरा घरांत ही संवसाराच्याच
समाधानाचें रे सोदता उत्तर

८

भारतमायेचो हो आनंद
असोच सदृदां फुलत उरूं
देशाच्या या मुखामळार
अशीच ही समृद्धी चंवरूं

९

आयज तिका उलोंव दी
मनमंत्र नवो केळोंव दी
मळब बळ घेवन मनांत
सर्ग सपनांचो फळोवं दी

१०

तुज्या तोंडा वेलें हांशें
माये भांगर कशें
प्रसाद कशें
सुवर्ण कशें
जीणसमृद्ध पिशें
लागूं अशें लागूं अशें

संपर्क: 9420688461



## जुगलबंदी

**भिकाजी घाणेकार**

म्हजें तन आनी मन
गावंक लागलीं जुगलबंदी
सुरवातेक जाली ''भुपाळी''
सुर्यदेवा न्हिद सोंपली
शेवणीं मळबांत चिंवचिंवलीं
शेंतांत आवदां नाचलीं.

ताज्या उपरांत ''हंसध्वनी''
सगळीं तल्लीन जालीं
खिणाखिणांत, मनामनांत
स्फूर्त नवी आयली.

मेघमल्हार शिरशिरलो
उपाट उदकांत भिजून
नवी उर्बा, नवी उमेद
सगळ्याक राग गाजलो.

निमाणी आयली ''भैरवी''
तिनसांज सोंपून रात आयली
तन आनी एक सुंदर सपन
युगायुगाच्यो मिलनाच्यो यादी.







## शृंगार तुजो

माधव बोरकार

शृंगार तुजो नक्षत्रांचो जडाव
आंबाड्यार तुज्या नक्षत्रांचो गांव
सप्नेल्ले दोळे हारशे तळयेचे
शब्द ओठांतले सूर कळयेचे

जुवानीची राणी उसंखळ भरती
खिणयाळी काणी पर्जळाची आरती...



## दिकांची माया

ओंठ मोने काळीज जेन्ना भरिल्लें
नदरेन मळबाक आळें धरिल्लें
दिसता लागीं पावली पलतड
अडिल्लें मन हांगा मेळना तड
अटंगं रान तरी वाट फुटिल्ली
दिकांची माया दिठयेक भेटिल्ली...

संपर्क : 9423821448



# तीन कविता

आर. रामनाथ

## चेरो

तुवें तुजो सुरकुतलेलो चेरो
खुबूच तेंप लिपयलो... सोयिस्करपणान.
कालांतरान –
तूं तो चेरो पुरपाक लागलें
आनी हांव तो उस्तुपाक लागलों...

आयज हांवें
तुवें पुरिल्लो तुजो चेरो उस्तिला
आनी तातूंत म्हजो आत्मो घातला...

आतां तूं संपूर्णतया बिनचेऱ्याचें जावन
म्हज्या चेऱ्याचें शिल्प सोदीत भोंवता...
मेळत थंय!

## सवड

जायते फावट
तुवें म्हाका म्हणिल्लें
की म्हाका एकांतांत
खुब्ब किदें सांगपाक जाय म्हूण!
उपरांत –
तें सगलें तशेंच रावन गेलें...

आयज हांवूंच सवड काडून
खासा तें सगलें तुगेलें आयकुपाक आयलां
जाल्यार
तूंच
सुस्त
न्हिदिल्लें
आसा...



## हांव, तूं आनी तो

हांव
पालवलों...

भूंय
जडभार जाली...

मळब
दुकाळलें...

सैम
सरणधगान
करपलो...

तूं
अग्निशिखांनी
शिरंगारलें...

तो
म्हज्या आत्म्यांत
लिपलो...

संपर्क: 9850458763





## सुखाचें झाड

### उदय म्हांबरो

संवसारांत वचत थंय
दर एकलो सुखी समाधानी
कोण बंगलो बांदता
कोण गाडी घेता
तर कोण विमानान भोंवता

कोण मॅनेजर
कोण दोतोर
कोण इंजिनीयर
कोण कारखानदार
तर कोण भाटकार
कोण हॉटेलांतूच जेवता
कोण रिसॉर्टांत रावता
तर कोण कॅसिनोंत खेळटा.

म्हजे सारको मात
बल्कांवार बसून
जळफळटा
वितरागता
सुखी मनशाचो सदरो
आंगाक घालूंक वश्रेता

एक दीस म्हाकाय कोणे
सुखाचो रोंपो दिल्लो
रोंपो दितना
म्हणूंक लागलो,
''झाडाची बरी जतनाय घे
फळां लागतकीर
जमनीर पडूंक दिवं नाका
जमनीर पडल्यार माती जातली''

हांवें लक्तुबायेन तो रोंपो पोरसांत रोयलो
उदक घालें, सारें घालें
मुळाक मातयेची भर घाली
रोंपो बरो
सरसरीत वयर सरलो
वयर वयर वतां वतां
केन्नाच तो मळबाक तेंकलो
चंवरलो, फुल्लो
नाजूक बरी सुखाचीं
झाडाक त्या फळां आयलीं
पूण हाताक लागनात
बडी पावना
झाडार चडूंक कळना

मार्गा वयल्यान एक
पादीशेर वतालो
तो म्हज्या आदाराक आयलो
ताणें पळयलें
झाड इतलें ताड्माड
वयर चडल्यार
झाडा वांगडा चडणारोय
मातये भरवण जावपाचो

ताणें शेजारच्या लोकांक
झाडा मुळांत आपयले
ताणें म्हळें
आपूण झाडाक हालयतां
तुमी सूख जिखून धरात

जाचो जितलो पोसो मोठो
तितलेंच सूख मेळटलें
पादिशेरान झाड हालयले
सूख सगळ्याक पातळ्ळें
सगळ्यां वांगडा म्हज्याय वांट्याक
पोसो भर सूख आयलें
पादिशेराच्या नशिबात मात
झाडूच हालोवप आसलें.

## मर्यादिचें मरण

(अरुणा शानभागाचो उगडास काडून)

### मेल्विन रोड्रीग्स

खटलें फुमारता -
भुरग्यांनी लोळजाय आसल्लें
जोड्यांनी खेळजाय आसल्लें
घरच्यांनी अपरूप दोळे चुकोवन
परदारपण आधारीजाय आसल्लें
वरसां म्हातारीं जालीं
हांव कुंबाट जालीं
मरच्या जिवाक, चाळीस वरसां
म्हज्या गोमट्याक बांदीजाय आसल्लें?

प्रेमी हुस्कारता -
मेल्यार मरजाय आसल्लें!
अशें कित्याक उरजाय आसल्लें?
तान भागोंवचें सैंभाचें तळें
सासणाक पुरवोन वेतें आसल्लें
तूं तवळच पालवल्लो सुर्या
हांव आजून उचांबळी दर्यो
म्हज्यांतल्या ल्हारांक, चाळीस वरसां
तडीक आपटुंचें आडायजे आसल्लें?

झुजारी खतखतता-
स्वासाचें सर्कस जिवें दवरिल्लें
मैपासी मन, पूण काळीज नातल्लें
वाळचे-भाजयेक मर्णाच्या माटवार
सुकत घालच्यांत सूख सोधल्लें
उतर दिवन उज्यांत लासलां
चाळीस वरसां खरेंच फसलां
मरच्या जिवाक मरूंक सोडच्यांत
खेळ कित्याक खेळून आसल्लें?

आत्मो पुसपुसता-
मित्रांनी आशा पुरिजे आसल्ली
कुडीर हार मांदिजे आसल्ली
चडपडच्या म्हाका राजवटकी चलोवंक
अतव्या जिवा-चावी दिव्येता सल्ली
मागण्याक म्हज्या दिलेनांत कान
चाळीस वरसां गुलाम हो प्राण
मर्यादिच्या मर्णाची सुटके सुवी
अत्याचार चेंचताना खंय आसल्ली?

संपर्क: 09980136297

REG. No.2 GOA 130




# Town and Country Planning Department

## Govt. of Goa

## 2nd Floor, Dempo Tower Patto Plaza, Panaji - Goa

The Government of Goa has amended The Goa Land Development & Building Construction Regulations, 2010, by proposing several new schemes and simplified procedures for benefit of general Public/Institutions prominent amongst which are as under :

**1. Scheme for Agro based activities in Cultivable/Agriculture Zone/Orchards, etc.**

Agro structures of agricultural lands, cultivable land, Orchard land shall be permitted by the Government for the purpose of promoting agricultural activities, The uses permissible and the type of structure (temporary or permanent) are Agro structures for protected cultivation of vegetables and flowers, Grading and packing house, Pre-cooling/primary proceeding unit, Cold storage unit, Mushroom production unit, Pumphouse with storage for tools and inputs and Dairy/Poultry/Piggery.

**2. Scheme for allowing construction etc. Under Atal Asra Yojana.**

The construction/re-construction/repair of houses belonging to Tribal people shall be permitted under the Atal Asra Yojana, for welfare of Tribal people of Goa. The salient features of the scheme are as under:

a) In case of repairs, renovations and re-construction of existing houses located in forest lands or in 1 kms buffer zone, the reconstruction/renovations/repair of houses shall be permitted after obtaining no objection certificate from the Forest Department.

b) In case the existing houses does not have minimum required access roads, setbacks, the same shall be relaxed in case of repair and renovations.

c) Reconstruction and new construction shall have at least 1.50 mts of access roads and 1.00 mts side setback, only in sush cases where the setbacks and not possible due to ground condition or plot size.

d) No conversion Sanad, license copy of existing structures shall be insisted for repair, renovations and reconstruction proposals.

**3. Scheme for simplification process of conversion of land under Land Revenue Code, 1968.**

To simplify the process of conversion of land under Section 32 of Land Revenue Code, 1968, the Department issued Order to all District level offices, Taluka level offices and Planning and Development Authorities and they were directed to generate conversion report along with Development Permission or Technical Clearance as the case may be. One copy of the conversion report generated along with a copy of site plan shall be forwarded to respective Additional/Deputy Collector's office and one copy along with site plan shall be issued to the applicant at the time of issuing Development Permission/Technical Clearance, A similar approach is also adopted for proposals already granted Technical Clearance for avoiding duplication of process.

Hence, there is no need for any separate conversion application to be referred to Town & Country Planing Department by Additional Collectors/ Deputy Collectors for such cases for which conversion report is already forwarded to them.

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudade Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Impressions - Belgaum. Editor : Asawari Nayak